# पोरसांतलीं फुलां

(कथा संग्रह)

स्मिथा भांडारे कामत



बिम्ब प्रकाशन

*पोरसांतलीं फुलां*
स्मिथा भांडारे कामत

**Porsantalim Fullam-**
Short stories
by **Smitha Bhandare Kamat**

प्रकाशन क्र. **40**



पयली आवृत्ती
2006

छापणावळ
इम्प्रेशन्स
बी-2, 'अक्षर आर्केड'
3360/4, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - 590 002

अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर येवजणेखाला छापलां.

मुखचित्र
स्मिथा भांडारे कामत

प्रकाशक
कामिनी किणी
बिम्ब प्रकाशन
जी.एस.बी. ३,
हावसिंग बोर्ड कॉलनी,
पर्वरी - गोंय.

मोल : 140/-

श्री साईकामाक्षीच्या पुज्य
स्मरणान आनी आशिर्वादान
हीं कांय गोष्टीरूपी वेचीक
फुलां ती. वै. श्री. गोविंददास
भांडारे हांकां सादर अर्पण.

– स्मिथा

# मांडावळ

# मनांतलीं फुलां

'पोरसांतलीं फुलां' हो म्हज्या कथांचो पयलो-वयलो चंवर तुमच्रे पसंतीक दवरतना म्हाका खूप खोस जाता. हांगा मेरेनच्या यशांत जायत्या जाणांचो सहभाग आसा. खूप लोकांचे आशिर्वाद, मोग, मागणें, कश्ट गांठीक मारुनूच हांव हांगा मेरेन मजल मारूंक शकलां. पूण कथा बरोवंचेली स्फूर्त, प्रेरणा, विचारांक वाट दाखोवपी झरो - म्हज्या श्रध्देचें उगमस्थान जावन आसा म्हजो डॅडी - सर्गेस्त गोविंदबाब मोर्तोबा भांडारे.

ह्यो कथा खुपशा प्रमाणांत कल्पीत आसात पूण हातुंतल्यान जित्रीताचेर परिणाम करपी जायतीं हून-थंड ल्हारां तुमकां हांगा थंय दिसून येतलीं. केन्नातरी घडिल्ली, आयकल्ली वा दोळ्यांनी पळयिल्ल्यो गजाली मनांत रुजतात आनी मुखार वेळ येतकीर उतरांचो साज चडोवन शब्दरुपांत साकार जातात. हीं मनांतल्या विचारांचीं आनी उतरांचीं दोन तोंकां एकठांय येतकीर एक घटना आकार घेता. ही घटना जायते फावट भावनाप्रधान, सामाजिक ना तर मानव संबंदाचेर आदारलेलीं आसता अथवा संवसारांतलें चित्त ओडून घेवपी प्रसंगाचेर आसता. अशी ही घटना मागीर कथेच्या स्वरुपांत साकार जाता.

वाचणाऱ्यांनी ह्यो कथा बरयणाऱ्याचे नदरेंतल्यान वाचल्यो जाल्यार तांकां कथे भितल्लो सुगंध निश्चित सांपडटलो. आशा करतां की म्हगेलो हो प्रयास तुमकां आवडटलो. तरी पूण तुमच्या लागीं मागणें करतां की जर तुमकां सुचोवण्यो वा अभिप्राय दिवंचे आसल्यार मुळांत दिल्ल्या नाम्यार संपर्क करचो.

-स्मिथा भांडारे कामत


'साईजीत', घ.न. १८
पोस्ट : सांताक्रूझ, मेरशी
गोवा - ४०३००५
दूरध्वनी : २४४८९४३ / २४३४९५३/९८२२१०२८३९

## थोडेशें लेखिकेविशीं

ह्या पुस्तकाची बरोवपी सौ. स्मिथा भांडारे कामत हांकां मास्टर्स पदवी परिक्षेंत वाणिज्य शाखेंत भांगरा मेदाल फावो जालां. फाटलीं सात वर्सां बाय स्मिथा पणजे आल्तिनोवेल्या धेंपे वाणिज्य म्हाविद्यालयांत प्राध्यापिका म्हण काम पळयता. ताणीं एम.ई.एस. वाणिज्य आनी विज्ञान विद्यालय, वास्को, गोवा विश्वविद्यापिठ, गोंय, आय.सि.एफ .ए.आय. विश्वविद्यापिठ, हैदराबाद अशा सारकिल्या नामनेच्या संस्थांतल्यान अंडर ग्रॅज्युएट, ग्रॅज्युएट आनी पोस्ट ग्रॅज्युएट भुरग्यांक तशेंच एम.बि.ए. शिकप्यांकूय मोलादीक मार्गदर्शन केलां.

शिकवणे खेरीज ताणीं पॅन्टींग, कला, कार्टून अशा तरेकवार क्षेत्रांत नांव मेळयलां. हालींच तांच्यो इंग्लिशिंतल्यो दोन कविता पोएट्री डॉट कॉमांत फायनल लिस्ट थराचेर पावल्यात. फाटल्या १० वर्सां पासून स्थानिक इंग्लेज खबरांपत्रांनी तांच्यो काणयो, कविता, मिडल्स उजवाडाक हाडल्यांत. 'पोरसांतलीं फुलां' हो तांचो पयलोच कथा संग्रह.

बाय स्मिथान आकाशवाणीवेल्यानूय जायते कार्यक्रम सादर केल्यात. कोंकणी पुस्तकां उप्रांत इंग्लेजींतल्यान काणयां पुस्तक उजवाडाक हाडचेलो तांचो मानस आसा.

# नवें पान

रूद्रनाथान काळ्या कायनेटीकाक आनीकूय वेग दिलो. भरमसाट स्पिडींत ताची स्कूटर जोगलावणें कशी मुखार धावली. देजेंब्र म्हयन्यांतलो सकाळचो मस्त थंड वारो ताच्या लांब केंसांक मदींच जबरदस्तेन भांग घालून तांकां सैरभैर करून सोडी. त्या मेकळ्या केसान मनशांगत बोटां फिरोवन ल्हान भुरग्याची अपुरबाय केल्ल्यावरी तरेतरेन खेळून निसर्ग ताच्या पोल्याची ल्हवूच पापी घेयी. सैमाच्या खेळाची रूद्राक कसलीच कल्पना नासली. चिंतेस्त, आपणाल्याच विचारांत मग्न जावन तो बाणाभशेन वतालो. त्या एकसुऱ्या डांबरी रस्त्यार म्हणपासारकी येरादारी नासली. केन्नाय एक दुसरी गाडी वताली तितलीच.

ही सिरवीस कशाय भशेन मेळोवंकूच जाय. ही संद वगडावंक जायना अशें ताका मना पासून दिसतालें. हरशी हेर सगळ्याच बाबतींत तो हुशार आसलो. पूण इन्टरव्ह्यू दिवचेली ताची ही पयलीच खेप आशिल्ल्यान ताच्या मनार जडसाण पडिल्ली. व्हल्तार स्पिड मात्तूय कमी करिनासतना, कुशळटायेन ताणें व्हल्त माल्लें आनी इंटरव्ह्यूचें चित्र दोळ्यांमुखार हाडलें. एके कुडींत एक मेज, मेजाफाटल्यान उण्यात उणे तीन तरी जाण्टेले बॉडावेली चांदी हालयत तोंडार वगीच चिंतेचो मुखवटो घालून वक्लांतल्यान नदरेच्या भाल्या वांगडा ताचेर प्रस्न सोडपाचे. ताणें दिल्ले जापेक स्पश्ट अश्यो कसल्योच भावना परगटाय नासतना तकली हालयत, रोखून पळेत वयावेली

जांबय परतीत दुसरो प्रस्न घालपाचे. गरजे भायर नाका आशिल्ले भवस्ताळे - वाज वाज वाज - वगीच' टायम पास. चिंतुनूच ताच्या पोटांत धवळूंक लागलें.

आयज काल इंटरव्ह्यू म्हणजे वगीच्च दाखोवचेलो फार्स. उमेदवार पयलींच थारिल्लो आसता आनी फुडलें मागीर सगळें नाटक. रूद्रान दांत - वंठ चाबडायत मनांनच्यान सगळ्या वेवस्थापनाक गाळी संवल्यो. फट उलोवन, गरजेक आयिल्ल्यांची फकणां करप, बेश्टोच इंटरव्ह्यूचो फार्स आनी निमणें तांच्या हातांत कुशिल्लो बोणो. असल्या फटींग चोरांचो ताका सामको वीट आयलो. सरकाराक, राखीव रोजगार योजनेच्या पुराय यंत्रणेक आनी अख्ख्या संवसाराक ताणें ताका येता तितल्यो गाळी संवल्यो. ताका दुडवांची खूप गरज आसली. घरची गरिबी आनी पयशांची चणचण कमी करप म्हणजे सिरवीस जायच. हाचेफुडें तरी ताका आवय बापायचेर पेज घालचो नासलो. बापूय केन्नाच निवृत्त जाल्लो. थोडें कितें पेसांव येयी तितलेंच. पूण जाण्टेपणांत लेगीत ताणी हिशेब बरोवचेलें काम घेतिल्लें. आवय प्राथमिक शाळेंत मास्तरकी करी. तिचीय निवृत्ती वर्साभितर जावची आसली. धाकटी भयण शाळेंत शिकताली. “तरी बरें बापूय जर ताचे फाटल्यान लांबलचक बटालियन तयार करता तर सुण्या कास्तान जगचें पडपाचें.” हें ताचें ताकाच शेर्त पटलें. गळ्यांत शिरकल्लो हुस्कार भायर सोडटना एक शेलकी गाळ ताच्या वठांतल्यान झिरपलीच.

मध्यम वर्ग म्हणजे ना धड गरीब ना श्रीमंत. ह्या त्रिशंकू परिस्थितीचो ताका वीट आयिल्लो. फुडाराक जाय म्हण पय, पय साठोवन म्हातारे जावप आनी म्हातारपण येतकी ते पयशे वायट बऱ्याक येतले म्हण तरी सांबाळप; म्हणजे मरूंक तेंकलो तरी पयशे मागीर ते मागीरूच - मोडप ना ही मध्यम वर्गीय लोकांची अक्कल. ह्या असल्या हागुट्टे विचारसरणेचो ताका मनापासून तिटकारो येतालो. आतांय तशेंच जालें. सगणके सरशी ताणें स्कुटरीक आनीकूय वेग दिलो. मनशान म्हणटा तें कशें - आयज, आतां ह्या घटके खातीर जगप. फुडले विचार फुडें - फुडार पळेला कोणें? ही ताची आधुनीक विचारसरणी ताच्या आवय बापायक मात्तूय पसंत नासली.

आयल्या दिसा आवय ताका सांग : "रूद्रा, तूं आतां ल्हान ना, पयलीं जोडूंक शीक आनी तुज्या घामा-कश्टाच्या पयशांचें तूं तुका जाय तें कर. पुरो जाले आतां तुजे फाजिल लाड, तुज्या फोल्गांक आमचेकडेन दुडू ना - नीनाचें लग्न जावचें आसा. ताचो हुंडो - लग्नाचो खर्च - खंयच्यान हाडटलीं आमी पयसो?" येवजुनूच तिका फॅफरे आयिल्ल्या भशेन जाल्लें. सणकेसरशी तिणें रूद्राक खडसावन सांगिल्लें - "आनी तें रडके तोंड घेवन असो ऽऽऽ लामण दिवो कसो गांवभर भोव नाका. जग सोपूंक येवंक ना. सिरवीस सोद सिरवीस. पेदेपणां सोड, आतां भायर सर. कित्याचोच म्हण कित्याचोच उपेगाचो न्हय तू." हातांतले बोगुणें तिणें ढण्ण करून गॅसार आपटिलें. म्हणटासर रोखडीच ती खेदूंक लागली.

पश्चाताप परगटायत तिणें आपणाल्या फुटक्या नशिबाक येतिश्ट कोसून घेतलें. "कित्या देवा म्हाका जल्मांक घालें - कित्याक म्हजें लग्न केलें?" जिणेंतल्यो फाटल्यो सगळ्यो वायट-बऱ्या खबरींचो तिणें रडत भेंकत तपशीलासयत आढाव घेत काडकाड करून बोटां मोडलीं.

आवयचें रडणें आयकना फुडें रूद्राक कीव येवचेलेकडेन आनीकूय राग आयलो. ताचो रागाचो पारो फोफावत वयर चडलो. रागा-रागान ताणें आवयक सांगलें "रडटा कित्याक गे? हांव मरूना अजून. हांव धंदो करतलों धंदो. म्हाका हॉटेल वेवसाय करूंक जाय. टुरिस्ट लोक घे म्हण येवंक लागल्यात आनी ह्या नेगोसांत पयसोच पयसो आसा, फकत सुरवातेचें भांडवल तुमी दियात." ताचो रागीट स्वर काकुळतेक आयिल्लो. "म्हाका एकुचदां आदार दियात." वाक्य सोंपचे पयलींच आवयल्या रागाचो लोळ ताच्या कानसुलार ठोऽऽऽ करून आदळ्ळो. "ना, कदापी ना. त्रिवार ना." रांदचेकुडींतल्यान ती भायर आयली केन्ना आनी तिणें ताचेर फाफुडलें केन्ना हेंच ताका कळूंक नासलें. कमरेर हात दवरून ती पवित्र्यान उबी राविल्ली. घे म्हण मागीर तिच्या तोंडांतल्यान उतरांचो पावस पडलो - "पळय तुज्या बापायक पळय" घोवावटे बोट करून तिणें म्हळें. बायलेचो पारो सातव्या माळ्याक फोडून पलतडी पाविल्लो तरी घोव तितलोच थंड बशिल्लो. थंडपणान कंदेल धोलयत हिशेब बरयता आसतनाच बायलेचें आयकून न

आयकल्ल्या भशेन करतालो. आपणाली आर्थिक परिस्थिती, पिराय, लाचारी हाचो पुराय हिशेब मांडून ताणें सरळ हात वयर केल्ले. आयुश्याच्या लढ्यांत शेणिल्लें प्यादें मान वाकोवन कान-दोळे बंद दवरून दीस धुकली. घरांत म्हाभारत घडलें तरीय तो आपणाल्या कदेलीर बसून धोलतालो. पांय आपटीत बायल रांदचेकुडींतल्यान भायर आयली. एकीकडेन पुतावटेन किल्लो लढयत तिणें घोवाचेर घुरी घाली. "ह्या, ह्या मनशान म्हज्या जिणेचो नायनाट केलो, म्हजें सगळें सूख नश्ट केलें. म्हजें भांगर हाणें - हो - ह्या मनशान वेव्हारांत बुडयलें. फटोवन घेवपी मनशानी पयलीं म्हणजे धंद्याचें चिंतपूच न्हय आनी जरी केलो तर त्या काशिनाथ कोल्याक भागेली म्हण सोडूच ताच्या वाऱ्याक लेगीत कोणें रावचें न्हय. पळय - आयज तांची परिस्थिती पळय - तीं दुडवांचेर लोळटात आनी आमी? ..." नदरेचो भालो घोवा वटेन सोडीत तिणें अर्ध्यार सोडिल्लें वाक्य सोंपयलें. "आमी रिणांच फारीक करूंक उल्लीं."

आवयलो भिमावेश पळोवन रूद्रनाथ थिजून गेल्लो. डिग्नीफाइड म्हणून घेवपी आनी भुरग्यांक बरे संस्कार शिकोवपी शाळामास्तरणीच्या काळजांत इतली कोडसाण, द्वेश आसत हें ताणें येवजूंक नासलें. तो तसोच वळ्ळो आनी सोपणां देवत काळखांत चलत रावलो. रागान चडफडत, निराधार, लाचार.

थोडें चलून वतकीच ताच्या कानार संगीत पडलें. तीन माळयांचे बिल्डीगेर आनी ताचे फुडें आशिल्ल्या माटवाकडे ताची विस्त गेली. लायटीचो झगमग, रंगीत बल्बाची आरास पळेतासतना एक गोरेंपीट्ट विलायती जोडपें हातांत हात घालून एकामेकाक घश्टत भितर गेलें. रूद्रालो वोठ अचळय दातां पोंदा गेलो - गाळ तडतडत भायर सल्ली. "काशिनाथ तूं मातसो राव" ताणें मनांत म्हळें आनी हून फुस्कारे सोडीत तो वेळेर वचचेले वाटेक लागलो. वरभर तरी मनांक जाय तसो उदकांत बुडप आनी उप्रांत मिट्ट काळोख जातकूच थंड रेवेंत ताणून दिवन मळबांतलीं नकेत्रां पळेत सपनां रंगयत मजा करप असो ताणें बेत रचलो. कांय वेळा उप्रांत रूद्र खऱ्यांनीच सगळें विसरलो आनी सपनाच्या जगांत अळंग पेंवपाक लागलो.

विचारांच्या भोंवऱ्यांत हात-पांय मारतना धिम्या पावलांनी रूक्साना

भितर आयलें. ताचें चित्त फुलारलें. एक शिवडी, गोरें-गोरेंच सुंदर राजहंसी दोळ्यांची ही बावली पळोवंक सामकी परी दीस. ताचो मेंदू मातसोसो जड आशिल्ल्यान तें कांय उलयी ताका सयसुवाद नासतालो. तें येवजनाफुडें ताच्या वठार बारीक हासो आयलो. पांच भावा उप्रांतच्या ह्या भयणुलेचे अतोनात लाड जाल्ले. ताचे तीन भाव गल्फांत झरत-मरत जोडटाले तर भयणुली तांच्या खुस्तार हांगा मिजास मारी. तशें पळोवंक गेल्यार रूक्साना फोल्गी मात्तूय नासलें. रूद्रान बेगीन जीब चाबली. सुबेज उलयलो म्हण ताचें ताकाच कळून आयलें. रूक्साना मर्यादेंत खर्च करी आनी रूद्राखातीरूच तर तें हात सोडून पयशे मोडटालें. फोरेन शर्ट, म्हारगें रेबन, रिबॉक बूट... एके परीन तो ताका खूप देणें लागतालो. रूक्सानाक लागुनूच तर तो चार चौगांत उठून दीस. नातर तोय बी तांतलोच एक जावन पडपाचो. ताचो सगळो विलायती थाट आनी रूक्साना वांगडची घट्ट दाटी पळोवन सगळेजाणांनी ताचो गिगोलो - बायेचो घोव म्हण बारसो केल्लो.

लोकांनी कितेंय नांव दवरूं, रूद्राक पडिल्लें नासलें. ताचेर मोडपाक रूक्सानाक जर कांयच आडखळ नासली तर बशिल्लेकडेन घरा आयिल्ले लक्ष्मींक ताणें ना कित्याक म्हणचें? ताचें स्वत:चेंय म्हण एक वेगळें जिवीत आसलें आनी रूक्साना तर ताचेर सामकें लट्टू जाल्लें. आं... आतां आवयली थोडी भौ पिरंगण सोसची पड्‌ पूण मागीर ती पोरण्यां वळणाची, तिचेकडेन आनी कितलें म्हण लक्ष दिवप न्हय? रूकुच्या भावानी तर भयणीक सामकें आळुबाय करून दवरिल्लें. ताणें कितेंय केल्यार लेगीत तें ताचेवेलो पयशांचो मारो कमी करिनासलें. मागीर हेरांचो प्रस्नूच उद्‌भव नासलो. "जाय तें म्हणात आनी झक मारात" असो ताणें सापसुबो विचार केलो.

हालीं पूण रूकू ताचेर खुपूच बंधनां घालूंक पळेतालें. त्या पिशाल्या तकलेंत लग्नाचे विचार घुवूंक लागिल्ले. आतां ह्या पोर वयांत कोण शाणो लग्न जावपाचो? बायलेचे मागीर सदिचेंच तुणतुणें, उणीं उतरां, सतावणी आनी घे म्हण हीं... भुरगीं. वयर मागीर मांय सुनेचें पटना म्हण जीव आकांजार. जिवीत मडें म्हण जगचें परस मेल्लें परवडलें. तिरमिरून एक फावट इल्लोय फाटीं-फुडें विचार करिनासतना ताणें रूक्सानाक स्पश्टूच सांगून

वडयलें : “पळे, रूकू आमी दोगांय दोन वेगळ्या जातींतलीं. आमचो धर्म, जात, संस्कृताय वेगळी, आमचे आवय बापूय ह्या लग्नाक कशेच तयार जावचे नात तेन्ना वगीच कल्पनेच्या भोवऱ्यांत घुवून सपनां पळोवच्या परस सत् परिस्थितीकडेन दोळे उगडून पळे.” ताचीं फुडलीं उतरां आयकुचे पयलींच रूक्सानाचे दोळे मेल्ले. ते पळेनाफुडें काकूट येवचे जाग्यार मस्तेचो किडो रूद्राल्या मेंदवांत आनीकूय वळवळ्ळो. ताच्या तकलेची शीर सणकली. तिडकेन तो फुस्कारलो : “तूं मगो तेमोज पोर - आतांमेरेन तुवें तुका जाय तशें करून घेतलें पूण हाचे मुखार तुजे नखरे हांव खपोवन घेवचो ना - हें पळे लक्षांत दवर हांवें स्वता जावन तुका केन्नाच उकसावंकना, याद कर तूंच म्हजे फाटल्यान येतालें, म्हारग - म्हारग वस्तू दिवन म्हाका पटोवंक पळयलें. एक तर तुका लग्न विसरचें पडटलें ना तर म्हाका. हांव तुज्या जिणेंतल्यान सासणाचो भायरो जातलों.” रूक्साना अजापान आयकत उल्लें. पूण ताचे नदरेंत तिरस्कार, खेद वा पच्छताप नासलो, थंय फकत निखळ मोग दिसून येतालो.

अचकीत रूद्रालें अवसान गळ्ळें. तिडकेबराबर आपूण नाका जाल्लें बरळ्ळों हें ताका कळ्ळें. ताच्याच आत्म्यान ताका झिटकारलो. आपलेच नदरेंत तो खाला गेलो. ताका दिशिल्लें तो तिडनाफुडें रूक्सानाय तिडटलें, आड्डतलें, आदळ आपट करून हात-पांय फाफुडटलें, अदवा-तदवा उलयतलें वा ताचो आळलबाय वयर काडल्या उप्रांत चडान-चड सणकुटेर थापट फुलोवन तोंड घेवन वतलें. पूण घडलें भलतेंच. ताचें मन ताका खावंक लागलें. दारांत रूक्साना आजून थंड उबें आसलें. मावुळपी सुर्याच्या प्रभावळेन ताच्या मस्तकार आपलो भांगरा मुकूट धरिल्लो. खिणभर ताचो मुखचंद्रीम लिकलिकलो. आपलीच बे-आब्रू आपल्याच कानानी आयकून लेगीत रागार जाय नासतना सांत कशें तें वग्गी उबें आसलें. ताच्या दोळ्यांत रूद्राक खरो मोग दिसून आयलो. ताची खर काळजाक घाय करपी उतरां ताणें पचोवन व्हेलीं. ताचे नदरेक नदर मेळोवचेली हिम्मत आतां रूद्रांत नासली. गुन्यावाची जाण दिवन ताचेंच मन ताका खावंक लागिल्लें. नदर खाला करून ताणें आपणांकूच दुशणां दिलीं. गाढवाभशेन वागलो म्हण ताका पच्छताप जावंक

लागलो. ताच्या काळजाचीं ल्हारां रूक्सानान जुस्त हेरलीं. ताचें सांत्वन करचें म्हण तें दोन पावलां मुखार सल्लें पूण एकाएक ताणें आपणालो विचार बदल्लो आनी फुडें घेतिल्लें पावल फाटीं घेतलें आनी जड अंतस्करणान थंयच्यान भायर सल्लें. घडये परत आनीक ताच्या संवसारांत पांय न दवरूच्या इराद्यान.

रूद्रनाथ पळेत उल्लो. रूकुली शिडशिडीत नाजूक सावळी हळुहळू नदरे आड गेली. ताका एकदम एकसुरेंपण खावंक उठलें. काळजांत खोल भुंयार पडिल्ल्यावरी दिसूंक लागलें. ताचो आत्मो ताका शिणूंक लागलो. सगळो संवसार आपले भोवतणी घुंवता काय अशें दिसपाक लागलें. ताचो आवेश, राग आतां थंड जाल्लो. तकली घट्ट धरून तो सोफ्यारूच न्हिदलो आनी निरशेवन ताणें येतिश्ट रडून घेतलें. जिवाची उबगण, पश्चाताच आनी ख़ंतीच्या खोल घळींत तो बुडून गेलो. दोळ्यांतलीं दुखां दिमयेवेल्यान ताच्या रिबॉक बुटांत पावलीं, ताची तकली भेरेली. बेजार जावन ताणें बूट भिरकावन दिले. कितलोसोच वेळ तो एकाच जाग्यार येवजीत बशिल्लो.

बऱ्याच वेळांत ताचो मनावेलो गेल्लो ताबो परत आयलो. कल्पनेंतल्या गिरेस्तपणाचीं, सपनां पळोवपाची, फटींगपणाची ताका विट आयली. कितें तरी करून दाखोवंक ताचे हात फुरफुरूंक लागले. आपले फामिलीक आनी रूक्सानाक जळू कसो चिकटून तांचे आर्थिक आनी भावनेचो तो फायदो घेत आयिल्लो. आतां तर ताणें कळस गांठिल्लो. ताचो आवय-बापूय आनी रूक्साना लेगीत माये खातीर ताका मरसर पोसपाची पूण आतां ताच्या मनाक जाग आयिल्ली. ताचें मनीसपण, ताच्यांतलें दादलेपण खडबडून जागें जाल्लें. हें अशें न्हय हें ताका पटलें. आपल्या जिणेचीं कुसकीं सुकीं पानां झडोवन फुडाराचे नवे कोंबरेक बरो पालव दिवचें ताणें थारायलें. नवें झाड, नवें पान - कायद्या प्रमाणें वागप, नेम करप आनी बरें प्रेस्टीजीचें जिवीत जगचेलो ताणें निर्धार केलो. कांय दिसांपयलीं खबरेपत्रांत आयिल्ल्या जायरातीची ताका याद जाली, ताचीं पावलां घराकडे वळ्ळीं.

रूद्रनाथ उमळशिकेन खबरेपत्र सोदतालो. हॉलांतल्या मेजाची आदळ-आपट करीत खर्पसूख जावन ताणें सगळें उस्तिलें पूण खबरेपत्र मेळ्ळेंना. शेवटाक त्या मेजाचो खणूच ताणें भायर काडलो आनी मेजार उमथिलो.

वसवश्या भशेन तो पेपर चाळूंक लागलो. कांय वेळांत ताका जाय ती जायरात सापडली. जिणेक नवी दिका मेळ्ळयाभशेन ताका दिसलें. पेन्सील घेवन ताणें त्या जायराती भोंवतणी वर्तुळ केलें, तेच उमेदींत तो भितर गेलो, कत्रेल उगडलें, धुल्ल खायत पडिल्ली फायल सोदून काडली. थापट मारून ताणें धुल्ल कुशीक उडयलो आनी ती उगडली. शाळा-कॉलेजांतलीं प्रमाणपत्रां, प्रगती पत्रां पळोवन ताका उमेद जाली. हयन्हयसो हांसो ताच्या वंठार उदेलो. चड त्रास पडनासतना ताका वर्तमानपत्रासयत ताची फायलूय मेळिल्ली. मनांतल्या मनांत फुडले बेत आंखीत तो न्हावंक मान्न्यांत गेलो.

तर रूद्र आयज इंटरव्ह्यू दिवंक भायर सरिल्लो. ताणें आपणाल्या काळ्या कायनटिकाक वगीच थ्रिल आनीक संवय म्हण आकांत वेग दिलो. हरशी अशा वेळार ताचें रूकू ताका सादूर करी. भियोवन ताची रेवडी जाताली आनी तें पाल कशें ताका घट्ट धरून बसतालें. रस्त्यावेले बेकार - लवडी मागीर वगीच शिळोण्यो घाली. ताचे निखळ काळेच दोळे, फकत मोगाची आनी माफ करचेली भास उलोवपी रूकू आयज ताचे फाटल्यान नासलें. रूद्र एकदम विशण्ण जालो. गाडी फूल स्पिडींत चलताली. फुडें एक सामकें अशीर वोल्त आसलें. आपणाल्याच तंद्रेत आशिल्ल्या रूद्राक मुखावेली गाडी दिसलीना. ब्रेक मारचे पयलींच तो त्या गाडयेर आपटलो आनी उसळून पडिल्ल्याची जाण ताका जाली. हात-पांय हालोवचेलो ताचो प्रयत्न फुकट गेलो. रगताच्या पांटांत तो पडिल्लो. भोवतणच्या लोकांचो बोवाळ कानावेल्यान कमी-कमी जायत ताची सुध्द गेली.

रूद्रान दोळे उगडले, चिंतेस्त नदरो ताच्या नदरेक भिडल्यो. ताची आवय रडूंक लागली. धवसार पडिल्लो ताचो बापूय आनीकूय गळून गेल्लो. ताच्या दोळ्यांतलें तेजूच बाविल्लें. ताचें रुकू ... ताचो अवतार तर भुताभशेन जाल्लो. ताका बशिल्लो शॉक ताच्या दोळ्यांत दिसतालो, पळेतल्याचें मन हालोवन सोडटालो. वखताचो खर वास ताच्या नाखांत गेलो - तो घुस्मटलो - ताचेकडेन हालूंक जायना जालें. आंग शिश्या भशेन जड जाल्लें. परतून ताणें हालपाक ट्राय केली. आवय हुंदके दीत धांवत ताचेसरी आयली. आंगांतल्यान उज्याचे तीव्र लोळ आयिल्ल्यावरी ताका दिसलें. वस्तुस्थितीची जाण येनाफुडें

तो पुराय थरथरलो. दोळ्यांतल्यान दुखांचो पूर व्हावपाक लागलो. ताच्या नशिबांत खाटेरूच उरचें आसलें काय? मनापासून मोग करप्यांक जल्मभर त्रास दिवचे आसले काय? जळू जावन जियेवपी जीण हाचेफुडेंय तशीच उरत काय? रूक्साना ताचेसरे आयलें. ताची थंड धीर दिवपी नदर ताका भीव नाका म्हण खुणायताली. हिवूय परिस्थिती पालटटली. हांव तुजे भोंवतणीं आसमेरेन तूं कसलीच चिंता करनाका. उदेंतिच्या सुर्यान आपणालें तेज ताच्या सुकुमार मस्तकार एकवटिल्लें. त्या भांगरा कोराच्या प्रभावळेन ताचें मुखामळ चकचकतालें तें पळेतकीर रूद्राक संजिवनी मेळ्ळ्या भशेन दिसलें - नवो जल्म, नवो दीस, नवें जिवीत, नवी आस - ती काळी घन नदर ताच्या काळजाचो थाव घेवन एकसारकी ताका मोन्यानीच धीर आनी आश्वासन दीत आसली.

❑❑❑

# वेळांतलो एक खीण

शिखान दार धांपलें आनी कुलपांत चावी घुवणायली. आयज पार्कांत व्हरूच म्हण झिना खनपटीक बशिल्लें. हय - ना करता करता मागीर चल जावंदी तुज्या मनासारकें म्हणत शिखा भायर सरिल्लें. कोणाच्यो तरी उडयो मारीत वयर चडून येवपी पावलांचो तांकां आवाज आयलो. दोगांयल्यो नदरो इस्कादीवटयां वळ्ळयो. धांवेत, खर्शेत, काळीज हातांत धरून अभिजित वयर येतालो.

शिखाक पळेतकीच तोंडार रूंद हांसो हाडीत ताणें "हॅलो" म्हळें आनी झिनाचें बॉड थापटिलें. लिफ्ट आसुनूय हो बुध्दीचो नवसागर कारणाभायर तीन माळे चडून वयर कित्याक येता हें शिखाक आयज मेरेन कळूंक नासलें. घडये जवानीचो फुरफुरो - तरणाटें हून रगत चड उसळूंक लागलां आसूंये. शिखाली नदर ताका निरखूंक लागली. तरणाटो आशिल्लो हॅन्डसम हें मानचेंच पड. ताचें रूंद कपल, तरतरीत दोळे पळेत तिची नदर खिणभर ताच्या वयल्या वंठार थारली. तिणें दोळे वटवटायले. "ओ - ॲबिन आपणालें आमुरपिकें मिसरूड बेणून उडयलें तर." तिणें स्वगत म्हळें. तरीच तो आनीकूय पोरांटोसो दिसतालो. ताचो तोंडवळो कित्याखातीर वेगळो दिस तें तिका आतां कळून आयलें.

"हाय" शिखान उलट अभिवादन केलें.

"कितें ॲबी, आनीक एक ट्रॉफी काय कितें?" हातांतली चकचकीत

ट्रॉफी पळेत तिणें म्हळें.

“हय” ताचो मुमुरखो हांसो इल्लो चडूच रूंदावलो.

“ही म्हाका इंटर कॉलेज टुरनामॅन्टांत बुध्दीबळाच्या खेळांत फावो जाल्या.” बेगीबेगीन ट्रॉफी दाव्या हातांत घेवन ताणें आपलो उजवो हात शिखा मुखार धल्लो. शिखान हात हातांत घेवपाकूच झिनान आवयक वोडली. “मम्मा, आमी या - म्हाका वचपाक जाय - आत्तां”. कपलाक आंठयो घालून नाक तांबारून उतावीळ जावन झिनान आवयल्या पांयार पांय माल्लो. “ॲबी बाय आं” वयर साळसूद जावन अभिजिताक ताणें बायूय केलें. ल्हान-व्हड म्हण पळेनासतना नांव घेवन उलो मारचेली झिनाक वायट संवय लागिल्ली. आपल्याक जाय तशेंच, आवडटा तेंच - ही ल्हान आपसुलाद मुर्त आवयक नाका जीव करून सोडी. ताका अती लाडावन आपणेंच ताची वाट लायल्या अशें खुपदां शिखाक दिस. धुवेलें कर्तुब पळोवन तिणें थंड हुस्कार सोडलो. झुबेनाची तिका याद आयली. बापूय घरा आशिल्लो जाल्यार चलयेक रीत शिकयल्याबगर रावंचो नासलो.

अभिजिताक टाटा करून तीं दोगांय बिल्डीगेच्या आवारांतल्यान भायर रस्त्यार आयलीं. ना म्हळ्यार जार्दीन तांच्या घराकडसून अर्द किलो मिटर तरी पयस आसलें. चलतां - चलतांच झिना ब्रेक लागिल्ल्यावरी थांबलें. “म्हाका धर” हात वयर करून ताणें फर्मायलें. “धर म्हाका मिम्मा - हांव ना चलना” वगीच आकांजार जायत उसंत दिनासतना परत परत ताणें एकूच रड धल्ली. ताच्या त्या कर्कश आवाजावेल्यान शिखाक कळ्ळें की हाचे फुडलें “मिम्मा” म्हणजे किळच आनी ताच्या फुडें किळचेर किळच. ताच्या असल्या तेमानीच तर शिखा बेजार जाल्लें. आयज तरी त्या तीन वर्सांचे घोडयेक ताका हाण्डीर धरचें नासलें.

तिणें झिनाक थंड नदरेन मिनीटभर पळयलें. दोन ल्हान विणयो, ताचेवयलीं तांबडीं रिबीनां आनी इदुलो विस्तीद, पायांक लेसिचे मेय आनी इल्लेशे आपुरबायेचे बूट ताच्या विस्तीदाक जुस्त मॅच जायी. त्याय परिस्थितींत शिखाक धुवेचें कौतुक दिसलें. दोन व्हड दुखां थेंबे तांबश्या दोळ्यांकडेर येवन तत्पर राविल्ले. तोंड आनी गाल फुगून वंठ भायर सरिल्लो. पोले तांबडेच

जाल्ले. भिवयो ताणिल्ल्यो. किळच मारूंक तें तयारीन उबें राविल्लें. शिखाच्यान आनीक अजिबात सोसपाक जालेंना. ताका उखलून धरपा इतली शक्त ताचेकडेन नासली. झिना सारकें सोबीत ल्हान परी अशें वात्रट आनी तेमोज जातलें म्हण ताणें येवजिलें ना.

शिखान धुवे मुखार वणव घेतलो, आतां दोगांयली उंचाय बरोबरीन जाल्ली. ताणें बारीक खर आवाजांत दोळ्यांक दोळे लावन म्हळें. "आयक हनी तुका चलचेंच पडटलें नातर तुजी पोटली हांव उखलून दिरेत घरा घेवन वतलें." आवयचीं खर उतरां आनी तोंडावेलो निश्चेव पळेतकूच स्फोटाच्या तयारींत आशिल्ल्या झिनाचो गोंदळ जालो. आवयक पळेत रावन ताणें तिचो मूड आजमायलो. पयलीं परस तिखट जावन शिखान परतूय तेंच म्हळें. त्या इल्लेशा मुर्तीन, प्रसंग जुस्त वळखलो "मिम्मा, हांव चलतां" फुंरगटिल्ल्या शब्दांत ताणें आवयक सांगलें आनी आपलो इलोसो हात आवयच्या हातांत दिवन दोगांय आवय-धूव पार्कामिरेन चलत रावलीं.

रातचीं धा वरां जाल्लीं. सालांतल्या टिवीवेल्यो बातम्यो आयकत शिखान आयदनां धुवन काडलीं आनी मोरी साफ केली. पार्कांतल्यान परततना झिनान चलूंक साप्प न्हयकारिल्लें आनी घरा येतकीच जेवण जेवपाक वरभर मायजूच लायिल्लें. फुडें ताका न्हिदय आनी मुखावेलें काम करता म्हणसर धा वरां जावन गेल्लीं. दिसभराच्या कामाच्या शिणान शिखा गळून गेल्लें. झिनाचो हुस्को ताका सतायतालो. आपणाले धुवेची आपुणूच वाट लायता अशेंच तें समजतालें. "झुबेन आसूंक जाय आसलो" ताका एकटें एकटें दिसूंक लागलें. निरशेल्ल्या मनान ताणें कत्रेल उगडलें आनी आपणांक एक ड्रिंक तयार केलें.

पोराक बापायली गरज आशिल्ली हें खरें. पूण कितल्योश्योच आवयो बापाय शिवाय भुरग्यांक वयर काडी. मागीर तिचेकडेनूच तें काम कित्याक जांव नये? कितलेय त्रास पडले तरी आया वा कामवाली दवरूंक ती तयार नासली. आपल्या धुवेक तिका स्वत: वाढोवन व्हड करची आसली. ती आपणाली जबाबदारी अशें म्हण ती समजताली आनी तिका धुवेलें सगळें आपणाल्याच हातांत जाल्लें जाय आसलें. ड्रिंकाचो इल्लो इल्लो घोंट घेत

ती टिवी पळयी. निकतोच रातचो सिनेमा सुरू जातालो.

सिनेमाचो तिका व्हडसो नाद नासलो. कांय वेळ पळेनाफुडें तिका वाज येवंक लागलो. उठून तिणें सालाचें आदुफ उगडलें आनी ती भायर पळोवंक लागली. लांब - रूंद काळ्या शालिचेर मेजूंक येना तितले मोलादीक हिरे चकचकताले. रातचें शार भोवच सुंदर दीस. हवाई सुंदरी आसतना विमानांतल्यान शाराकडे पळोवंक तिका आवड. विमान वयर चडटना वा देंवतना तें लिकलिकपी ओढलायणें चित्र पळोवंक ती केन्नाच चुकनासली. ताची ही आवड पळोवन झुबेन ताका सदांच चाळयी. "गेले ते दीस" एक अर्दो उस्कार सोडून ती पुटपुटली. विमान, झुबेन आनी तें म्हणजे मजा, उमेद आनी थ्रिल. दीस कसो वच तेंच कळनासलें. ग्लास वंठाक लावन तिणें तो पुराय रितो केलो आनी न्हिदपाचे तयारेक लागली.

फुडल्या दाराची बॅल वाजली. शिखाली नदर घडयाळार गेली. अशा वेळार कोण आसत काय? मध्यान जायत आयिल्ली. तिका भंयसो दिसूंक लागलो. "हाय देवा आजूय न्हिदूंक उशीर जाता सो दिसता" तोंडांतल्या तोंडांत तिणें दाराच्या बुरखांतल्यान भायर पळेलें. दारांत ॲबी उबो आसलो. ताच्या तोंडावेलो ताण लिपनासलो. "वायट कांय नासल्यार पुरो" तिणें देवा लागीं मागलें, आनी दार उगडलें. "तुमगेलो फोन चलता?" भितर सरता आसतनाच ताणें प्रस्न घालो आनीक जापेची वाट पळयनासतना लांब धेंपां मारीत फोनासरीं वचून लायन चलना म्हण खात्री केली.

एकवार ताणें शिखाकडेन पळेलें. ताच्या तोंडार विचित्र भाव जमा जाल्ले. ताका निरखीत शिखा आजुनूय दारांतूच उबी आसली. कितें तरी सिरियस घडलां आसूंक जाय नातर येदे रातीचो अभिजीत तिगेर येवपी न्हय. ल्हवू ल्हवू चलत अभिजीत तिच्या म्हऱ्यांत गेलो. "मिसेस रॉय, हांव मिस्टर रॉया विशीं वायट खबर घेवन आयलां." झुबेनाचें नांव आयकतांच ती एकदम धवसार पडली. "कितें जालें?" तिणें जमता तशीं उतरां एकठांय करून आकांतान विचाल्लें. "म्हाका निकतोच फोन आयिल्लो. ताणी रॉयाल्या विमानांक ॲक्सीदेंत जाला म्हण कळीत केलां."

शिखाल्या गळ्यांत एकदम आंवडो घुस्पलो. आवरो उडचेलो तिचेर

वेळ आयलो. दोळ्या सामकार काळोख दाटलो, पांयां पोंदची भूंय हालली, तकली घुवूंक लागली. अभिजीतान बेगीन तिका सावरली. “हाय देवा म्हजेंच चुकलें. हांवें अशें दिरेत सांगपाक जाय नासलें.” ताच्या मनाक लागलें. ताणें सारवासारव करीत परत सांगूंक सुरवात केली. “मिसेस रॉय सुरजालो फोन आयिल्लो की मिस्टर रॉयाक हॉस्पिटलांत घाला आनी ताची साउद सुदारता. तरीकूय आजून ताच्या जिवाक भंय आसा.” आतांमेरेन ती मातशी सावरली. अभिजीताचो आदार घेवन ती सोफ्यार आड पडली. इल्ली सादूर जायनाफुडें तिणें अभिजीताल्या फोनावेल्यान सुरजाक फोन करून कितें घडलां तें विचारपाचें थारायलें आनी ती उठून उबी रावली.

सारखें सांगलेंना म्हण अभिजीताक वायट दिसतालें. तो कांचवेन गेल्लो. कितें करचें म्हण ताकाय समज नासलें. कितलोय जाल्यार तो भुरगो पडटालो. शिखान हिम्मत एकवटली आनीक एक ड्रिंक ताळ्या खाला ओतलें. तिका आतां बरीच तरतरी आयली. भितर फावट मारून तिणें झिनाचेर नदर घाली. तें बापडें सुस्त न्हिदिल्लें. ताका पळेनाफुडें शिखाचो ताबो सुटलो आनी तें ढळढळीत रडूंक लागलें. दार बंद करूंक अभिजीतान तिका मदत केली आनी तीं दोगांय लिफ्टी वटयां वळ्ळीं.

अभिजीत मावशेल्या फ्लॅटांत एकटोच रावतालो. मावशी फोरेनाक स्थायीक जाल्ल्यान फ्लॅटाचो ताबो ताचेकडेंच आसलो. तिणें फ्लॅट उंची आनी म्हारग वस्तुनी भरिल्लो. अभिजीतूय फ्लॅटाची देखरेख बरी करी. टापटीप, नितळसाण, वस्तींची सोबीत मांडणी, कोणाच्या आदाराबगर हें सगळें ताका एकट्याक कशें जम तोच जाणां. पूण फ्लॅटाची बडदास्त खरेलीच वाखाणपासारकी आसली. ताका वेळावेळार मेळिल्ल्यो ट्रॉफी, कपां, ताणें व्यवस्थीत दवरिल्लीं. कोणूय पयलेच नदरेन पिसो जावपासारको ताणें फ्लॅट सजयल्लो. मिसेस रॉय जर दुसऱ्या कसल्याय कारणांखातीर तागेर पावता तर ताची स्तुती केल्याबगर केन्नाच रावची नासली.

रिसिव्हर उखलून ताणें नंबर मेळयलो - लायन एन्गेज - परत घुवणायलो. परत तेंच लायन बिझी. आनीक वेळ वगडाय नासतना ताणें बेगीन लायटनींग कॉल बुक केलो आनी फोन दवरलो. शिखा रडून रडून सामकी थिजून गेल्ली.

तिचे दोळे तांबडेच्च जाल्ले. केंस विस्कटिल्ले. आनी ती खूप दुखेस्त दिसताली. तिचो हात आपणाल्या हातांत धरून आपलेपरीन तो तिका धीर दितालो. सगळें सारकें जातलें म्हण परत परत सांगतालो. तिचेवेलें संकट टळचें म्हण तो देवा लागीं मागतालो आनीक ताच्या हातांत कांय एक नासलें. वेळ सरन सरनासलो. ताणें टिवी ऑन केलो. रातचो सिनेमा चालू आसलो. परत परत तो शिखाक धीर दीत आसलो. निरशेवन ती ताचेकडे पळेताली. तिचो विश्वास डळमळिल्लो. "ओ झुबेन, ओ झुबेन" म्हणत घोवाल्यो यादी काडून ती रडटाली. तिणें आपणाली तकली अभिजीताल्या छातयेर दवरिल्ली, तिका आधाराची नितांत गरज आसली. खोल काळजार घण घालपी तिचे हुंडके आयकुतूकूच अभिजीत आनीकूय बेजार जातालो. निरशेणी आनी भिरांतेन ती बुडून गेल्ली. भिरांकूळ विचारा सरशी ती अभिजीताक आनीकूय घट्ट धरताली. तिचें कांचवेल्लें मन विचार करून करून शिणून गेल्लें. मदीं-मदींच ती दु:खान बडबडटाली. "ना, हें खरें जावंक शकना, हो अन्याय देव म्हजेर तरी करूंक शकना". तांकां लग्नाची वाट पळेत आठ वर्सां मेरेन रावचें पडिल्लें आनी लग्न जावन तांच्या संवसाराक फकत चार वर्सां जाता थंय आसलीं आनी हें येवजूंक नाशिल्लें अरिश्ट कोसळिल्लें.

बारा वर्सां पयलीं विमानानूच तांकां एकठांय हाडिल्लीं. झुबेन तरूण निडर पायलट, आनी शिखा सुंदर, सोबीत हवाई सुंदरी. आठ वर्सांच्या सहवासान कितलेशेच जिवावेले प्रसंग, सुख-दुखां ताणीं एकठांय अणभवलीं आनी आयज मात तिचो झुबेन एकटोच मरणां वांगडा झुंजतालो. ह्या खिणाक तरी ताका तिची खरी गरज आसली. झुबेनाचें रगतान भरिल्लें चित्र दोळ्यामुखार येतांच ती शिरशिरली आनी धीर दिवपी खांब्याक आनीकूय तिणें घट धल्लो.

अभिजीत साप गोंधळिल्लो. ही परिस्थिती कशी हाताळची हेंच ताका कळ नासलें. तिका धीर, सांत्वना जाय हें ताका खबर आशिल्लें. आपल्या परीन जमता तितलो ताणें तिका आदार दिल्लो आनी दितालो. ताचें सगळें चित्त फोनाकडेन लागिल्लें. कितलोय जालो तरी तो एक वयावेलो तरणाटो आसलो. ताच्यो भितल्ल्यो भावना, ताच्या भितल्लो नर तिच्या निकटच्या

स्पर्शान नकळत फुलारून येयी. मनावेलो विवेकाचो ताबो खंयच्च्याय खिणाक मोडून पडच्या तयारेंत आसलो. शिखा मात घोवाच्या हुस्क्यान हवालदील जाल्ली. तिका स्वत:ची सूद-बूद नासली. भावना आनी कांचान थतरवितर जावन तिणें अभिजीताक वेंग मारिल्ली.

"देवा तो फोन वाजुंदी एकदाचो" अभिजीत देवाकडेन एकसारको मागत आसलो. ताची परिस्थिती विचित्र जाल्ली. अचकीत ताची नदर टिवीर थिरावली. पड्ड्यार नदर वतांच तो एकदम स्तब्ध जालो आनी थंय टक लावन पळेत उल्लो. ताचें तरूण मन उचांबळ जालें. परिस्थितीच अशी आसली. तो एका तरूण, सुंदर बायलेचे वेंगेंत आशिल्लो, तीय ताका परत परत घट्ट धरी. तिच्या आंगाचो सुंगध, आंगलोट, श्वासाची आनीक आंगाची उशणताय ताच्या शरिरांत कंपना निर्माण करी. तातुंनूच टिवीवेलें कानसुलां तापोवचेलें उत्तेजीत करपी चित्र ताका तापोवन सोडी. ताचें आंकवार तरणाटें मन पेटून उठलें. ल्हव ल्हव ताच्यांत परिवर्तन घडून येवपाक लागलें. अविवेकावेलो विवेकाचो ताबो निखळपाक लागलो. शिखाले हुंडके आतां निवळल्ले. घेतिल्ल्या ड्रिंकाचोय तिचेर परिणाम जाल्लो. तिचो चेरो अभिजीतान आपणाल्या हातांत धरिल्लो. तिचे दोळे बंद आसले. वंठ विलग जाल्ले जणू तिका झुबेनालो वियोग सहन जायनासलो. तिचो तोल वचपाक लागिल्लो आनी ती अभिजीताक आनीकूय घट धरताली. भय, भंयकर बातमी आनी बेभान अवस्थेक लागून तिका अभिजीताल्या भावनेचो थांगपत्तो नासलो. तिका पिडेन पछाडिल्ली. दुखां खेरीज तिका दुसरी कसलीच जाण नासली. मात तिचे डाळिंबी वोंठ पळोवन अभिजीत बेभान जावंक लागिल्लो. ताणें आपणालें वोंठ तिच्या वोंठाकडे व्हरपाकूच टेलिफोन घणघणलो. त्या आवाजान शिखा सादूर जाली. अभिजीताले हात झटकीत ती फोनाकडे धावली.

"हॅलो, हय, हय" पिशें लागिल्लेवरी ती तकली हालयी. कांय मिनटां उप्रांत एकदांची लायन लागली. एक हात शिखान आपणाल्या काळजार दवरिल्लो. "सुरज, म्हजो झुबेन खंय? तो कसो आसा?" तिणें प्रस्नांचो दोंगोर उबाल्लो. "हय, - आं बरें.. तुका खात्री आसा?" एक एक प्रस्न तीन तिनदां

विचारून ती आपणाली खात्री करून घेयी. शेवटाक बरें तर थेंक्यू, हांव सकाळीं परत फोन करतां म्हणत तिणें फोन कट केलो. आतां तिचो चेरो सुसेगात दिसतालो. तोंडार चमक आयिल्ली. अरिश्टांतल्यान सुटल्या उप्रांत तिच्या दोळ्यांतल्यान थांबनासतना दुखां व्हावूंक लागलीं. नदर रोखून तिणें अभिजीताकडेन पळयलें. तिचे नदरेक नदर दिवंक तो धजलोना. तिणें रिसिव्हर नीट जाग्यार दवरलो आनी ती ताचे म्हऱ्यांत गेली.

"ॲबी झुबेन बरो आसा - विश्वास बसता तुजो हाचेर? म्हजो झुबेन सुखरूप सुरक्षीत आसा खंय - देवाचीच कृपा आनी अभिजीत तुजेय उपकार, तुवें म्हाका खूप आदार दिलो. घरच्या मनशा भशेन तूं पावलो" ताचो हात दामीत तिणें आपणाल्यो भावना उक्तायल्यो आनी ती दारावटयां वळ्ळी. "घरामेरेन पावोंव?" अभिजीतान चांचरत विचाल्लें. "नो थँक्स. आतां ताची गरज ना" परत आनी एकदां उपकार मानून तिणें म्हळें आनी दार उगडून लिफ्टाची वाट धल्ली. दारांतल्यान लिफ्टामेरेन तो शिखाक पळेत उरलो. 'च्युंक' आवाजान ताका शादूर केलो. ताणें टिवी बंद केलो आनी अचकीत ताची नदर परत दाराकडे घुसपली. लिफ्टांतल्यान वयर वचपी शिखा ताका हय न्हयशी दिसली. सुन्न मनांक थातारीत खिणभर तो थंयूच रावलो आनी आपल्यो घुसपल्ल्यो भावना सांवरीत गोंधळिल्ल्या अवस्थेंत ताणें दार बंद केलें.

❑❑❑

# म्हजो खरो उमराव

इक्नॉमिक्साचो क्लास चालू आसलो. सगळीं जाणां झरत मरत पूण तरीय लक्ष दिवन आयकयी. सहज म्हण हांवें जनेलांतल्यान भायर पळयलें. सकाळचें कवळें वत, थंड गुलाबी वारें मनाक ताजेंपण हाडी. परिक्षा तोंडार आयिल्ल्यो आनी ताचे उप्रांत सुटयो. टक टक आवाज जालो. म्हजी नदर सरावेल्यान दाराकडे धांवली. दारांत एक आटसाटो भुरगो उबो आसलो. गोरोपिठ्ठ, चल्यांच्या मानान तो इल्लो चडूच गोरो दीस. ताणें आंगांत नव्या स्टायलीचो कोराद होनालुलू खोमीस आनी जांगडार टायट बसता तसली निळसर विटकी जिन्स पॅन्ट घाल्ली. पळोवंक तो सामको हिरो सो दीस. फॅशन म्हण ताणें आपणाली पॅन्ट दिमयेचेर फोडिल्ली आनी ताचे दोके हालतकूच ती खांच खिणभर रूंदावन बंद जायी. ताचें खाशेलेंपण ताचे केंस. ताचे केंस चलयांक नसाय जावपा सारखे लांब आनी दाट काळेकुळकुळीत आसले. मातसोसो पेरतुरबाद जावन ताणें हात स्टायलीन केंसांतल्यान फिरयलो आनी भिरांकूळ, कावऱ्या-बावऱ्या नदरेन वर्गाकडे पळयलें. ताचे अर्दकुटे धांपिल्ले दोळे सगळ्यांच्या मतींत उल्ले.

कोणेंतरी फाटसून शिळोणी घाली. हें काम त्या सॅन्ड्राचेंच आसूंक जाय हातूंत दुबावूच नासलो. सॅन्ड्रा म्हणजे उडाणटप्पू, हुळहुळें आनी अवजाळी चली. ताच्यो सगळ्यो उनाडक्यो डिक्टो चल्याभशेन. क्लासांत ताका टॉमबॉय म्हण तें वगीच न्हय. सगळ्यांच्या हांशांत हांवूंय बिनदिक्कत सामील जालें.

नाय जाल्यार त्या इकॉनॉमिक्स प्रोफेसरालें वाजाड्डें लॅक्चर आयकूंक जाय आसलें कोणाक? वर्गांतली शांतताय एकदम बिथरली. भुरग्यालें फुतूरफुतूर वाडलें. सगळ्यांच्यो नदरो दारांत गुंथल्या म्हण प्रोसोराच्या लक्षांत आयलें. वोठांतल्या ओठांत कितेंतरी ताणें म्हळें, भुरग्यांलो कुलकुलाट मात वाडत आशिल्लो.

दारांतल्या हिरोन ल्हवूच भितर येंताद्र घेतलो आनी "हांव समीर" म्हण झेतान आपणाली वळख सांगली. वाजाड्ड्या प्रोसोराकडेन असल्या आलतू-फालतू गजाली खातीर वेळ नासलो. तकली हालयत ताणें समीराक पयल्या बांकार वचून बस म्हण तोंड उगडिनासतना बोटांनीच सिग्नल केलें. प्रोसोरालें बोरींग लॅक्चर परत कॉमेस जालें. "आतां ह्या आकृतिच्या वळणांकडेन सगळे बारीक लक्ष दियात" प्रोसोरान म्हळें. "खंयच्या?" कोणतरी मालवाद आड्डलो. "आकृतिचीं वळणां" म्हणणाफुडें अत्रविद भुरग्यांनी ताचो दुसरोच वेगळो अर्थ घेतिल्लो आनी फिदीफिदी हांसून क्लासभर बोवाळ केलो. प्रोसोरालें पित्त चाळवलें. तिडकीन खतखतीत भायरे डोस दिवंक तो वळ्ळो मात पिरयड सोंपिल्ल्याची घंटा वाजली. वोठांवेलीं खर विखारी उतरां ताणें कशीबशी जिरयलीं आनी भितल्याभितर चणचणत आपणालीं पुस्तकां खाकेक माल्लीं आनी क्लास सोडलो त्याबराबर सगळ्यांनी सुटकेचो श्वास घेतलो.

क्लासांत आयज हांव निमणें बांकार बशिल्लें. ह्या वटेन प्रोसोरान वचूंक पावल उखललां मात आना धांवत म्हजेसरीं आयलें. "चल बेगीन कॅन्टीनांत या, म्हाका भूक लागल्या" आंवडो घोटीत ताणें सुचयलें. आनांक शिकचे परस गिळूंक चड आवड. "मातशें राव आं?" उबगणेच्या आवाजांत हांवें ताका जाप दिली. "तुज्या कमरेचो बालांव पळे - दिसान दीस फुगत चल्लां." "बरें बरें" सॅन्ड्रा मदींच आपूण पिचकलें. "आयज जाण्टेलेचो भायर वचचेलो मूड दिसना न्हय.. घडये .. घडये त्या नव्या, सोबीत सॅक्सी दोळ्यांकडेन बी हाचो संबंध ना मूं?" दोळे मिचमिचायत सॅन्ड्रान म्हळें. "पळे सॅन्ड्रा तूं आनी आनीक गरजेभायर म्हाका त्रास दिनाका आं! आनी हय गो तुवें ताचे दोळे केन्ना पळेले गो?" हांवें बळयां तिडकत विचाल्लें. "आं..? हांवें पळोवना म्हणटा...? हें चल्लें तर हांव अशेंच, आतां पळयतां ताचे दोळे" अशें म्हणीत

ताणें दोन तीन धेंपां माल्लीं आनी मदींच वळ्ळें "तूं म्हजे फाटसून येना जाण्टेले?" आनी मुखार म्हजे जापेची वाट पळयनासतना तें दिरेंत ताचेसरी गेलें.

इंतेरवाल जाल्लो. वर्गांत इन-मिन भुरगीं आसलीं. हिरो एकटोच बशिल्लो. तसो समीर दिसूंक बऱ्यापयकी सुंदर आसलो आनी तो चलो जावनूय ताचे केंस दाट, लांब, रेशीम कशे मोव आसले. केंसांचीं ल्हारां आनी नातुराद तपकिरी कोर सोबितकायेंत भर घाली. पूण आजून ताचेकडेन वळख करपाक कोणूच कसो फुडें सरूंक ना म्हण म्हाका अजाप दिसलें. तर सॅन्ड्रा ताचेसरी पावलें आनी ताचो हात हातांत घेवन उलोवंक लागलें. आमकां ना म्हळ्यार मत्सर जालोच. सॅन्ड्राकडेन ताच्यो इस्पेशाल, वेगळ्यो, स्वताच्यो अश्यो कांय खास खबऱ्यो आसल्यो. आपणाल्या सडेतोड, बेधडक, खेळिमेळिच्या सभावान तें लोकांक आपलेशें करी. ताच्या सांगातान वेळ कसो वच,हें कळनासलें. उलयतां उलयतां समीर उठलो आनी ताणें आमकां हात केलो. आनान आनी आनीक वेळ लायलोना, आपली भूक-बिक विसरून ताणें हो येदो व्हडलो हात काडून ताका हालयलो. चुळचुळें रव - केन्ना हात हालोवंक मेळटोलो काय म्हण. हांव अशें अर्दवट चोरिल्लेभशेन हांसलें. मंद, नमळायेन चलयांक सोबसारखिलें ल्हवू, हांसत केंसांतल्यान हात भोंवडायत ताणें आमकां प्रतिसाद दिलो. ताणें केंसांतल्यान हात फिरयताच आज्ञाकारी आशिल्ल्या भशेन नीट जायत ते जुस्त जाग्यार बसले. ती ताची कृती पळोवपासारकी आसली. हें जर चली जाता - तर खरेंलेंच अतीशय सोबीत दिसपाचें - मनांतले शब्द फट्ट करून वोठांर आयले आनी आनान ते जुस्त आयकलेय. अजापान तें म्हाका पळोवंक लागलें. पूण दुसऱ्याच खिणांक तें ताकाय पटलें. बॅल जाली. इंतेरवाल काबार जालो.

गणिताचो पिरयड आसलो. सॅन्ड्रा म्हजेसरीं येवन बसलें. ताका येतिश्ट खबऱ्यो मारचेली कूय आयिल्ली. बसनाफुडेंच ताणें सूर लायलो. "कितलो सुदर न्हय? ल्हान बेबी कसो, एकदम कुचिपी" मुमुरखें हांसत ताणें म्हजेकडे पळयलें. हांवें आयकून न आयकल्ल्या सारकें सोंग घेतलें. तितल्यान वगी बसलें तर तें सॅन्ड्रा कसलें - फटाफट ताणें कागदार कितें तरी खरडिलें आनी

म्हजें म्हऱ्यान धुकल्लें. हांवें तरीपूण दुर्लक्ष केलें. गणितान मग्न आसा म्हण भासयलें. सॅन्ड्रान म्हजो मूड पारखिलो आनी कांय वेळ आपणाली चुळबूळ थांबयली.

दुसरे दीस ब्रुनोंक समीरासयत पळोवन आमकां अजाप दिसलें. घटमूट पिळदार आंगलोटाचो ब्रुनो खंय आनी शिडशिडीत, सडपातळ, नाजूक समीर खंय? दोगांयलो मेळ कसो बसलो कोणाक खबर. पूण आयज दोगूय पोन्ने, पयलींचे आमीग आशिल्लेवरी एकठांय चिकटून बशिल्ले. समीर हिसपाभायर ब्रुनोंक दशिल्लो. तें पळोवंक कशेंशेंच दिसतालें. नाजूक वाल आधाराखातीर वण्टीक दसता त्या परीन समीर ब्रुनोक चिकटल्लो. म्हणटासर हातांनी तोंड लिपोवन ब्रुनो समीरावांगडा बागवलो. त्या हाता आड कितें घडलें तें हांव सांगपाक नकळ पूण उप्रांत ब्रुनोन ताच्या पोल्यार नाजूक चापटी माल्ली. दोगूय फुसुफुसू करून हांसले, हांव मात थक्क जावन तांकां पळेत उरलें. ग्यारेंटेड खंय तरी पाणी मुरतालें. मनांत जबर दुबाव आयलो. हांवें हांगा थंय पळेलें सगळे आपआपल्या कामांत आसले. तांची करामत कोणाच्याच लक्षांत येवंक नासली. पाड पडूं म्हण हांवेंय मागीर म्हजी मान कादेन्नात बागयली.

हांव एकलेंच लायब्ररींत बशिल्लें. इतल्यान फाटीक कोण लागिल्लेवरी सॅन्ड्रा धापेत, खर्शेत म्हजेसरीं आयलें. गरजेभायर धांवत सोपणां चडचेली ताका उमेद. आयजूय तें धांवत सोपणां चडलां हें ताका पळेताच हांवें ताडलें. भितर सरनाफुडें ताणें सुरू केलें “जाण्टेलो तो - तुजो सॅक्सी गो.. अर्धवट आयकसर राव...” परतूय तें अर्दकुटेंच उलयलें. घडये म्हज्या मनांत उत्सुकता निर्माण जावचेली तें वाट पळयी आसूंक जाय. “जें किदें आसा तें तूं तुजेकडेनूच दवर आनी मातशें भायर वच एकदाचें.” हांवें उसणो राग हाडीत ताका म्हळें, “दोन चिकन रोल्स...सोडटा..? आसा तयारी..?” ताणें म्हज्या दोळ्यांतली उत्सुकता जुस्त हेरली. “मोठेंच देंवचार जातलें हें चली.” हांवें मनांत म्हळें आनी ताचें नरडें आवळूंक बळयांच हात ताच्या गळ्याकडे व्हेले. ताचेपासून सुटका नासली हेंवूंय तितलेंच खरें “बरें चल सांग कितें तें.” हांवें म्हळें. जग जिकिल्लेवरी तें हांसलें जशें की ताका पयलींच खबर आसलें. “तो मगो - तो मगो एक विलक्षण स्वच्छंदी, रंगेल, विलाशी आनीक छंदी -

फंदी मनीस." सॅन्ड्रान गुपीत उक्तायलें आनी दोळे वटवटायत आमचेकडेन पळयलें. "ओ नो.." आनान गरज नासतना जीब ताळ्याक दसयली. अशें दीस जशें ताका जबर शॉक बसलो आनी तें आतां घुवळून सकयल पडपाक पावलां. म्हज्या दुबावाक मात ह्या गजालीन बळकटी हाडिल्ली.

एकदम म्हज्या दोळ्यांमुखार तांचो जोडो उबो रावलो. आनीक चड चिंतीनासतना हांवें म्हज्या दुबावार टिक केलें. मनांत खंय तरी म्हाका वगीच फटवल्ल्या भशेन जावंक लागलें. "बरें तें कितेंय जांव - चल हांवच तुका हुनहुनीत भजीं आनी तुज्या आवडिचो मँगो ड्युक्स दितां". पाताळयंत्री सॅन्ड्रालें अजून सोपूंक नासलें. ताची बारीक चौकस नदर म्हज्या तोंडावेले बदल निरखीताली. लाडालाडान आपुलकी परगटायत तें म्हजी सांत्वना करपाक लागलें. "पळे थोडो धीर धर, तुजो उमराव म्हणजे कोण असो-तसो, आल्तु - फाल्तु आसूच शकना - तो खूप शूर, झगझगीत कवच घालून घोड्यार बसून केन्नातरी येतलोच आनी तुज्या सान दोंकल्यासयत तुकां उखलून व्हरतलो." अचकीत कितेंतरी चुकिल्ल्या भशेन, विसरिल्ल्या भशेन तें थांबलें. ताणें आपली कॅसेट परत रिव्हांयण्ड माल्ली "तर आमी अशें म्हणुया तुज्या सुकुमार, मोव, सोबीत, नाजूक दोक्यांक - न्हय न्हय पद्‌कमलांक धरून, म्हणपाक जाय न्हय?" ताणें आपणाली चूक सुदारली. ताच्या तोंडावेले गांभिर्य आनी चिंतेस्त भाव पळोवन येदवेळ हांसू चिड्डून राविल्लीं आमी सगळीं एकाबराबर व्हडल्यान हांसलीं. हांवें म्हजो हात ताचेकडसून सोडोवन घेता आसतनाच सरान लायब्ररींतल्यान आमकां भायर धावणायलीं.

थोड्यां दिसांनीच समीर फकणाचो विशय जावन पडलो. कॉलेजांत, भायर क्लासांत सगळींजाणां उठसूट ताच्यो टिंगली मारी. तोंडार उगड उगड जोक्स करी आनी तो कसोय आसलो तरीकूय म्हाका ताची काकूट दिसल्याबगर रावनासली. तो निलाजरो तरीपूण त्या ब्रुनोंक म्होवामूस कसो चिकटून आसतालो. एकसारको ताच्या फाटल्यान शेणिल्ल्या सुण्या पिला भशेन. हालीं ब्रुनोकूय ताच्या त्या बायजणपणाचो वाज येवंक लागिल्लो. ताचे वांगडा रावन तो ताचेर व्हड उपकार करता ह्या थाटांत तो वाग. समीराकडल्यान आपणालीं बारीक सारीक कामां करून घेयी आनी बापडो

समीर इश्ट ह्या नात्यान तोंड धापून पडटां तीं ल्हान व्हड कामां करीत आसलो. ब्रुनो ताचे बरोबर भोंवचो - बिवचो म्हण न्हय वा ताचे कसले उपकार फेडपाक म्हण न्हय पूण ब्रुनोचो मात तसो समज जाल्लो खरो.

समीराकडेन आमचो चडसो संबंध येना आसलो. सॅन्ड्रा आनीक आनाकडेन तो चड मेकळेपणान वाग. तो आसलो की हांव मोने जायी. तो वायट म्हण न्हय पूण वगीच एक अढी मनांत ठाण मारून बशिल्ली. तशें पळोवंक गेल्यार ताचें वागप, बोलप, रूबाब, आचार-विचार, हुशारी, कर्तुबां, हजरजवाबिपणां हातूंत गुणूच दिसून येयी. दुसरे म्हणजे तो मितभाशी आसलो. म्हज्या आखडू वागणुके खातीर मात ताका सदांच अडिल्ल्या भशेन जातालें. आनी हाचें खरें म्हळ्यार म्हजें म्हाकाच वायट दिसतालें. तो आपणालो सभाव बदलूंक शकनाशिल्लो आनी हांव म्हजे विचार. एकूण आमची दोगांयली परिस्थिती गरजेभायर त्रासीक जावन पडिल्ली. खरें तर केन्ना-केन्नाय म्हाका म्हज्याच संकुचीत वृत्तिचो तिटकारो येयी. वेळानुसार सगळ्यांनी ताका जशाक तसो आपणायलो पूण ताचे बद्‌दलची म्हज्या मनांतली अढी मात कायम उल्ली. तो बायजण, फ्लदशन, पेदो, कांबळी फुजांव आनी हो आनी तो - लिस्ट लांबत वच पूण निमणें म्हजें म्हाकाच वायट दीस आनी ताचेकडेन बरें वागचेलो हांव सोपूत घेयी पूण दुसरे दीस तो सामकार येतांच चिंतिल्लें सगळें ओम फस जायी. हालीं सॅन्ड्रा, ब्रुनो, आना आनी समीर बरींच दाट जाल्लीं. हांव मात म्हज्या आखडू सभावाखातीर पयस पडिल्लें.

म्हजी मानसीक स्थिती गरजेभायर वायट जायत आसली. तांचे मदीं हांव एक मोने प्रेक्षक जावन आसतालें, नातर एकटेंच लायब्रींत सडटालें. समीरा बातींत जरी अढी आसली तरी लेगीत मन ताचे भोंवतणी भोंवतणी घुंवतालें. ताचो सांगात, ताका पळेतकी जिवाक बरें दीस. कॅन्टींनांतले जोक्स एकमेकाची फकणां, मनमेकळें हांसप, म्हज्या मनांत विचारांचें वादळ हाडी. मनाच्च्या कोनशांत नसाय जाताली पूण दुशणां दितलें कोणाक? ह्या सगळ्याक म्हजोच दुबावी सभाव जबाबदार आसलो. तो बायजण आसूं वा बावळट, जसो आसा तसो ताका आपलो म्हळें की जालें, मनाचें फुगासांव आपसूक पयस जावपाचें. तसो तो कितें दुसऱ्या ग्रहावेल्यान येवंक नासलो. फक्त तो

मातसो इल्लो सगळे बाबतींत नाजूक दीस इतलेंच. जर चुकलां आसत तर तें हांवच. ताका दोश दिवपांत कांय अर्थ नासलो. म्हाका हें सगळें कळ पूण हांव तरीय वळ मात नासलें.

आमच्यो टर्मिनल परिक्षा सोंपल्यो. सगळ्याले पेपर बरे गेले. सुटयांच्या उमेदीत दर एकलो खोशी दीस. म्हाकांय खूप उमेद जाल्ली. केन्ना एकदां घरा पावतां - साटली पोटली बांदतां आनी मुदासाक वतां अशें जाल्लें. सगळीं जाणां एकमेकालो निरोप घेतालीं. हांसून खिदळून वेंगो मारून टाटा करतालीं. बऱ्याच वेळांत एकदांची बस दिसली. मनांचो मोर फुरफुरलो, उमेदीक पांय फुटले. फांटी-फुडें पळेनासतना हांव रस्त्यार धांवलें. नदर बशीर आशिल्ल्यान उजव्यांत येवपी मोटारीचें म्हाका भानूच उल्लेंना. मरण तकलेर घुंवतालें.

कान भेरावपी आवाज करीत गाडयेन फूल ब्रेक माल्लो. तेन्नाच हांव मोटारीच्या मदीं पाविल्ल्याचो भास म्हाका जालो. इतल्यान कोणेंतरी आकांतान ओडून घेतल्याची जाण म्हाका जाली तरी मोटार घश्टलीच आनी हांव आनी म्हाका वाचयणारो खडयेवेल्यान गडगडत कांट्याकुटयांतल्यान निसरत, घश्टत खंयतरी वचून आपटलीं. वेदना आनीक घुंवळीच्या धुसर पड्ड्यांतल्यान जिवार उदार जावन वांचयणाऱ्याचो रक्तबंबाळ चेरो म्हाका स्पश्ट वळखूंक आयलो. हय - तो समीरूच आशिल्लो. ताच्या कपलाक घाय पडिल्लो आनी तांतल्यान रगत व्हांवतालें. म्हाका वाचोवंच्या नादांत तो स्वत: गाडये खाला येवची दाट शक्यताय आसली आनी तरी धाडसान आपणाल्या जिविताची पर्वा करनासतना ताणें म्हजो जीव वाचयल्लो. म्हजें मन म्हाका शिणूंक लागलें. "हाय देवा" - पश्चातापान हांव उद्गारलें. समीर बायजण न्हय, तो नेभळट न्हय, तो खरोच धाडसी सरदार म्हण ताणें आयज साबीत केल्लें. ताचें उशण रगत म्हज्या रगतांत मिसळून तोंडार गळतालें. आतां मन साफ जाल्लें. फुलाभशेन ताणें म्हाका हातार धरिल्लें आनी त्या घटमूट हातार, साफ मनान निर्धास्त जायत हळुहळू घुंवळिंतल्यान सादूर जावंचो हांव प्रयत्न करतालें.

❑❑❑

# एक कार्ताशि

**को**लू - एक भटकें पूण मिस्तुराद जातीचें सुणें. ताच्या तोंडार एका भशेचीच सोबितकाय आसली. ताका बापड्याक नांव अशें कोणेंच दवल्लेंना तरीय सगळो गांव ताका कोलू म्हण वळखयी. कोलू म्हण उलो मारतकी तें पेंगट आनी शेपडी हालयत भीत-भीत आपोवणाऱ्याकडे वच.

आयज कोलूच्या मनांत कितें आसलें देवाक खबर. आपल्या दावकुलांनी तें जमनिची माती उसतीतालें. म्हणटासर ताणें आपणाल्या आंगवटीक जायसो एक ल्हान फोणकूल तयार केलो आनी तातूंत भितर वचून बसलें. आवोंताद बशिल्ल्या कोलुचें दावल दनपारच्या वाऱ्यान आपसूक हालतालें. जमनीन आपणाल्या मोव उबदार मातयेंत, मवाळ कुशींत ताका घेतिल्लें पूण ताच्या पोटाची भूक भागोवंक ती धरणीमांय असमर्थ आसली. दोळे बंद करून कोलू झेमेची वाट पळयी. पोटभर जेवल्यार ताका घडये वर्सां जाल्लीं.

कावळ्याचे कार्रेगाद कांव कांव कानार पडनाफुडें कोलून आळसावलेली नदर वयर उखल्ली. फांदयेवेलो कावळो दुसऱ्या कावळ्याले चोंचींत खावपा वस्त पळेत कर्कश आड्डतालो. कोलुची एकसुरी नदर आड्डणाऱ्या कावळ्यावेल्यान दुसऱ्याल्या चोंचीर पडली. कोलुचो एक दोळो तवनास तिरादोर भुरग्यांनी फोडून उडयल्लो. मस्त पोरांनी केल्लो फातरांचो शिंवोर येवजितांच कोलूक भंयान कांपरें भर. तेदवेळा कोलू खूप ल्हान, कांय म्हयन्यांचेंच आसलें. भुकेन कासावीस जावन तें त्या नव्या जाग्यार पिरपिरत,

भीत-भीत दये वांगडा भाकरेचो कुडको मागत भोंवतालें. कुडको उल्लो कुशीकूच त्या सान देवचारांक कसली मजा दिसली देवाक खबर, ताणी ताचेर घे.. म्हण फांतराचो शिंवोर केलो. तातूंत बापड्याचो एक दोळो सासणाचो बाद जालो. मजा म्हण केल्ली तीं क्रूरपणां पळोवन कोलूक प्रस्न पडिल्लो - स्कूल नांवाच्या त्या घरांत मार-बडोवचेलें शिकप बी दितात काय कितें? वात्रट पोरांलो धाक आनी धास्तेन भिल्लें कोलू तरी आसतना भितभित थंयच वच - क्रित्याक तर तो एकूच असो जागो आसलो जंय खोटे वांगडा भाकरेचे कुडके दोन कुडके तरी खावंक हमखास मेळ.

तर कोलून कावळ्याची आकृती जुस्त टिपली. ताच्या तोंडांतलो भाकरे कुडको पळेत कोलून आपणाली गुलाबीच जीब भायर काडून आंवडो घोंटलो. आंवड्यासयत भितर गेल्ली जीब परत वेतभर लोंबकळायत तें भाकरेचेर विस्त लावन बसलें. कावळ्याच्या चोंचिंतल्यान पूण कूस लेगीत पडूंक ना. भाकरेचें निमणें कूस लेगीत कावळ्यान गिळ्ळें. आशेन बशिल्ल्या कोलून लाळेन लडबडिल्ली जीब भितर घेतली. निरशेल्लें कोलू पांय दोडून परत त्याच फोंडकुलांत लवणलें.

कांय वेळ असोच पासार जालो. सुसेगाद बशिल्ल्या कोलूक कानाकडे खूप खाज सुटली. पांय वयर-सकयल हालोवन तें कान खाजोवंक लागलें. कोलू खरशेलें, कानांतल्यान रगत येवंक लागलें. ताची शक्त सोंपत आयली तरी कानाची खाज थांबली ना. आनीक खाजोवंक जायना जातकीर मागीर ताणें तो प्रयत्न सोडून दिलो आनी आपसूक खाज थांबचेली तें वाट पळयत त्रास सोंशीत रावलें. ल्हान-ल्हान रगताचे थेंब ताच्या गळ्यामेरेन पाविल्ले. भरीक भर म्हण खंयच्यान तरी मुसाचें भिरें उडत आयलें आनी घाव्यार बसपाक लागलें. पिडेन लाचार जाल्ल्या कोलून आंग झटकिलें आनी तें उबें रावलें. मातयेचे कांय कण ताच्या घाव्यार बसले आनी तितलो वेळ तरी ताची मुसांपसून सुटका जाली. नाक, पांयामदीं कोंबून ताणें आंगाची गुठली केली आनी न्हिदेचो प्रयत्न करूंक लागलें. ताका बापड्याक आयज कशीच न्हीद येना आसली. विचारांनी ताका बेजार करून सोडिल्लें. एके वटेन मूस आनी दुसरे वटयां भूक.

खंयच्च्यान तरी टोळभैरव छोटू थंय आयलो. छोटू कोलुलें ल्हान पोर. येनाफुडेंच ताणें तरेकतरेच्यो टिवल्यो बावल्यो करून अच्छेव मांडलो. खंयची शेपटी हालय, एकीकडेन जीब भायर काड, म्हणटासर तो कोलुल्या फाटीर चडूंक लागलो. आपणाल्या इल्लेशा हातापांयानी आवयक सतावंक लागलो. सोंड, हात, पांय, शेपडी, जीब वापरून तरेतरेन कोलुचें लक्ष आपणांकडेन वळोवचेलो प्रयत्न करूंक लागलो. निमणें कोलू वाजेलें आनी ताणें गुर्र केलें. हळूच पूण जरब बसोवपी आवाजांत ताणें छोटूक कडक ओर्द दिली. एका म्हयन्याचो पोर पूण धीट खुपूच. कोलुल्या दटावणेचो ताचेर मात्तूय परिणाम जालोना. ताच्या हेर स भावणांचो काळान क्रूर बळी घेतिल्लो. फक्त छोटू तितलो वांचिल्लो. सुस्त पडून कोलु पोराचे मनमौजी खेळ सहन करतालें. तीच संद सादून छोटून आवयलें तोंड येतिश्ट चाटून घेतलें. इल्लो खाणाकुडको वा नुस्त्या वास मेळ्ळ्यार चाटचेलो ताचो बेत आसुये. थंयचें सोंपतकी छोटून आपणालो मोर्चो कोलुल्या आंचळाकडे वळयलो. हपापिल्ल्या भशेन ताणें आंचळाक झटको दिलो पूण दीस - दिसभर उपाशी आशिल्ल्या कोलूक दूद खंयचें जातलें? छोटुल्या झटक्यांनी ताचें फॉड मात दुखावले. रागा परस पिडेन कोलू गुरकावलें. वंठ वयर काडून हळदुवेच सुळे दांत दाखयत ताणें छोटूक भय घालो. आतां पुरो - वात्रटपणां चड जालीं. शाणो जाल्यार तोंड बंद करून मुकाट्यान रस्तो सुदार ना तर त्रासांत पडटलो. हुशार छोटून आवयलो नूर जुस्त पारखिलो. इल्ली शेपडी पांयामदीं लिपोवन खिणभर थामून आपणाली दाळ कशीच शिजची ना हाची खात्री केली आनी आवयकडे फाट करून झाडांनी पळ काडली. ह्या दिसांनी ताच्या आवयचो मूड सदांच ऑफ आस. कोलूक मनापासून खूप वायट दिसलें. हाचेमुखार तो दिसतूच म्हण खात्री नासली. नशिबान ताका बेजार करून सोडिल्लें. अवघ्या दोन-तीन म्हयन्यांचें आसतनाच ताचो भांगरासारको दोळो गेलो. एकवेळची ताची धवीफुल्ल ल्हंव वचून आंगभर पुळेर फुटिल्लो, चवनां पडिल्लीं. ताच्या कानाक परतून खाज सुटली. तकली फोर्सान हालोवन भितल्ल्या किड्यांक थातारपाचो ताणें प्रयत्न केलो. ताचे पयल्या आनी घडये निमण्या गुरवारपणांतले ताचे स जिवाकुडके तडफडून मेल्ले. तांतलो उरिल्लो एकटो छोटू. एका अर्थान

जाल्लें तें बऱ्याकूच. त्या भंयकर जिणेंतल्यान तांची अचळय सुटका जाली. ताका आतां छोटुची चिंता आसली. छोटू शिवाय ताचो ह्या संवसारांत कोण एक नासलो. छोटू इल्लोसो टुमटुमीत हुशार जीव. बारीक आसुनूय तो गुडगुडीत दीस. आंगावेल्या काळ्याधव्या ठिपक्यांनी तो डेल्मेशियनसो दिसतालो. पोर बापायचेर गेल्लो. तें पूण कितेंय आसूं छोटू दीस मात जबरदस्त. कोलू हालीं दीस रात देवाकडे एकूच मागणें करी, निदान म्हज्या छोटूक तरी बरें घर दी, कोणातरी ल्हान भुरग्याल्या मनांत ताच्या बद्दल कणव निर्माण कर रे देवा आनी ताका आसरो दी. बरें घर दी. म्हजो बाबडो ल्हान पोर म्हणत कोलू सुस्कारलें.

न्हिदेची वाट पळेत बशिल्ल्या कोलूक न्हिदेचो देव कसोच प्रसन्न जाय नासलो. आपणालो दोळो पिटपिटायत ताणें शेतांत हालचाल टिपली. थंय एक धुकनिचें हें व्हडलें धुंड आल्मी खुशाल भोंव. काळ्या-धव्यांची तिची भरपूर प्रजावळ तिच्या फाटसून हेवटच्या - तेवटया पांयांमदल्यान धांवताली. तांतुनूय खंयच्च्यान तरी कावळेबाब येवन तांच्या फाटीर विराज आनी फुकटच्या सवारीची मजा लुटी. धुकनिक वा तिच्या पिलांक राग येना आसलो. तीं उमेदीन शेतांत हुदडटालीं. कोलूक तांची मनांतल्यान तिडक येयी. धुकर तो धुकर आनी तरीय झेत व्हडलो. आवोंताद रावन तीं संवसारांतली मजा लुटी.

शांतारामबाब, बांधकामावेलो एक मुकादम हातांत तांबयो घेवन शेतांत रिगलो. ताचे फाटल्यान एक एकलो कामगार हाताक मेळटा तें, बाटली, डबो, घेवन शेतांत कुटुऱ्यो करपाक लागले. दनपरां गांवचे लोक वामकुक्षी घेतना हे कामगार लोक शेतांत हळूच आपालिपाचो खेळ खेळटाले. कोलू पयसुल्ल्यान तांकां पळयी. येदीं व्हडलीं धुकरां पळेतकी ताचें पोट रागारागान आड्डतालें पूण त्या मातिल्ल्या धुकरांफुडें ताचें कांय एक चलनाशिल्लें. तांचें सोंपतकी तें थंय आपली एक अळंग व्हीजीट मारी. तीं मालवाद धुकरां, धुकरां जावनूय ताचे आंगार धावून येयी. एकदां हेर धुकरांपासून फाटीं उरिल्ल्या धुकराच्या ल्हान पोराक मटकावच्या विचारांत तें फुडें सल्लें. संकटाचो वास ताका कसो लागलो कोण जाणां, तें एकदम चिं चिं करून आड्डलें मात - खंयच्च्यानतरी ताच्या आवयन मुसंडी माल्ली आनी तोंडाचो आ वाशिल्लें

कोलू उक्तेंच तोंड घेवन शेपडी तुटसर जीव घेवन धांवलें. तो प्रसंग येवजनाफुडें कोलूक खपखप सुटलो. त्या वक्तार सान ताणें त्या कुसकें खावपी जनावरांचो नादूच सोडलो.

कोलुच्या कानांत परत किडे उळउळ्ळे. ह्या खेपेक ताचो पांय बरोबर घाव्यार पडलो - म्हातेर, रगत आनी कितलेशेच ल्हान ल्हान किडे जमनीर शिपडले. सकयल पडिल्ले ते ल्हान पूण भंयकर जीव रांगत ताचे वटयां सरकूंक लागनाफुडें भिरांतेन थरथरत तें उबें रावलें आनी काळीज फुटसर धांवत सुटलें. दर्या ल्हाराचो आवाज कानार पडटकी ताणें धांवपाचो वेग कमी केलो. दर्या थंयच्यान चड पयस नासलो. कोलून वेळेर वचपाचें थारायलें. दनपारच्या खर वोतांत रेवेवेल्यान गरमेच्यो उश्ण वाफो भायर मारताल्यो. धांवत आयिल्ल्यान ताच्या दोळ्यामुखार काळोख आयलो. ताका खुब पुरो जालें. कितलेशाच दर्या-वेळाचेर टुरिस्ट लोक तुडूंब भरताले - शेक्स, ल्हान दुकानां, गाडयांची गर्दी जायी आनी ताचे सारखीं गरीब सुणीं आवोंताद जग. तें मात ह्या वसाड जागेंत सडटालें. ताका दुखी पळोवन ताच्या इश्टांनी ताका धीर दिल्लो. थंयूय हालीं नव्यो बिल्डींगो तयार जाताल्यो आनी तोय एक टुरिस्ट स्पॉट जावचेली शक्यताय नाकारूंक येना आसली. एकदां लोक येवपाक लागले की तांच्या पोटाचो प्रस्न सुटपाचो. तो दीस पळोवंक तें जगत काय उरत हाची गॅरेन्टी नासली. कानांतल्यान कीड मेंदवांत पावली म्हणजें जालें. ताच्यो सगळ्यो चिंता सुटपाच्यो. ल्हवू ल्हवू हाल हाल करीत मरण ताचे वटयां सरकतालें. ताचो काळजा कुडको छोटुची ताका याद आयली. उमेदीचें ल्हार ताच्या शिरेंतल्यान धांवलें. पिडेचो ताका विसर पडलो. छोटुची भलायकी ताणें देवा लागीं मागली. ताच्या वाट्याक तरी असले त्रास येवचे न्हय म्हण ताणें गाराणें लेगीत घालें.

वयर सकयल हालतात तीं ल्हारां पळेतासतना कोलूक ताचो मोगी टायगराची याद आयली. तो काफेकोराचो, धिप्पाड आनी लांब-रूंद आसलो. लांब - लांब दांगो मारीत घोड्या भशेन तो धांव. ताची भरदार छाती, झडप घालपी नदर, काळ्या नाकावेलो धवोच्च तिळो आनी धुसमुसळो सभाव ताका येवजलो. ताची ल्हंव बरी बारीक आनी मोव आसली. वतांत धांवतना

ती भांगरा भशेन चकचकताली. टायगराक कोलू खूप आवड. ताच्या सगळ्या पिशेपणाचेर तो मोग करी. कोलूक पळेतकी शेपडी हालोवन, उडयो मारून शिंबा भशेन तो धांवत येतालो. उडाटप्पू, भटक्या कोलूंत ताणें अशें कितें पळेल्लें देवाकूच खबर. कोलूय मागीर नाचत, पेंगट हालयत गुरगुरत नखरे करी. कोलुल्या त्या पिशा नखऱ्यांक भुलूनच तर ताणें आपलें भरिल्लें घर सोडिल्लें. न्हिद, जेवण, सगळें सगळें सोडून देवदास जावन तो ताचे वांगडा भोंवतालो. इतलेंच न्हय ताणें एका पोन्न्या मोडक्या वसाड कपेलांत आपणालो संवसार लेगीत मांडिल्लो. त्या निवांत जाग्यार मळबाक साक्षी दवरून त्या दोगांयनी बरेच फावट मोग फुलयल्लो पूण सूख कोलुच्या नशिबांत नासलेंच. एक दीस टायगर मुन्सीपालीटीच्या सुणीं मारप्यांच्या आरमांक बळी गेलो. एका गुळयेंत ताचो जीव आटापा आयलो. ताच्या गळ्यांतलो पोटो ताच्या ल्हवेंखातीर त्या दुश्टांक दिसलोना आनी ताणी ताका बेवारशी समजून ताचो खून केलो. याद येना फुडें कोलूक खूप रडूंक आयलें. गांवापासून तें आतां बरेंच पयस आयिल्लें. दर्यावेळ वसाड पडिल्ली. केन्नाय नुस्तेकार दिसताले तितलेच. कोलूक एकाएक निरशेल्ल्या भशेन जालें. ताची जगचेली इत्साच मेली

एक एक सोपण कश्टान चडत कोलू त्या पोन्न्या कपेलांत गेलें. टायगराच्या यादीन तें सैरभैर जालें. यादी कणकणी ताच्या मनांत निरशेणीचीं कुपां साटत रावलीं. टायगरा फाटल्यान ताच्या जिणेंतली रसणायूच काबार जाल्ली. हांगा बरें थंड आसलें. झाडां-पेडांनी हो जागो भरिल्लो. वयर पावनाफुडें कोलूक कोणाचें तरी उलोवणें आयकूंक आयलें. ताचो एकसुरो दोळो लिकलिकलो. एक तरूण आंकवार जोडपें त्या एकांत जाग्यार बसून मोगाखेळांत गूंग जाल्लें. चलयेची नदर कोलूर पडली. ताणें ताचे वटयां बोट दाखोवन चल्याक कितें तरी सांगनाफुडें मदनाच्या कैफांत धूंद जाल्ल्या त्या मस्तवाल मनशान फाटलो फुडलो विचार करिनासतना “कोलू खंयचें” म्हणीत ताचेर नेटान फातर भिरकिटायलो. तो फातर बसनाफुडें कोलून आंग काडून किळच माल्ली आनी पयसुल्ल्या कोनशाक बसून आपणालो ताजो घाय चाटत रगत थांबोवचेलो प्रयत्न करपाक लागलें. परत चलयेक ताची नसाय

जाली. ताणें चल्याकडेन परत ताची चाडी केली पूण फाजील चाळ्यांनी मग्न आशिल्ल्या चल्यान ह्या खेपे थंय लक्ष दिलेंना. पयस कोनशाकसान पळयणाऱ्या कोलूक तांच्या मनीसघाण्या सभावाची कींव आयल्याबगर रावलीना. जनावर आसुनूय ताका तांचेबद्दल घृणा, लज आनीक वायट दिसलें.

सूर्य अस्तमेक वेतालो. तें जोडपें आपणाले थेर आटापून घरा वचूंक भायर सल्लें. सगळी कार्यावळ सोंपतकी त्या निबर काळजाच्या मस्तेल्ल्या रोमीयोन कारणाभायर एक व्हडसो फातर कोलूचेर नेटान शेंवटिलो. तो फातर जुस्त कोलुच्या दुसऱ्या दोळ्यार बसलो. बापड्याचो दुसरोय दोळो फुटलो. रगताचे पाट व्हांवपाक लागले. पिडेन जर्जर जाल्ल्या कोलूक कितें करचें म्हण सुचलेंना. एक क्षिण किळच मारून भिरकेबराबर तें जें धांवलें तें वणटीर वचून आपटलें. धडक बसनाफुडें ती पोन्नी वणत धडाम करून पडली. चिरे, माती, फातरां-विटाची रास कोलूचेर पडली. “हाय देवा” तांतल्या तातूंत कोणें तरी म्हळें. “सोड, वचूं नाका, रॅबिज बी जाला आसत” दुसऱ्यान दिवे लायले. दूक कोलूच्या मेंदवांत पाविल्ली. ताच्या मनांत प्रस्न उबो रावलो - रॅबिज कोणांक जालां म्हाका काय मनीस जातीक? हाल हाल करून मारचे परस तकलेर गुळी कित्याक घालिना? फकत एक गुळी घालात. “कोलून दयेची भीक मागली. उठपाक उबें रावता आसतना तें जमनीर शेवटलें. किड्यांक लेगीत साधलेंना तें फातरान काम केलें. लोकांले आवाज पयस पयस वताले. कोलुची सूद वचपाक लागली. फाल्यांच्या दिसा कावळ्यांक फॅस्त हें ताका कळून चुकलें. त्या निमण्या खिणांक ताका छोटू येवजलो. रात चोरपावलांनी भुंयेर काळो चादर घालताली. छोटुलें नांव घेत घेत कोलून निमणो आचको दिलो.

❑❑❑

# सुहाग रात

रातचीं बारा वाजून गेलीं तरी लोकांली उमेद कायम आसली. नाच, जल्लोश, हांसप, खावप, पिवप चालूच आसलें. कांय रंगेल तरणाटे चलयांची मस्करी करी तर जाण्टेले लेगीत वय विसरून विलाशी वातावरणांत रंगून गेल्ले. एकंदरीत सांगचें म्हळ्यार वातावरण धूंद जाल्लें. नव्या व्हकलेचीं फकणां, मस्करी करपांत मैत्रिणी तल्लीन जाल्ल्यो. वात्रट शेरे, पचपचीत विनोद आनी चावटपणान ताणी व्हकलेक बेजार करून सोडिल्ली. शेवटाक पयल्या रातीचें म्हत्व लक्षांत घेत ताणीं सगळ्यांनी मेळून आरतीक उखल्लें आनी हांशा आनी फकणाच्या ल्हारार धोलयत तिच्या रंगम्हालांत व्हेलें. चिमटे, कातकुल्यो करीत ताणी आरतीक तिडावचेलो खूप प्रयत्न केलो आनी मागीर कुलकुलाट करीत आयलीं तशीं पसारूय जालीं.

तो भव्य वाडो नियाळीत त्या अनवळखी जाग्यार उबें रावन आरती परिस्थितीचो अंदाज घेवपाक लागलें. इतल्या व्हडल्या जाग्यार एकसुरें एकटेंच उबें राविल्लें आरती त्या वातावरणांत कावरें-बावरें जालें. आंग शिरशिरायत घामाची थंड पावळी ताच्या मेरूदंडावेल्यान देवली. गात्रां घामाघूम, मुयेल्या भशेन दिसपाक लागलें. खूंट कशें उबें रावन तें त्या अनवळखी जाग्याकडे पळेतासतना वाऱ्याच्या थंड ल्हारान ताचें स्वागत केलें. आपणाले वेंगेंत घेवन ताच्या निरशेल्ल्या मनाक फुलोवपाचो प्रयत्न केलो. अचकीत ताची नदर गेलरितल्या उकत्या दाराकडेन गेली. जड पावलां मारीत आरती दारावटयां

वळ्ळें. भायल्या विशाल मळबाकडे दृश्टी लावन ताणें छाती भरभरून स्वास घेतलो. उद्विग्न मन मातशें तरी निवळ्ळें, ढगाच्या आड रावन चंद्रीम ल्हवूच नववधूक निरखितालो तर चावट नकेंत्रां तांकां पळोवन दोळे मिचमिचायी. इश्टीणी जातकच आतां सैमाक ताची छेड काडचेली संद फावो जाल्ली. तिरसटाभशेन आरतीन त्या सगळ्यांकडेन फाट केली. परत ती अनवळखी भव्य कूड ताच्या सामकार आयली.

हळू हळू ताणें त्या जाग्याकडे सवकळ केली. थंयच्या सजावटीकडे ताचें ध्यान गेलें. कूड सजोवपांत कसलीच कसर दवरूंक नासली. कागदी फुलांचे गुलाब, तरेक-तरेचीं आकर्शक फुलां, गुलाब, शेंवतीं, तुऱ्याची कलाकृती, कलात्मक रितीन मांडिल्ली. तांबड्याच गुलाबाची लांब लचक लायन कुडीच्या चोंय वाटांनी व्हडा कल्पकतेन रचील्ली. वेगवेगळ्या फुलांची मनांक प्रसन्न करपी आरास चित्त गुंथोवन दवरी. दिव्याचो मंद उजवाड उत्कट आनी श्रृंगारीक भाव निर्माण करी. थंय उभे आशिल्ल्या आरतीक कांय वेळ आपूण पृथ्वीर नासून सर्गातल्या सुंदर रम्य जार्दिनांत पाविल्ल्या भशेन दिसलें. फक्त एकूच गजाल थंय फाल्त आसली : रम्य मधुर संगीत. कलेची कदर करपा सारखिल्ली कलाकृती मुखार आसतनाय आरतील्या दोळ्यांत मात तिरस्कार भरिल्लो. लांब-रूंद जाग्यार उबें रावन निर्जिव नदरेन थंयची सोबितकाय पळयी - तातुंतली रम्यताय, सोबितकाय, सुंदरताय ताच्या मनाचें बाविल्लें फूल टवटवीत करूंक असमर्थ आशिल्ली. घृणेस्त आनी तिरस्कृती नदरेन तें ती आरास पळयी. ताचो आत्मो ताचें मन भितल्ल्या भितर रडटालें. आत्मो नशिबाक दुशणां दितालो. "देवा म्हज्याच नशिबांत हें कित्याक?" ताच्या मनांतल्या विचारानी उतरांचो आदार घेतलो, शांत वातावरणांत काळजाचो थाव घेवपी उतरांचो पडसाद उमट्लो. कुडिचें दार बंद आशिल्लें. त्याय परिस्थितींत ताका सुसेग दिसलो.

विचारांच्या कोडाळ्यांत आरती उबें आशिल्लें. निदान ह्या वेळार तरी ताका कोणूंच दोळ्यांमुखार नाका आसलो. तें आनी ताचे व्यथे बगर तिसऱ्या कोणाचकडेन ताका उलोवचें नासलें. ताचो घोव आलोक आजून ताच्या इश्टांमदीं पीत बशिल्लो. एका परीन ताच्या तें पत्थ्यारुच पडिल्लें. विशण्ण

मनस्थितींत तें जणू बंदखणींत पडिल्लें. आलोक कपूर - कपूर खानदानाचो कर्तो सवर्तो मुकूट मणी - गर्भ श्रीमंत, ऐश आरामांत लोळपी आनी आयच्या प्रतिश्टीत समाजांतली नामनेची व्यक्ती. लक्ष्मी ताचें घर भरून दार वतयी. एकाच जाग्यार रावन विचार करून आरतीले पांय दुखूंक लागले. विमनस्क मनस्थितींत ताणें फुडें पावल उखल्लें आनी कच्च करून आंग काडलें. भयाची तीव्र सणक ताच्या पोटांतल्यान वयर चडली. वठांतल्यान ल्हानशी किळच भायर सटकलीच. ताचे वांगडा कोणेंतरी पावल मुखार मारिल्लें.

मंद उजवाडान मुखावेल्या हारशांत ताणे आपणाल्याच प्रतिबिंबाक भिवन आंग काडील्लें. त्याय परिस्थितींत ताच्या तोंडार क्षिण हांसो उदेलो. फुलाच्यो पाखळ्यो माड्डीत तें मुखार सल्लें. कावरे-बावरे नदरेन ताणें जागो तपासलो आनी ताचे बगर थंय आनीक कोण ना हाची खात्री केली. आंगावेल्या मोलादीक जयतारी वस्त्रानीं आनी वस्तीनी तें घुस्मटून गेल्लें. भांगरा सरपळ्यानी आखडून गेल्लें. त्या मोलादीक विभुशणांनी आनी उंची वस्त्रांनी ताका स्वताचीच वळख लागू नाशिल्ली. ताचें पुराय व्यक्तित्व तातूंत शेणून गेल्लें. कालच्या पोंराट्या आरतीन आनी आयच्या धिरगंभीर नववधूंत जमीन-आसमानाचो फरक दिस. हें जें चल्लां तें सत नासून एक वायट सपन, फटींचो भास, अशेंच ताका दिस. पिशें मन आजुनूय सत मानूंक तयार नाशिल्लें. विचारांचें जाळें ताच्या तोंडार स्पश्ट दिस. येवजून येवजून मेंदवाचो स्फोट जावचेकडेन पाविल्लो. निवृत्त बापूय, बेकार भाव, भयणिलें मेंदवा दुयेंस, घरांतली गरिबी ताच्या साता जन्माची वयरीण जावन उबी जाल्ली. भावनेच्या ल्हारार धोलत ताची निरागस जीण भावनेच्याच यज्ञकुंडान होरपळून गेल्ली. श्रीमती कपुराले यज्ञ फळफळील्ले. एक स्वार्थ, वयर वयर सादोसो दिसपी वेव्हार. आप्त आनी परक्यानी एकठांय जावन समजून उमजून घेतिल्ल्या पावलान ताच्या फुलत्या फळत्या भावनेची, जिवीताची वाट लावन सोडिल्ली.

उबें राविल्लेकडेन ताका एक विचार सुचलो. ताचे दोळे लिकलिकले. विचारांक दिका मेळनाफुडें ताणें मनांतल्या मनांत थाराव पास केलो आनी मस्तकावेलो जयतारी शेलो जमनीर पातळायलो. भांगरा पिनी सोडोवन ताणें केंस मेकळे केले. मनावेलें चेपण बरेंच कमी जाल्ल्यावरीं ताका दिसलें.

घरांतलें साता जन्माचें दळीद्र, झगडीं-झुजां, काळजांतल्या भावनेचो घुस्मटमार, खंती, ताळ्यांतल्या - ताळ्यांत जिरयिल्ले हुंडके याद करीत करीत ताणें कानातले झुमके काडले. ताच्या घरांतल्या झोडमोडाचो फायदो दुश्ट, बेमान शेजा-यानी घेवपाक पळयलो. आरतीली फुलती सोबीत कवळी कळी तांच्या दोळ्यांत खुपूंक लागली. पयशाचें, खाणां-जेवणाचें आमीश दाखोवन ते तांकां फसोवंक सोदूं लागले. कांय अतिशाण्या लोकानी ताच्या बापायक तरणाटी चली घरांत दवरप कशें जोखमीचें हें पटोवन दिलें आनी ताचें लग्न कर म्हण फाटीक लागले. पयशांची, धनाची लालूच दाखोवन, फुडाराचें रंगीत चित्र तांच्या दोळ्यांमुखार उबें केलें आनी अशातरेन हिडीस आनी वायट विचारानी बुरसटिल्ल्या समाजान फुलत्या- फळत्या कळयेचो लग्नवेदीचेर बळी दिलो. त्या जळजळीत यादीनी आरती होरपळ्ळे. दोळ्यांतल्यान एकसारखीं दुखां गळूंक लागलीं. त्यो यादी जितल्यो म्हण पुसून उडोवचेलें तें प्रयत्न करी तितल्योच त्यो इंगळ्या भशेन धगधगीत जायी.

ताच्या अमुरपिक्या जिणेक उमेदिचो पालव फुटच्या दिसांनीच ताणीं ताच्यो कोंबऱ्यो तोडून वडयल्यो. फोर्सान ताका लग्न केलें. ताच्या वयाचीं भुरगीं शिकतालीं. ताचे दुदाचे दांत पडटा थंय आसले आनी तरी ताचेर लग्नाची जबरदस्ती केल्ली. कित्याक तर घरा खातीर, घरच्यांक बरें जिवीत फावो जावंचें म्हूण - पूण तीं मनशां मात ताचीं जावनूय ताचें बरें कित्याक चिंतू शकनाशिल्लीं? ताचो लग्नाक विरोध, ताचें रडप, देवाक मारिल्लो दयेचो उलो, मनशाचेंच न्हय तर देवाचें लेगीत मन वळोवंक शकलोना. भोंवतणच्या सुशिक्षीत म्हणपी लोकांनीच आपल्या आपूण निकाल दिल्लो आनी त्या कवळ्या कोकराक श्रीमंत लांडग्याच्या गळ्यांत बांदलें. आरतील्या हातांत कांय एक नासलें. ताच्या स्वताच्या मनशानी ताची बावली करून दोरी घोवा हातांत दिली. दर एकलो पयशांक पळोवन आपणांक जाय तशीं सुत्रां हालयी. ताच्या भावनेक, इच्छेक पांयांपोंदा चिड्डून. हरशीं तोंड वयर करून उलोवपी लोक पयशेकार मनशाफुडें पावनाफुडें शेण खातात. शेपडी भोकांत घालून सगळे वग्गी बशिल्ले.

वाटकुळीच नथ नाकावेल्यान देवयत ताणें दिसभर आखडिल्ल्या नाकाक

विसव दिलो. शेल्यावेल्या भांगरा वस्तीत आनी एकाची भर पडली. गळ्यांतल्यो जड जड सरपळ्यो, बंदखणींतल्यो बेडयो देवयल्याभशेन ताणें काडून वडयल्यो आनी छाती भरभरून स्वास घेतलो. तो पेज देवनाफुडें ताचे विचार आनीकूय तेजाळ्ळे. आंगांत शक्त संचारली. गळ्यांतल्या भांगरा वस्ती उप्रांत जरीच्या पट्याचीय तीच गत जाली. पिनी सोडयतांच तो उंची शेलो ताच्या कमरेक विळखो घालीत ताच्या पांयांकडेन पडलो. आंगावेलो जयतारी शालवाचेंय जड अवडंबर जुगारून दिल्या उप्रांत ताका आनीकूय मेकळें दिसलें. त्याच तिरमिरेत ताणें कमरपट्टो, हातांतलीं कांकणां, गोंठ, तोडे, शेल्यावेल्या वस्तींत वडयले. पांयांतली पांयजणां आनीक वेढे भांगरा राशींत पडले. ताच्या आंगार फक्त तांबडी साय आनी पोल्क उरिल्लें - ना म्हळ्यार कपलाचो तांबडो सिन्दूर अजुनूय पारतंत्र्याची जाण करून दियी. लक्षांत येनाफुडें ताणें तोय पुसून वडयलो. तो पारतंत्र्याचो दाग, कपलावेलो कुंकूम, सौभाग्याचें निशाण ताणें आपल्यापरीन नश्ट केलें पूण तरीय हय न्हयसो एक हळदुवो दाग आलोकाली गुलामी अजून सोपूंक ना हाची साक्ष दीच. ताच्या अस्तित्वार, शरीरार आनी सर्वस्वार आलोक कपुरालो हक्क लादचेलो तो दिनवाणो प्रयत्न करी. थोडे वेळा पुरतें तरी थंय लक्ष न दिवपाचें आरतीन थारायलें.

समाजाचे, आप्ताचे निबर चटके ताका खावचे पडिल्ले. ताचीं हळवीं गोड सपनां, फुलाभशेन मन, भावना, इच्छा त्या लोकांनी जिव्योच पुरिल्ल्यो.रिती-रिवाजाच्या आड ताच्या गरिबीचो लाचारीचो फायदो घेवन आलोक कपुरा सारखिल्या सुशिक्षीत नर-राक्षसान ताका आपणाल्या कचाट्यांत धरिल्लें आनी वयर आपूण ताचेर व्हड उपकार करता अशी तो मिजास मारतालो. ताची तागडी निश्चीत जड आसली. एक तर समाजांत ताची पत बरीच वयर, पयसो घर भरून दार वतयतालो आनी चलयेच्या लाचार बापायकूय ताणें विकतो घेतिल्लो. तशेंच सुशिक्षीत समाजा कडल्यानूय रितसर पावती घेतिल्ली आनी वयर लोकां नदरेन तो ताचेर आनी ताच्या फामिलीचेर उपकार करतालो. ताच्या विरूध्द ब्र काडचेली कोणाकूच ताकद नासली. आरतीन 'हय-ना' म्हणचेलो प्रस्नूच उद्भवनासलो. तें पुराय ताच्या

दयेच्या भिकेर आशिल्लें. आलोकाल्या मरजेरूच ताच्या घरांत चूल पेट. पक्वानाची भीक, पयशांची भीक पावताली. बदल्यान ताणें आरतीक विकतें घेतिल्लें. आपणाल्या मनरिजवणी खातीर. आरतीची विचारपूस करपी कोण नासलो. घोवाली दया आनी बापायल्या धाका खाल ताची स्थिती दावणांक बांदिल्ल्या गायी भशेन जाल्ली. घोव आसमेरेन तो कपलावेलो तिळो सांबाळीत उरिल्लें जिवीत ताका धुकलचें आसलें. श्रीमंत आलोकाल्या मनोविकृतायेक बळी पडचें आसलें.

घामाचे थेंब ताच्या कपलावेल्यान तोंडार ओथंबले. आंग घामेलें. मनाचो घुस्मटमार विचार करीत तितलो वाडूंक लागलो. निमणें फुडलें फुडें म्हण ताणें बिनधास्त जावन पयलीं न्हावन घेवचो बेत केलो. मान्न्याचें दार बंद करतना दुसरें एक दार उगडून बंद जाल्ल्याचो आवाज ताणें आयकलो. वांकडीं-तिकडीं पावलां आनी वाट मेजीत भितर सरणारो मनीस तर्रर्रर जाल्लो ह्या बद्‌दल दुबाव नासलो. भितर येतकी ताणें आरतीक उलो माल्लो. तो अर्धवट होळम आयकता आयकता आरतीन मान्न्याची दुसरीय खिळी घाली आनी मात्तूय पर्वा करिनासतना शॉवर सुरू केलो. थंड उदकाच्या सपकाऱ्यान ताच्या बाविल्ल्या मनाक तरतरी आयली, आंगांतल्यान चैतन्य खेळूंक लागलें, मेंदू सादूर जालो. दोळे बंद करून त्या सर्गीय झऱ्याखाला मनाची उमेद भागसर ताणें येतिश्ट न्हावन घेतलें. तितलो वेळ लग्न, घोव, गरिबी, फुडार असले सगळे विचार ताणें कडेक दवरले.

खूप वेळ असोच गेलो. परिस्थितीन वस्तूस्थितीची जाण दिवंक सुरवात केली. अस्पश्ट, अंधूक असो राकट, कुरूप आलोकालो मोटसार चेरो ताच्या दोळ्यांमुखार आयलो. आपणाल्या पयल्या बायलेक सोडून ह्या म्हाताऱ्यान परत लग्न केल्लें. आरती येदेंच ताका एक चली आशिल्लें. लग्नांत तरी तें आरतीक दिसूंक नासलें. परिक्षेचें निमीत लावन ताणें वेळ मारून व्हेल्ली. पूण ताचीं सगळीं नाटकां आरतीक खबर आसलीं. एजामीक आजून दोन म्हयने आसले. खरी गजाल दुसरीच आसली. तीं दोगांय एकाच पिरायेचीं जाल्ल्यान ताका कशेशेंच दिसतालें आनी माटवांतल्या लजेक तोंड दिवचे परस ताणें असुधाय परिक्षेचें निमीत सांगून कण्ण्यो तासल्यो. दुसरें म्हणजे

आरती ताच्या आवयचो जागो घेवंक शकनाशिल्लें. धर्माच्या जाळ्यांत घुसपावन, रिती, रिवाजाचो गैरफायदो घेवन समाज तांकां घोवा-बायलेच्या बंधनांत बादूंक शकतालो पूण बापूय समान मनशाक घोव म्हण स्विकारूंक जबरदस्ती करू शकनाशिल्लो वा कपूरबाब आपणाल्या पयशांची मिजास दाखोवन ताचें मन विकतें घेवंकूय शानाशिल्लो. लग्न म्हणजे दोन मनांचें मिलन, दोन आत्म्याचो मिलाफ. फकत शाररीक संबंध न्हय. धन संपत्तीच्या नेटार बळजबरी करून ताणीं ताचें लग्न जरूर केल्लें पूण तें बाजारांतली वस्त जावंक शकनाशिल्लें. ताका मन आशिल्लें, भावना आशिल्ल्यो, वय आनी वस्थुस्थितीकडेन दोळे धांपून हेरां खातीर तें आपणाल्या जिवाचो गोबोर केदीच करचें नासलें. हातूंतल्यानूय भायर सरचेली जिद्द ताच्यांत आसली. जाण्टेल्याच्या मनोविकृतायेक बळी पडचे पयलींच ताका सुटकेचो मार्ग सोदचो आसलो.

कांय वेळ आदी लग्नाच्या माटवांत एकठांय जाल्ले चमचे वठावेलो निथू घोटीत म्हाताऱ्याची तोखणाय करी. बरी सोबीत कळी सोदून व्हकल केल्या म्हण ताचे अकलेक दाद दी, तर कांय लेमडे, म्हातारो कितलो बरो, दानशूर हाचेर व्याख्यान झोडी. तर सांगचें म्हळ्यार जमिल्ले चडशे सगळे केलदे म्हाताऱ्याक परबीं दिताले. पूण कांय लोकांनी तोंडार जरी दाखय-लिपय केलें तरी तांच्यो नदरो वेगळेंच सांगी. तांच्या दोळ्यांतली दया फकत दोळ्यांकूच वाचू येताली. उलोवन दाखोवचेली कापाजदाद मात एकट्यानूय नाशिल्ली. दादले आसून सुध्दा चललां तें चूक म्हण सांगचेली धमक कोणाकूच नासली. कांय बायलांनी मात आलोकाक म्हातारचळ लागलां - धू सोब सारखील्या चलयेकडे लग्न करता म्हूण भोंकाफाटल्यान तिटकारो व्यक्त केल्लो. इतलेंच, बाकी सगळें आलबेल, म्हातारो कसलेंच विघ्न येनासतना व्यवस्थित लग्न जालो. कपुराले इश्ट आनी ताच्या वाटकुळांतल्या स्पेशल चमच्याच्यो वखवखीत नदरो परतितना ताका ओकूं येतालें.

आरतीन शॉवर बंद केलो. आंगा भोंवतणी तुवालो रेवडायलो. आनीक एक तुवालो खांद्यार घेवन ताणें ल्हवूच खिळी काडली आनी मान्न्याभायर सल्लें. भायर मिट्ट काळोख आसलो. फक्त एक बारीक मंद दिवो मिणमिण

तितलोच. ताचो पांय कित्याक तरी आडखळ्ळो. सोऱ्याचो रितो ग्लास गडगडत कुशीक गेलो. कच्च करून ताणें आंग काडलें. म्हणटासर ताची नदर काळखाक थिरावली. एक मोटीच मोटवेली मुर्त जमनीर अयसपयस पातळून सुस्त न्हिदिल्ली. नाका तोंडांचें पेपारें सों - सूं करीत वाजतालें. बलबलीत मोठ्ठें पोट घोरपाच्या तालार वयर सकयल हालतालें. तोंड सताडं उक्तें दवरून ती मनीसघाण व्यक्ती लज-बिज गुठलावन शेंसूस्थ जनावराभशेन पातळिल्ली. ह्या असल्या जनावराक मनीस करचेल्या कल्पनेनूच आरतीक मेल्ल्यावरीं जालें. ताच्या आंगार कांटो फुल्लो. हो निगरगट्ट मनीस ताचें पुराय जिवीत उध्वस्त करून ताका कणाकणान मरोवपाचो हातूंत दुबाव नासलो. नाजूक अठरा वर्सांच्या आरतीमुखार ताच्या जिविताचो प्रस्न उबो आसलो. खूप वेळ तें काळखांतूच रडलें, पूण रडून कांयच उपेग नासलो. व्यवस्थित येवजून कितें तो निर्णय आतांच घेवंक जाय आसलो. बरोच विचार केल्या उप्रांत ताचो मनोनिग्रह जालो. आतां आनीक फाटीं सरप ना ताणें मनाक सांगलें. दोन धेंपां मारीत ताणें आलमार उगडली, फटाफट कपडे केले आनी मेजावेलें पॅड आनी पॅन लागीं वडलें. कागदाच्या कपट्यार चार वळी खरडिल्यो आनी ती नोट टेबल-लॅम्पा पोंदा नीट दिसता तशी दवरली. ताचें थंयचें काम सोंपलें. काळखानूच ताणें हुमरो वलांडलो. झटपट पावलां उखलीत तें बसस्टोपार आयलें. आतां भय ताच्या मनांक आफडूंक शकनाशिल्लो. एक दृढ निर्धारान ताचीं पावलां पडटालीं. मन शांत जाल्लें. स्टेशनार जितो मूस नासलो. हळूहळू फटफटलें. स्टेशनार येवन वर देडवर मायजूच जाल्लें. सकाळची पयली बस आयली. ताणें जनेलाकडचो सीट धरलो. ताचो निर्णय दृढ जाल्लो. त्या निर्णया पासून वळोवचेली शक्त आतां कोणांतूच नासली. आपले - परकी समाज सगळ्यांक खोंट मारून तें पयस वतालें. पयल्या रातीची काळसाण ताचे मुखावेले भांगरासारकें जिवीत पेड्डयार करचें पयलींच ताणें पावलां उखलिल्लीं. ताच्या जिविताकडे खेळचेलो हक्क कोणाक नासलो. आपणाल्या जिविताक चुट्टी लावन बाकीच्यांच्यो तुंबड्यो भरपाक तें तयार नासलें. कॉलेज हॉस्टेलांत रावन फुडें शिकचेलें ताणें थारायल्लें.

नव्या ध्येयाची पुर्तताय करता आसतनाच नव्या आयुश्याची सुरवात

करून जिणेचो अध:पात रोखून धरपी आत्मविश्वास ताच्या तोंडार आतांपासून दिसूंक लागिल्लो. आतां रात सरिल्ली आनी स्फूर्त दिवपी सूर्य उगवतालो. ताणें सुर्याक नमस्कार केलो; पुर्वेकडेन उदेल्लो तेजोमय गुळो प्रसन्न जावन ताका आश्वासन दी की ताच्या जिणेक लागिल्लें गिराण आतां फाटीं पडलें आनी ताच्या जिवितांतली उमेदीची फांतोड आतां पयस ना.

❑❑❑

# सुटका ना

सूर्य माथ्यार चडिल्लो. वताचो रणरण भुयेक भाजून काडी. सुर्याच्या कोपांत भाजून गेल्ली धर्तरी पावसाच्या थेंबाक तरशेल्ली. पक्षी, जनावरां, जिव-जंतू उश्म्यान बेजार जावन थंडाय सोदीत सैरभैर भोवताली. उश्ण हवेचे गरम चटके आंगाची कातडी सोलून काडी. सैमाचो राग मनशाचो आत्मो लेगीत भाजून काडी. सगळेकडेन वाळवंटी दाह पसरिल्लो. सगळे चराचर मळबाक टक लावन पावसाची वाट पळयी.

ह्या सगळ्याचो परिणाम पूण नंदाचेर मात्तूय जावंक नासलो. सैमाच्या रागाची ताका जाणूच नाशिल्ली. घडये ताच्या कुडींत पेटिल्लो वणवो सुर्याच्या किरणांपरस खर आसूंये. वताचे खर चटके ताच्या काळजाक स्पर्शू शकनासले तरी घामाच्या थेंब्यानी ताच्या ऐसपैस कपलार जाळें विणिल्लें. कांय थेंब ताच्या पोल्यावेल्यान जिर्ण जावन तांबसार पडिल्ल्या ताच्या खोमशेर पड. आदुफाच्या गजांतल्यान गोमटी भायर काडून ते दारवटाच्याकडे आपली नदर पावोवपाची शिकस्त करी. लांबलचक हळदुवो पडिल्लो विस्तिद ताच्या आंगवटीक घट्ट दशिल्लो. अचकीत ताका कितें तरी आयकूंक आयलें त्याबराबर ताणें कान टवकारले.

वाड्याचो दारवटो कर कर करीत उगडटालो आनी तो आवाज नंदान जुस्त वळखल्लो. ताचें काळीज नेटान धडधडूंक लागलें, मन उतावीळ जालें. तितल्यान ताका गाडयेचो आवाज आयकूंक आयलो. दारवटयांतल्यान गाडी

भितर सरताली. आवाजावेल्यान ताणें गणित मांडलें आनी ती गाडी फियाटूच आसतली म्हण ताका दुबाव उल्लो ना. १९६० वा १९६२ मोदेल. सदां येवपी लॉन्ड्री व्हेन वा बाजार हाडपी मिनी ट्रक न्हय हाची ताका खात्री आसली. गाडयेन हॉर्न वाजयलो आनी तांची पुराय खात्री जाली. ताच्या विदीर्ण कुडीक आशेचो पालव फुटलो. कितल्यातरी तेंपान कोण तरी सोयरे येताले - घडये ताचीं मनशा - उमळशीक जावन ताचें काळीज धडधडूंक लागलें. आयज घडये ह्या बंदखणींतल्यान सुटूटलें. स्वातंत्र्याच्या उमेदीन ताणें एकदम उडी माल्ली. व्हड व्हडान आङ्गुचेशें ताका दिसूंक लागलें पूण तसलें करपाक थंय बंदी आसली. हॉस्पितालांतल्यो हेर मेंदवाच्यो दुयेंती चाळवूंक शकताल्यो.

थांबचे आदी ते गाडयेन रिव्हर्स घेतली. रिव्हर्स हॉर्नाचो आवाज तें वळखलें. ती मनांक फुलोवपी धून, ताच्या तापिल्ल्या कुडीर एकदम थंडसाणेचो शितळ सडो पडिल्लेवरी दिसलें. फाटल्यो खुशालभरीत यादी ताच्या मतींत फुलारून आयल्यो - गाडयेचो रिव्हर्स हॉर्न - चवथीची आरत - सुख कर्ता दुख हर्ता - न्हय सुख कर्ता दुख हर्ता. याद जायनाफुडें ताणें इल्लेशा भुरग्यावरी ताळयो पेटल्यो आनी श्री गणेशाची मंगल आरत स्पश्ट उतरांनी लज-भीड कडेक दवरून फटाफट व्हडल्यान म्हळी. पयलीच्या यादींच्यो गांठी आपसूक उसवल्यो आनी मन इतिहासांत वचनाफुडें तोंडांतल्यान स्पश्ट आयकू येणारी आरत ल्हवू ल्हवू मंदावत रावली. शब्द शेणले तरी वंठ हालत आसले आनी नदर शुन्यांत शेणली. दोळ्यांत दुखां उबीं रावलीं. ल्हानपणांतलो प्रसंग ताका येवजल्लो.

चवथीचे दीस. घराघरांत गणपतीबाप्पाली पुजा -फुगड्यो - आरती - गणपती मुखावेली फुलांची आरास - सुंदर रांगोळी - गरीब गिरेस्त सगळे एकठांय जावन देवामुकार आरती म्हणटा म्हणटा तान भूक विसरून वच. इल्लेंशें नंदा बापायल्या मांडयेर बसून बापायवांगडा आपुणूय आरती म्हण. ताची अपुरबायेचीं लुडबीं उतरां आनी इतल्या ल्हान वयांतली ताची याद दवरचेली शक्त पळोवन सगळे तोंडांत बोट घाली. धुवेलें इस्तिमासांव बापायल्या दोळ्यांत दिसून येतालें.

आरती म्हणटना तांची मान अभिमानान तायट जाल्ली. ताळ आनी

घुमटाच्या गजरांत व्हडल्यान आरती म्हणटना आंगांतल्यान शिरशिरो येतालो. कांय वेळा उप्रांत आई भितल्ल्यान आयली. नंदा उमेदीन बापायल्या मांडयेवेल्यान आवयल्या पालवांत रिगलें. "वेडी ग वेडी" म्हणीत आईन ताका आपले वेंगेंत धरिल्लें. त्या खिणा उप्रांत ताच्या सुखाक सासणाचें गिराण लागलें. ती कवळी जीण फुलचे पयलींच बावून गेली.

तें चित्र ताच्या नदरेमुखावेल्यान हालले. आवयले निमणे शब्द "वेडी ग वेडी" ताच्या मतींत घुवूंक लागले. करता करता त्या शब्दांनी व्हडलें रूप घेतलें आनी कानांत आनी दोळ्यांसामकार फेर धरून फुगडी घालूंक लागलें. नंदान आपणाले दोनूय हात कानार धल्ले आनी दोळे घट्ट बंद दवरून त्याआवाजाक थातारपाक लागलें. पूण आवाज एक सारको वाडत रावलो. तातूंत आतां लोकालो बोवाळ आयकूंक येवंक लागिल्लो. सगळेच जाण ताका पिशें पिशें म्हणत बोटां दाखयतात अशें ताका दिसूंक लागलें. भोवतणचें जग घुवूंक लागलें. आतां आनीक ताच्यान सोसू जायना जालें. दांत वंठ चाबीत ताणें तकलेचे केंस हुमटिलें आनी हातांत्त आयिल्ल्या भिशटांक पळेत तें व्हडा व्हडान हांसलें. सट्ट करून तो आवाजूय बंद जालो. विशण्ण वातावरणांत ताचो हुंडक्यांनी रडिल्लो आवाज आनी कळवळून कळवळून हांव पिशें न्हय म्हण एक सारखो लोकांक पारातपी आवाज चार वंटीभितर घुमत रावलो.

डॉ. सलिमान मात एकट्यानूच ताका सांगिल्लें "नंदा, तूं पिशें न्हय, सरोज, शालिनी, पल्लवी इतलेंच तूंय शाणें." पूण तशें जाल्यार ताका एकल्याकूच ह्या चार वंटीनी तांणी कित्याक वडयल्लें. आनी आयज इतलीं वर्सां जावनूय कोणूच कित्याक मेळूंक येवंक ना? त्या शाण्या प्रस्नांक जाप नासली. फातराक लेगीत पाझर फोडपी ताची व्यथा भाव-भावना आशिल्ल्या मनशांक ताच्या स्वताच्या नात्याक हालोवंक शकली ना. आतां मेरेन ताका आपणालो फुडार कळून आयिल्लो. दुबावाचें भूत ताच्या मनांत नाचतालें. आत्मविश्वास डळमळीत जाल्लो. दोळ्यांतल्या भिरांतेक थातारीत तुटिल्ल्या काळजाक सासपीत, आशेचो खेळ मांडीत तें एक एक दीस धुकली. कोणें तरी ताका सांगिल्लें, ताच्यो भयणी, भाव विदेशांत पावल्यात आनी लग्न

जावन थंयच संवसार थाटला. नंदाची याद कोणाकूच नाका आसली. ताची जीण रितीच उरिल्ली. ताच्या हाताक मेथी लागलीच ना. तारूण्य भावना, आशा आकांक्षा ताचे बराबर त्या चार जिर्ण वंटिनी कोंडून उरिल्ली.

नंदाली ओली नदर जनेलांतल्यान भायर गेली. सूर्य अस्ताक वेतालो. आनी एक दीस फुडें सरकल्लो. दिसाफाटल्यान रात - सुमान - म्हयने करीत वर्सां पासार जालीं. ताची जिणूय कळमेल्ल्या गजांभशेन कळमेवन वताली. सांजवेळाक थंड वारें मारूंक लागलें. कूड फ्रिजाभशेन थंडावपाक लागली. दोनूय हात छातयेकडे घेवन तें कोनशाक वचून बसलें. बोटां भोंवतणी घुस्पल्ले केंस सोडयत आपल्या मोलादीक वर्सांचो हिशोब करूंक लागलें. निमणेकडेन ताच्या हातार एक पिको केंस उल्लो. त्या पिक्या केंसार ताची नदर खिळून उरली.

धवसार पडिल्ल्या हातान ताणें तोंड सासपिलें. चेऱ्याची कात लांबूंक लागिल्ली. एकेकाळची घट्ट कात आतां म्हातारपणाकडेन कलताली. गळ्याक मिरयो पडिल्ल्यो. हड्डें पोट धील्ल जाल्लें. हातापांयांत बळ खूप कमी जाल्लें. ताचें आयुश्य आनी फुडार त्या चार वंटीनी चिड्डून गेल्लो. काळ मात फुडें फुडें वचत आशिल्लो.

आयज मेरेन ताका एकूच आशा आसली, एकूच चिंतप आसतालें. केन्ना तरी सरोज, शालिनी, पल्लवी येतलीं, भाव येतले. ना तर आई-बाबा तरी येतलींच येतलीं आनी ताची त्या बंदखणींतल्यान सुटका करतलीं. तांच्या खांद्यार मान दवरून तें दुख्खाक वाट करून दिवपाचें, तांकां घट्ट धरून पोट भरून रडपाचें. ताची उरिल्ली जीण ताच्या शरिराचो कण कण त्या खिणाची वाट पळेत आसलो आनी म्हणुनूच तर तें दारवट्याकडेन दोळे लावन बस.

आपणाली जीण कोण ना कोण सावरतलो. कोणांक तरी आपणाली गरज लागतली. कोण एकटो तरी आपणाली काकूट करतलो ही आशा आतां पालवल्ली. कडकडो भरिल्ल्या हातांनी आपणाकूच वेंग मारून ताणें देवालागीं प्रस्न केलो - "देवा, हें जर असलें जिवीत भोगचें आसलें तर तुवें म्हाका जल्माकूच कित्याक घालें. सादेशें जिवीत कित्याक दिलें ना? आवय-बापाय पासून पयस अशें एकसुरें जिवीत म्हज्याच वाट्याक कित्याक घालें? फकत

एकदां, एकुचदां म्हजो मानसीक तोल गेल्लो पूण सगळ्यांनी म्हाका साप पिशें थारायलें. मायेच्या मनशांक जल्म दितल्यांक लेगीत म्हजी लज दिसूंक लागली. तो दाग घराण्यांक लागचो न्हय म्हण जाणून बुजून तांणी म्हाका पयस करप हो खंयचो न्याय?" कोणें सांगनासतना ताका सत कळून आयिल्लें. आनी त्याच परीन फुडारय कळिल्लो. कोणेंच ताका भोंक्शीलेंना -जंय मनीस थंय देव - आई - बाबान लोकांच्या भिडेखातीर, दुसऱ्यां भुरग्यांच्या फुडाराक लागून ताका सासणाचें पिशें थारोवन जिणेंतल्यान भायरें केलें. समाज कितें म्हणटलोच म्हण भियेवन ताच्याच मनशांनी ताची जीण फुलचे आदींच तोडून मोडून उडयली. मेंदवाक दुयेंस जावप हातूंत लजपासारकें कितें आसा? तें पाप न्हय, चोरी न्हय, गुन्यांव न्हय, फकत लोकांखातीर, लज्जेखातीर, घराण्यांक बट्टो लागचो न्हय म्हण मरसर बंदखणींत उडोवप हो न्याय जालो? भुरगेपणांतूच तें बापडें भूतकाळांत जमा जाल्लें. मनाची निमणी आस लेगीत आयज मातयेक मेळिल्ली. ताचे हात-पांय एकदम कुडकुडपाक लागले. शरिराची ल्हान पोटली करून तें कोनशाक तेकून बसलें. जिवीताची वस्तुस्थिती आयज आपल्या आपूण ताका कळून आयिल्ली. ताका जबर धक्को बशिल्लो.

"तूं म्हणजे सामाजिक दहशत, घराण्यांक लागिल्लो कलंक" हजारांनी लाखांनी लोक आपणाकडेन बोट दाखयता अशें ताका दिसूंक लागलें. वस्तूस्थितीच्या खर जाणविकायेन तें मुळासावन हाललें. सुकून धवें पडिल्ल्या वंठार जीब भोंवडायत हातां-पायांक सुटिल्लो कडकडो सोसपाचो ताणें प्रयत्न केलो. डॉ. सलिमाली ताका याद आयली. मन शांत करूंक आतां गुळ्गेची गरज आसली. शिणून वाजेल्ल्या मनाक गुंगेची खूप गरज आसली. दोळ्यांतलीं दुकां आतां सुकून गेल्लीं. काकूत-आशेचो धुंवोर जाल्लो. अचकीत ताची नदर जनेलांतल्यान मळबाकडे गेली. कितलींशींच थंयचीं नकेत्रां मेजताच दर एका नकेत्रा कणकणी ताचें मन देवा लागीं एकूच मागणें करी. "द्रेवा आतां तूंच म्हजो आदार - जशें आसा तशें तूं तरी म्हाका तुज्या पालवांत घे..."

❑❑❑

# आत्म्याची भ्रमंती

विलक्षण अनुभूती, अद्‌भूत अणभव. ल्हव पिसावरीं जायत देह अंतरिक्षांतल्यान अळंग तरंगत वतालो. अंदूक अस्पश्ट धवसार धुक्यांत आंगाचें कवच झटकून जीव मुक्त जावन विहार करी. असोच कांय सो मती घुस्पोवन सोडपी भास हळूच मेंदवांत रिंगतालो. आयज कितल्याच तेंपान मोह, ममता झिटकारून ती आपणाल्या मूळ घराकडेन वताली पूण भुरग्यांनी मारिल्ले विदारक उले तिच्या देह विरहीत कुडीक हालोवन सोडी.

त्या अथांग अजाण भवसागरांत विहंगम जावन तरंगत वचणारो तिचो आत्मो खिणभर थिरावलो. मन दोनकडेन जालें. आपल्या मनशांची माया, संवसाराची ओड आनी कर्तव्याच्या कातरीन सापडिल्ली तिची कूड तडफडपाक लागली. कितें करप, कशें करप, खंय वचप, हेंच कळना जालें. मुखावेली भयाण, विशण्ण, विशाल पोकळी पळेतकी मन कचरूंक लागतालें. आपणाल्या मनशाकडेन वचप काय मुखावेल्या अद्‌भूत विराण, रित्या भुंयारांतलो प्रवास चालू दवरप... आकूळ पिकूळ जाल्लो आत्मो गोंदळून गेल्लो पूण तरीय प्रवास मात चालूच आसलो. त्या अथांग खोल किण्ण भुंयारांत जिवाची भ्रमंती सुरूच आसली. ह्या सगळ्या कांदोळ-गोंदळांत तिच्या मनाची शक्त मात शाबूत आसली. तिच्या विचारसरणेन तिका आजून सोडूंक नासली. उफेत, व्हांवत वचणारो तिचो आत्मो कच्च करून थांबलो. मधूर परमळ सुटिल्लो. मनांक प्रसन्न करपी संगीत आयकूंक येतालें. तिच्या

मनांक सामकें बरें दिसूंक लागलें. सुरक्षिततेची जाणविकाय मनांक एकसारकी जावपाक लागली आनी तिका फाटलो प्रसंग येवजलो.

ती शाळेंत शिकतासतना मास्तरणीन एक फावट तिका खूप तापयल्ली आनी भिरांत घाली पूण घरा येतकी आवयल्या मोगाळ उतरांनी आनी उबदार वेंगेंत तिका धीर मेळिल्लो आनी सगळो भंय चेपून गेल्लो. आवयच्या मोगाक कसलीच तोड आसूंक शकना न्हय? पूण अजाप म्हणजे आयज ह्या खिणाक तेंच यधार्थ चित्र आनी ताच्या वांगडच्यो यादी तिच्या मनार आनी दोळ्यांमुकार कित्याक येवंच्यो? तसल्याच तरेची भावना अंतस्करणांत जल्म घेताली. काळजांत एक विलक्षण ओड मोह घालूंक लागली पूण पयस पयस नदर भोंवडायली तरी नदरेक मात कांयच दिश्टी पडनासलें.

एकसुरो सोंपून सोपनाशिल्लो प्रवास, भयाण एकांत आनी नदरेक कांयच दिसना अशी तिची स्थिती जाल्ली. तरी आपूण आवयल्या गोपांत वता असो एकसारको खर भास तिका जायत आसलो. शाळा सोंपतकी आवयल्या वेंगेंतलो विसोव, मोगाचो पालव, दिसभराचो शीण वचून तिचें पुराय विश्व सेगूर जायी. तिचे आवयक देवागेर वचून धा वर्सां तरी जाल्लीं आनी आयज अचकीत तिची याद कित्याक जावची? विचारांच्या खतखत्यांत आसतना एकदम आकाशवाणी आयकूंक आयली "थांब". खर, जरबेच्या आवाजांत कोणें तरी तिका ओर्द दिली. "तुवें उशीर केलो" दटावणेच्या स्वरांत कोणतरी उलयी पूण दिस मात नासलो. "तुमी कोण?" नमळायेन, भीत भीत तिणें प्रस्न केलो. "मुर्ख बायले सादूर जा.. तूं यमराजाच्या दारवंट्यांत आसा." आंगार कापरें हाडपी आवाजान तिका शिटकायली. "यमराज, मृत्यूदेव, मृत्यू म्हणजे हांव जिवी ना?" तिचो आपणाल्या कानाचेर विश्वास बसनासलो. कोणाच्या तरी हाशांचीं ल्हारांर ल्हारां वातावरणांत उमटलीं. तो प्रस्न त्या अनामीक शक्तेक कॉमिक लागिल्लो. आंगाक स्पर्श करूंक ती वळ्ळी मात, ती जबर हादरून गेल्ली. जल्माचो सांगात करपी शरिराचो खंयच पत्तो नासलो. शरिराविणें हांव जिवी कशी? तिच्या मनांचो थरकाप उडलो. परतूय आकाशवाणी आयकूंक आयली. ह्या वेळार ती शक्त स्वगत पुटपुटली. "आजुनूय जगपाचीच आशा? संवसाराचो मोह तरी सुटूंक ना? केन्ना आनीक

केन्ना तूं हें सगळें सोडटली? तुका खबर आसा तूं कोण ती? तूं म्हणजेच एक जीव, आत्मो, फकत कांय काळा खातीर जल्म मरणाच्या मायावी जगांत तुका प्रवेश दिल्लो. थंय पावतकी तुका सांगात मेळ्ळो आनी त्या जिवाच्या सांगातान तूं त्या जादूच्या संवसारांत कारणाभायर फिरत रावली. थंयच्या तात्पुरत्या भुलोवण्यांक, मनांक भुलोवन दवरपी खबऱ्यांनी तुका रिझोवन दवरली आनी तेंच सूख मानून तूं तुजें खरें घर विसरली. तुज्या मतीर अज्ञानाचें आवरण पडलें आनी तुवें परतूपाक विरोध दर्शयलो. आजूय तूं त्याच गुंगे खाला आसा आनी म्हणुनूच तूं विरोध करता." तो उलयणारो आवाज एकदम बंद जालो. थोडो वेळ असोच गेलो. भ्रमिश्ट अवस्थेंतली मती मातशी जाग्यार येना फुडें तिणें कळवळून म्हळें, "ना हांव आयज निश्चेय करूनच आयल्या - आतां आनीक म्हाका परत वचपाचें ना." "खरेंच...?" उपहासात्मक उद्‌गार तिच्या कानार पडलो. म्हणजे ती शक्त विश्वास दवरूंक तयार नासली तर...उप्रांत आनीक तो आवाज तिका आयकूंक आयलो ना. तिणें सुटकेचो श्वास सोडलो. आतां तिच्या विचार चक्रानी वेग घेतलो. आपणाल्यो चुको तिका कळूंक लागल्यो. खरेंच त्या मायावी जगांत आपूण वगींच भोवली. चुकीच्या रस्त्यान गेली अशें तिकाय पटूंक लागलें. आतां त्याखातीर नरकांत वचचें पडना जाल्यार पुरो. आनी त्याय परस भिरांतेचो प्रस्न म्हळ्यार जिवीत आसा की ना हो आसलो. प्रस्नाक जाप नासली. खंडीत जाल्लें भ्रमण परतून सुरू जालें.

"तुजें सगळें नातें गोतें आतां विसर, संवसाराच्या गोतावळ्यांतल्यान मुक्त जा - जीव जगाच्या ओडीचो त्याग कर - त्या मोहाच्या पाशांतल्यान सुटका करून घे आनीक मुक्त जा - मुक्त जा - मुक्त जा." कोणें तरी मवाळ, कोमल आवाजांत तिका समजायली. नदरेक कांयच झळक नासलें. "कोण उलयता?" सगळो धीर एकठावन तिणें मोठ्यान विचारलें. जाप मेळ्ळी ना. थोडे रावन तिणें तोच प्रस्न दुसरे फावट विचाल्लो. ह्या वेळाक मात तिका नमळायेन जाप मेळ्ळी. "हांव चित्रगुप्त - यमराजालो मुखेल हस्तक. तुवें भौच उशीर केलो. हांगा येवची ना म्हूण तुवें दोन फावटीं बरीच लंडामुंडी केल्या. त्या संवसाराक, फटकिऱ्या आनंदाक भुलून तूं तुज्या ह्या चिरकालीन

घराक विसल्ली." चित्रगुप्तान सांगलें. ती चपापली. "तें कशें शक्य आसा?" तिणें प्रस्न केलो. घडटा तें खरें म्हण तिजो आजून विश्वास बसना हें पळोवन चित्रगुप्तान एक दाट्ट, जड, पोन्नो अद्भूत ग्रंथ मुखार ओडलो. आंगठ्याक थुकी लावन ताणें पाना परतिल्ल्याभशेन तिका भास जालो. निमणें तो एका पानाकडे थांबलो. त्या पानार तिचो गतकाळांतलो निबंध तपशिलासयत बारकायेन बरयिल्लो. तांतलें एक पान ताणें वाचूंक निवडलें. तिका आपूण एकदम सान, अजाण भुरगें आशिल्ल्याभशेन दिसूंक लागलें. आवय-बापायक फटोवन लिपोवन दवरिल्ल्यो कितल्योश्योच गजाली हांगा साप उक्त्यो पडिल्ल्यो. कसलीच सेक्रेद म्हण उरूंक नासली. तिका लजिल्ल्या भशेन जालें. तिचें पुराय जिवीत ह्या लिब्रान बरोवन आसलें. आपणांक चित्रगुप्त म्हणोवन घेवपी तो मधूर आवाज तिच्या फाटल्या जिवीतांतले दर एक बाबींचो बारकायेन हिशेब मांडूंक लागलो. सोता तिचें तिकाच कितल्याच गजालींची याद नासली पूण त्या ग्रंथान बरोवन दवरूंक चित्रगुप्त मात विसरूंक नासलो.

आपणाल्या गत आयुश्याचो तपशील आयकतां आयकतां तिका कळून आयलें की चित्रगुप्ता लागीं तिच्या गत जिणेंतलोच न्हय तर त्यापरसूय पयलींच्या आयुश्याचो आनी मुखावेल्या नव्या आयुश्याचो लेगीत बारीक मोटो सगळो हिशेब आसलो. हो वेळ म्हणजे तिच्या आत्म्याक मेळिल्लो खीणभर विसव. हाचे उप्रांत परतुनूय तिचो नवो जल्म जावचो आसलो आनी जल्म मरणाच्या गिरणींत तिका परतूय रडून पिसून घेवचें आसलें ह्या विशी तिची खात्री जाल्ली.

"याद कर". थोडो विसव घेतल्या उप्रांत चित्रगुप्तान फुडें सुरू केलें. ल्हान आसतना तूं एकदां पेंवपाक गेल्लें. पेंवपाक जमना हें खबर आसुनूय तूं उदकांत मस्ती करी. निमणेकडेन ल्हारांसरशी तूं खोल उदकांत बुडूंक लागलें पूण तुवें जिद्द सोडली ना. मरणा वांगडा तूं बरोच वेळ झुंजलें. तेदवेळा तुका परत हाडचेलो आमचो सगळो बेत फुस्स जाल्लो. पळे याद जाता?" भूतकाळांतलो तो प्रसंग जशाक तसो तिच्या दोळ्यां सामकार आयलो.

"खूप दिसांनी आमी दर्यार गेल्लीं. उदकांत खेळटना ल्हारांसयत हांव खोल उदकांत पावलें. बुडटा तें पळोवन म्हज्या भावान आकांत केलो. काळ

आयिल्लो पूण वेळ येवंक नासली. पेवंक येना आसतनाय हांवें मन ताळ्यार दवरून, धाडस बांदिल्लें आनी हात-पांय मारूंक सुरवात केली. प्रत्यक्ष काळालागीं घेतिल्ली झूंज निमणें हांवच जिकिल्लें. जुस्त वेळार बापायन उडी मारून म्हाका तडेक व्हेलें आनी म्हजो जीव वाचलो. याद जायनाफुडें आज लेगीत म्हजो जीव थरथरलो. चित्रगुप्त गालांतल्या गालांत हांशिल्लेवरीं म्हाका दिसलें. घडये म्हाका याद जाली हें ताका कळ्ळें आसूंये. पूण तेन्ना जर हांवें हात पांय गळयल्ले तर ती आत्महत्या जावपाची आनी आत्महत्या पाप न्हय? हांवें म्हजी आदवोगाशी चलयली. प्रतिकार करता तें पळोवन चित्रगुप्तान म्हाका समजायलें "कांय गजाली मनशाच्या समजणी भायर आसतात. उदाहरणार्थ, नशीब, इच्छाशक्त आनी त्यापरस श्रेश्ट म्हणजे श्रध्दा. हो तिहेरी फांसो काळा वांगडा आपणालोय खेळ खेळत आसता. तुज्या भितल्ली जबर इत्साशक्ती आनी तुज्या आवयचो देवावेलो विश्वास तुका संकटांतल्यान सहिसलामत भायर काडी. प्रखर इत्साशक्त आनी देवाचेर जर मनापासून श्रध्दा आसत तर मनीस आपणालें नशीब सुध्दा बदलूंक शकता. सती सावित्रीची काणी तुवें आयकल्या आसतलीच. प्रत्यक्ष मृत्यूदेव यमराज लेगीत तिची दृढ श्रध्दा, भक्ती आनी इच्छवशक्त पळोवन फाटीं सल्लो. त्या सावित्रीली कथाच वेगळी - पवित्र आनी देवाल्या आवडीची. तो आवाज अचकीत लुप्त जालो. परत एकदां वातावरण शांत जालें. अंतराळांतलो तिचो प्रवास फुडें सुरू जालो. वेगळ्याच आवाजांत कोणेंतरी तिका हटकिलें. "आं...यो... यो.. उशीर जांव पूण निमणें बरे भशेन आयलें म्हणजे जालें" तो आवाज जरी कणखर आनी जरबी आसलो तरी त्या स्वरांनी भंय नाशिल्लो. सहज स्मृती चाळवल्यो आनी मन फाटल्या यादींनी गेलें.

कॉलेजांत गेदरींग आसलें. हांसपा - खेळपांत वरां कशीं पासार जालीं तें कळ्ळेंच ना. सगळें आटापा हाडीमेरेन बरीच रात जाली. हांवें भीत भीत घरांत पांय दवरलो आनी तितल्यान ताठर स्वरांतलो उलो कानार आयलो. मुखार बापायक पळेतकी म्हजी भंयान रेवडी जाली. "तरूण चलये हो वेळ गो घरांत सरचेलो?" दटावणी आयकतांच काळीज लक्क जालें पूण डॅडी तिडकूंक नासलो. "तूं आतां व्हड जालां पूण म्हजो तुजेर पुराय विश्वास

आसा, तरी वेळार घरांत भीतर सरचें" तें वाक्य म्हज्या कुडींत सेगूर उल्लें. मनावेलें चेंपण घसांयस करून देंवलें आनी डॅडीच्या विस्वासाक हांव पात्र ठरलें म्हण खूप खोस जाली. हांवें थंयूच सोपूत घेतलो, हाचे फुडें कितेंय जांव, मेल्यार लेगीत जाता पूण डॅडील्या विस्वासाक तडो वचूंक दिवप ना. आतांय तीच भावना मतींत उबी जाली. मरतकीच खंय मरतल्या वांगडा ताचें मनूय मरता पूण म्हजें मन मात जिवीत आसलें. म्हाका एकेवटे मजाशी दिसली.

"तुजी ट्रिप कशी जाली?" त्या प्रस्नान म्हाका विचारांच्या भोवऱ्यांतल्यान भायर ओडलें. थंयच्या थंयच चांचपडिल्ल्या भशेन उतरां आयकूंक येतालीं. गतजल्मांतली भुमिका, भुरगेंपण, चली-तरनाटेपण - बायल - आवय. जल्मापासूनची जीण आनी कार्य तिच्या मनार उदेलें. कितलेच फावट तिच्या काळजार नशिबान घाय केले आनी काळा वांगडा ते पेखलेय - काय परत उसवले आनी तरी लेगीत तिका आपल्या मनशांचो विसर पडनासलो. तांचेकडे वचूंक तिचें मन ओढ घेतालें. सुखदुख्खांत तांच्या सांगातान रावंक तिचें मन तरशेतालें. विचारांच्या आसनार आरूढ आसतना लख्ख करून एक विचार नागान फड उबाल्लेवरी वयर उसळ्ळो.

सादारण मनशाक मेल्या उप्रांत एक तर सर्गांत वा नरकांत वडयतात अशें जाण्टेले सांगताले. तर आपणाल्या वाट्याक सर्ग काय नरक? ती शिरशिरली, तिका नरकवास नाका आसलो. तितल्यान परत एकदां आकाशवाणी घुमली. त्या अजाण शक्तेन तिका पयले फावट आत्मो म्हण उलो माल्लो. ताणें गोड उतरांनी तिका सांगलें की नरक आनी सर्ग म्हण वेगळो न्हय. जिवाक ताच्याच संवसारांत त्या दोनूय स्थितींतल्यान वचचें पडटा आनी रिती परमाणें तिणें त्यो गजाली गत जल्मातूच भोगल्यात पूण तरी तिचो प्रवास अजून सोपूंक नासलो. तिका आजुनूय खूप आडमेळीं पयस करच्यो आसल्यो आनी त्या उप्रांत जिवा-शिवाचो मेळ जावपाचो. आत्मो परमात्म्या कडेन एकरूप जातलो तेन्नाच जिवन मरणाच्या फेऱ्यांतल्यान ती भायर सरपाची. त्या आवाजांत भ्रमण कक्षेत आसलेल्या तिच्या जिवाक स्पश्ट जाण आयली की आतां आनी एकदां परत नव्या सफरीचेर वचचें आसा - नवो जल्म, रूपाचें नवें वस्त्र घालून नव्या पोन्या पाप पुण्याचो मुकूट मस्तकार घालून परतून थंयच त्याच संवसारांत वचचें आसा.

आयुश्यरूपी पटयावेल्यान तिणें जल्माचें एक पेणें पार केल्लें. थंयचें कांय बरे वायट अणभव गांठीक मारून तिका आनी एक फावट ट्रेन धरची आसली. तो प्रवास जिविताचो दुसरो टप्पो ये मेरेन थांबचो नासलो. अशातरेन ती सफर जिवा-शिवाचो मेळ जायमेरेन चालूच उरतली हें तिका समजलें. आपणाल्या एकसुऱ्यापणाची तिका खर जाण जाली. आपलीं भुरगीं नात्रां गोत्रां येवजलीं. सांगात नाशिल्ल्या त्या एकसुऱ्या प्रवासाचो तिका भंय दिसलो. तिच्या कितलेशाच प्रस्नांच्यो जापो मेळच्यो आसल्यो - भुरगीं, नात्रां, गोत्रां येवजनाफुडें तिका तांची याद आयली. ती परतुचे पयलींच तो आवाज तिच्या मदतीक धांवलो. गोड आवाजांत तिका शांत रावंक सांगलें. हळुहळू तिच्या कुडीक भूल पडूंक लागली. १.....२....३....४ तिच्या मनाक गुंगी चडटाली. यादी पातळ जायत वताल्यो. संवसाराकडे आशिल्लो धागो हळुहळू तुट्टालो तरीपूण त्या काळसर पोकळेचो थाव अजुनूय लागूंक नासलो.

तिचो आत्मो कळवळ्ळो. कळवळून आपणांक मोक्ष दी म्हण तिणें देवा लागीं मागलें. पूण विधिलिखीत कोण बदलू शकतालो? ... ती तिच्या कर्माची धनीण आसली. कर्म आनी मोक्षाचें मर्म समजायत त्या अदृश्य शक्तेन तिच्या कुडीक गीतेचें सार शिकयलें. तुजें प्रत्येक बरें वायट कर्म ईश्वराक अर्पण कर - तुज्या बऱ्या वायटाचो धनी देवाक जांव दी. ईश्वराक अर्पण केल्लें कसलेंय कर्म बरेंच आसतलें हातूंत दुबाव ना म्हण तुज्या हातांत सदांच पुण्य घडटलें. आनी घडये बरें काम करतना जर नकळत पाप घडलें तरी ताचो सगळो भार देव आपणाल्या मस्तकार घेतलो हाचेर विश्वास धर. निरपेक्षपणान कर्म करीत वच. मोक्ष जरूर मेळटलो - अशें सांगत तो आवाज विरून गेलो.

त्या प्रचंड दर्यांत बुडबुडे काडपी तिचे कुडीन ह्या वेळार निर्धार केलो - सोपूत घेवन तिणें त्या अदृश्य शक्तेक आस्वासन दिलें आनी नव्या जल्माची - नव्या देहाची वाट पळेत त्या प्रचंड विशाल पोकळेंत काळाच्या भोवऱ्यांत तिच्या आत्म्याची वात नादब्रह्म आयकत आयकत गतिमान जाली.

❑❑❑

# सुप्त प्रेम

करण फटाफट साटली पोटली कवळतालो. ताची हालचाल नियाळीत ताच्या मनांतले विचार जाणून घेवच्या प्रयत्नांत वसुंधरा सामकें गळसणून गेल्लें. करण हालीं साप बदलून गेल्लो. कोणांक कांय एक विचारी नासतना ताणें आपणाले लांबसडक फसफशीत काळेच्च केंस कातरून वडयले. जणू ताणें वसुंधराच्या आवडिचेरूच सुरी भोंवडायल्ली. तो हालीं असो धार-मेर सोडून कित्याक वागता हें ताच्या चेऱ्यावेल्यान तरी कळत काय म्हण वसुंधरा ताका पळेत बशिल्लें. पूण ताच्या मनाचो थाव कसोच्च लागनाशिल्लो. इतलें मात खरें की तो ताका सोडून वच.

सुद-बूध शेणिल्लें वसुंधरा सैर-भैर जावन अस्तावस्त जमनीर पातळिल्लें. ताची लुंगी धोंपरामेरेन वयर सरिल्ली. ओंठावेलें सिगार ताच्या मनांतलें वादळ धुरावाटे कमी करपाक पळयी पूण कितेंय केल्यार ताच्या मनाचें उदासपण आनी उद्वेग कुस्कूट भर लेगीत कमी जाय नासलो. मनांक थातारपाक ताणें थंयचोच एक लिव्र चाळूंक घेतलो. शे! पूण आयज ताचें मन थाऱ्यार कशेंच येना आसलें. मनाची घासापुशी, घुस्मटमार, काळजांतले अव्यक्त विचार करणालें अंतस्करण हालोवंक शकनाशिल्लें. तो एकाग्र चित्तान सुसेगाद सिरीयस जावन आपणालो एक एक कपडो बॅगेंत भरतालो. ‘जस्ट डु इट’ चें बानयन नीट घडी घालून ताणें भितर दवरलें. हें बानयन

ताणेंच करणाक बर्थडे प्रेझेन्ट दिल्लें.

सेगीत तीन वर्सां तीं दोगांय एकठांय राव. त्या तीन वर्सांचे संबंद, मोग, विश्वास आयज मोडून पडिल्लो. ताच्या भावनेक तडो गेल्लो. शरद रूतुंतल्या सुकिल्ल्या पानावरीं तें भायर भितर झडून गेल्लें. पयलींसुनूच ताका अशें जावपाचो भंय दिसतालो. केन्नातरी ही परिस्थिती येतली हाची ताका खात्री आसली आनी अशें आसुनूय मुर्खाभशेन तें आपणाकडलें सगळें दिवन मेकळें जाल्लें आनी तरीकूय करणाली बायल जावचेलें मनसुबे रचतालें. ताच्या भावनेचें, गोड सपनांचें, आशा-आकांक्षाचें आयज ताच्याच दोळ्या सामकार पानिपत जातालें. तीन वर्सां कशीं सरलीं हें कळ्ळें लेगीत ना आनी आयज ताच्या जिणेची वाट लावपी दीस उजवाडिल्लो.

करणाली आनी ताची पयली वळख याद जायनाफुडें ताच्या वंठार मातसो हांसो उदेलो. त्यो यादी ताणें अजून आपणाल्या काळजांत सेगूर करून दवरिल्ल्यो, मुखावेल्या पायणींत ताच्या इश्टीणीच्या गल्लेंत तो ताका पयले फावट दिशिल्लो. लांब रूंद, घट-मूट, सणसणीत छाती, पिळदार आंग, तकलेक पंजाबी पगडी आनी तोंडाक सोबसारकी काळीच्च दाढी. सरदारजी सामको रूबाबदार दिसतालो. काळ्या-धव्या कोराचो खाकी कुर्ता आनी धवसार लॅव पडिल्ली निळी जिन्स ताणें आंगांत घाल्ली. ह्या असल्या साद्याच कपडच्यांनी लेगीत तो पळोवंक हिरो कसो दिस. येवजिता येवजितानाच वसुंधराचे वंठ आपसूक वाटकुळे जाले. परिस्थितीचो ताका विसर पडलो. तान-भूक विसरिल्लें वसुंधरा धार-मेर सोडून ताका पळेत उल्लें. ताका मेळता तितलो दोळ्यांत साठोवपाक सोदूंक लागलें. सरदारजी धट्टो कट्टो तितलोच सोबीत आनी रूबाबदार दिस. रचणाऱ्यांनी आपणालें सगळें कौशल्य वापरून ताची रचणूक केल्या वा जगतकर्त्यां परमेश्वरान ताका स्वता आपल्या हातांनी घडयला अशें ताका पळेनाफुडें दिसतालें. त्या नरश्रेष्ठालें लागसून दर्शन घेवपा खातीर तें उतावीळ जालें. बेगिबेगीन इश्टांक टाटा करून धांवत धांवत तें रस्त्यार आयलें. ताचें नशीब आयज खरेंच नेटान आशिल्लें. तो जुस्त ताचे वटेंच येतालो. सुदबूद विसरून तें ताका पळेत रावलें. त्या शिकड्याच्या पयल्या दर्शनानूच वसुंधरा घुवळ्ळें. ताच्या आंगांतलो कण

कण फुलून आयलो. जल्म-जल्माचें पुण्य आयज फळाक आयलें म्हण ताका धादोसकाय जाली. काळजाची वात आनी दोळ्याच्या दोन निरांजनानी तें ताका उवाळपाक लागलें. सरदारजी मात जणू काय ह्या जगांत नाशिल्ल्या भशेनूच आपणाल्याच तंद्रेंत ताचेकडे लक्ष दिनासतना कोण पळयता कोणाक खबर अशा अवीर्भावांत लांब धेंगां मारीत पासार जालो.

दोळ्यांच्यो घोली करून पळयणाऱ्या वसुंधराक कशेंशेंच दिसलें. मनाचो तुरो दुखावना फुडें नाकाचो कोंबो तांबडो गूंज जालो. अपमानाच्या जाणविकायेन ताच्या आंगांतल्यान उजो भायर सरपाक लागलो आनी सुडाच्या सर्पान फण वयर काडलो. तें अशें कोण येरेगेरें नासलें. त्या स फुटी महाराश्ट्रीयन सुंदरीक सेगीत दोन वर्सां कॉलेज क्वीन हो किताब फावो जाल्लो. ताच्या एका नदरे खातीर जीव उवाळून वडोवपी कितलेच रोमीयो रस्त्यार, कॉलेजांत भीक मागताले. व्हडा व्हडा श्रीमंताल्यो गाडयो ताचे भोंवतणी घुंवताल्यो आनी हो कोण खंयचो बारा बजे - सोताक कोण समजतालो कोण जाणां. चल्यांनी ताका पळोवंक ना अशें जल्मांत पयलें फावट घडटालें. सरदारजीचेर मात्तूय परिणाम जावंक नासलो. ताच्या निळ्या दोळ्यांची जादू शिकड्याक लागू पडलिना. ताका जितलो राग आयिल्लो तितलेंच तें गोंदळून गेल्लें. राग, दूख, अपमान गिळीत ताणें हॉस्टेलाचो रस्तो धरलो.

दुसरो दीस उजवाडलो. कॉलेज कॅम्पस नव्या पोरन्या चल्या चलयांनी फुलून गेल्लो. सगळीं जाणां नटून थटून, नट्टो-पट्टो करून हिरो हिरोइनी जावन कॉलेजाक आयिल्लीं. नव्या आयिल्ल्या भुरग्यांची धजा उडोवप चालू आसलें आनी तितल्यान तो वसुंधराक दिसलो. “अच्छा, म्हणजे सरदारजीन ह्याच कॉलेजांत नांव घाल्लें तर!” अपमानाचो वचपो काडूंक आयती संद चालून आयिल्ली. वयल्यावयर वळखी-पाळखी जाल्यो. सरदारजी ताच्याकून एक क्लास खाला आसलो आनी ताचें नांव करण म्हण ताका कळ्ळें. रोखून पळोवपी वसुंधराक ताच्या काळ्या सपनेल्ल्या दोळ्यांत वळखिचो अंश लिकलिकिल्ल्या भशेन दिसलो आनी तितल्यान थंय रॅगिंग सुरू जालें.

नव्या भरती जाल्ल्या भुरग्यांचीं चिकाणां, फकाणां चालू जालीं. एक एक करीत सरदारजीची पाळी आयली. करणाक ताच्या केंसांचो मुंडावळो

सोडूंक सांगलें.ताचे लांबच्या लांब काळेच्च दाट केंस पळेतकी वसुंधरासयत थंय आशिल्ल्या सगळ्या चलयांक नसाय जाल्या बगर रावली ना. ताच्या केश्टांक हात लावचेली कूय वसुंधराक आवरली ना. गर्देतल्यान वाट काडून तें मुखार आयलें. कालचो रस्त्यावेलो प्रसंग आजून ताजो आसलो. अपमानाचें उट्टें काडूंक तें सुरसुरलें. सोबीत गोऱ्या हातांनी ताणें सरदारजील्यो रेशमी जटा धल्ल्यो. तांच्यो नदरो आपटल्यो. वसुंधराक ताच्या नदरेंत ताचें भुरगेंपण दिसून आयलें. पूण त्याच परीन ताची हट्टीपणांय दिसतालीं. सरदारजीली आव्हान दिवपी नदर वसुंधराक खटकली. तिट्ट जायनाफुडें तेंय तेंमाक पेटलें. ताच्या नदरेक भीक घालनासतना ताणें करणाक केंसांक धरून मदीं व्हेलो आनी सगळ्यांमुकार उबो करून व्हडल्यान चत्राय केली "तर ही जावन आसा आयच्या जमान्यांतली मॉडर्न द्रोपदी." सगळो हॉल शिळोण्यो, आड्डे, किळच्यांनी भरून गेलो. कांय अतिशाण्या चल्यांनी कागदाचे बाण, रोकेटां तांचेवटयां भिरकायलीं. हाताच्या मुठींत केंस गच्च धरून उबें आशिल्ल्या वसुंधराक सरदारजीची निडर नदर पळोवन आनीकूय पिसावल्ल्या भशेन जालें. फुडें सरत ताणें आनी एक फावट चत्राय केली, "सगळीं वगी जायात. आतां तुमच्या मुखार जातलें कलियुगी वस्त्रहरण." हें आयकताच सगळे आबूज जाले. बरीं बरीं म्हणोवन घेवपी चलयो सुध्दा मान वयर करून खी खी करूंक लागल्यो "फोर्सा, फोर्सा" म्हण हुयेल्यो घालून कांय भुरगे वसुंधराक नेट दिवपाक लागले. ताच्या शर्टाचे बुतांव काडटा आसतना करणाले दोळे जडावले. ताचे काम कशे हात, घट-मूट छाती पळोवन जमिल्ले सगळे पिशे जावंक पावले. दादलेपणाचो उत्तम नमुनो साक्षात तांचे मुखार उबो आसलो. एक एक करीत वात्रट भुरग्यांल्यो मागण्यो वाडत वताल्यो, परिस्थिती हाता भायर वचपाक लागिल्ली. वसुंधराकडच्यान ताचो ताबो आतां दुसऱ्या चलयांनी घेतिल्लो आनी त्यो ताची आपणांक जाय त्या तरेन धजा उडयी. वसुंधरालो मद आतां निवळपाक लागिल्लो आनी जाल्ल्या गजालीचो पच्छातापूय ताका जातालो. करपाक गेल्लें एक आनी जाल्लें मात भलतेंच. ताच्या नदरेक पळोवचेलें बळ आतां ताच्यान नासलें. फकणां ह्या थराक पावत म्हण ताणें येवजूंक नासलें. ताका खूप वायट दिसलें. त्या रातीक ताका

न्हीद पडलिना. पच्छातापाचीं दुकां रातभर उशें भिजयत रावलीं.

काळ हो दुखखाक रामबाण वखद अशें म्हणटात तें फट न्हय. काळ दिसांनी आपसूक सगळें सारकें जालें. दुखावल्लीं मनां, राग, द्वेश, तेढ हळू हळू निवळत गेली आनी म्हणटासर वर्स सोपूंक आयलें. भुरगीं एजामिचे तयारीक लागलीं. वसुंधरा, ताच्यो दोन इश्टिणी आनी करण मेळून एक डबल बेडरूम फ्लॅट शिकपाखातीर म्हण भाड्याक घेतिल्लो. म्हयन्याच्या निमणें तीं तिगांय मेळून भाडें वाटून घेयी. एक म्हयनो जाता म्हणसर वसुंधराल्या फ्रेन्डांची दुसरेकडे वेवस्ता जाली आनी फ्लॅटाचो सगळो ताबो आनी पेज भाड्यासयत ह्या दोगांचेर पडलो.

आयसपयस फ्लॅट, दोन तरणाटे जीव, एक पुरूशी सौदर्याचो बादशाह तर दुसरें परीकथेंतली अप्सरा, जें घडचें न्हय तें घडलें. तांच्या आंगांत वासनेच्या भुतान प्रवेश केलो, परिस्थितीचो जाय तसो फायदो उठोवन कसलीच धार-मेर धरिनासतना दोगांय विषय सुखांत बुडून गेलीं. ना भंय ना हुसको. भोग आनी वासनेक तीं दोगांय बळी पडलीं. खऱ्या मोगाक आंकूर अजून फुटचो आसलो. हीं तर सगळें करून मेकळीं जाल्लीं. काळ तांचेकडे पळेत हांसतालो. ताच्या पोटांत कितें आसलें तें एक देवाकूच खबर. लग्न जाय नासतना दोगांय घोव-बायल कशीं वागपाक लागिल्लीं.

करणाले केंस धुवन सुकोवंक वसुंधराक खूप आवड. तो लस्सी करतना तें तान-भूक विसरून ताका पळयी. परोठा भाजपाची ताची हातोटी ताका थक्क करी. स्वता ताका रांदूंक जमनाशिल्लें पूण तरी कशेंबशें तें ऑमलेट करी. मग भरभरून फसफशीत कॉफी पियोवंक ताका खूप आवड. आपणालो अभ्यास सांबाळीत करणाकूय तें अभ्यासांत मदत करी आनी तेदेवेळा कांय न्ही म्हळ्यार कॉफयेचे २-४ तरी मग ताच्या ताळ्या खाल वतालेच. तांचें सदचें जेवण म्हळ्यार दाळ, रोटी आनी पोटभर कॉफी. केन्नाय उमेद आयलीच तर तीं रस्त्याच्या तोंकावेल्या चायनीज हॉटेलांत वच. ती सुवात तितली बरी नासली पूण तरीय पालांसित जेवंक गेल्ल्या भशेन तीं थंय वचून आल्मूस झोडी.

सुरवातेचे दीस उमेदीन गेले. दीस वचून रात केन्ना सर तें कळनासलें.

जीण सोबीत जाल्ली. प्रणयांत तुडूंब न्हावन तीं दोगांय मोगाच्या ल्हारार धुंद जायी. करता करता एक फावट वसुंधराली मासीक पाळी चुकली पूण ताणें थंय चड लक्ष दिलेंना. हालीं करण विक्षीप्त वागतालो. कोण जाणां कित्याखातीर पूण तांच्या संबंदाक दिश्ट लागिल्ली. तांचे मदली घळ गरजे भायर रूंदावत वताली. एक म्हयनो असोच धुकल्लो. तें दोतोराक वचून मेळ्ळें. ताचो दुबाव खरो आसलो. तें गुरवार आशिल्लें. चिंतेत आनीकूय भर पडली पूण ताणें धीर सोडलोना. परिस्थिती जरी हाताभायर नासली तरी अचकीत ताका एकसुरेंपण खावंक आयलें. मन विदीर्ण जालें. कोणालागीं तर मन मेकळें करपाक तें आशेलें.

हळुहळू अविश्वास आनी फटवल्ल्या भशेन ताका दिसपाक लागलें. आपणालें दुखणें तें कोणाकूच सांगूंक शकनाशिल्लें. परिस्थिती खूप नाजूक जाल्ली. आपल्याच रोंदांत ताका परकेंपण आयिल्लें. नवें शार, अनवळखी लोक, ना नोकरी ना लग्न तातूंत वयर आनी गुरवारपण, बरें आवय-बापायक तरी खबर आसलें, तेंय ना, भरीक भर म्हूण करणय गरजेभायर तिरसटा भशेन वागतालो. ताकाय नोकरी नाशिल्ली. ताच्या दोळ्यां सामकार वाटकुळीं चक्रां घुवूंक लागलीं. ताचें पोस्ट-ग्रॅज्युएशन ओंदू सोंपतालें आनी करणालो रिज्लटूय त्याच म्हयन्यांत केन्नातरी आशिल्लो. थोड्यां म्हयन्यांचो प्रस्न. मागीर ताच्यान सिर्विस करूं येताली आनी उप्रांत लग्न आनी संवसार. खंय तरी वाट मेळिल्ल्याचें समादान ताका जालें.

ते सांजे करण बरो उसरांसो घरा आयलो. वसुंधरा ताका पळेत उल्लें. आयज ताका धक्क्यार धक्के बसताले. करणान केंस मारिल्ले. घसघशीत लांबच्या लांब भांगरासारके केंस ताणें फाटलो फुडलो विचार करिनासतना सामके बारीक बेणून सोडिल्ले. तो वेगळोच दिस. ताका पळोवन वसुंधराक शॉक बसलो. तें केंवार जालें. आड्डून, रडून, तिडकून, केंस वडून ताणें करणाक जाप विचाल्ली पूण ताणें ताका धुकलून वडयलें. दिवाणांक आपटून तें सकयल पडलें आनी ताच्या पोटांत कळो मारूंक लागल्यो. फाटल्या कांय सुमानापासून करणाली वागणूक बदलून गेल्ली. सुरवातीक तो हिडीस-फिडीस वाग पूण हालीं तो ताचेकडेन खुपूच वायट वागतालो. ताचेर हात उखलपा मेरेन ताची

मदार गेल्ली. वसुंधराक खूप वायट दिसलें. व्हडा प्रयासान ताणें दुकां लिपयलीं. करण आतां पयलींचो उरूंक नासलो. भितल्ल्या भितर तें रडटालें आनी तितल्यान तिरसटाभशेन करणालीं उतरां ताचें काळीज कापीत गेलीं. “हांव फ्लॅट सोडटां. डॅडीची चीट आयल्या. हांव अमेरिकेक वतां. तांणी म्हजें लग्न थारायलां.” बस इतलींच उतरां पूण वसुंधराचेर आख्खें मळब कोसळ्ळें. ताका करणाक खूप खूप सांगचें आसलें पूण उतरांच सापड नासलीं. लाचार जावन तें तो सुटकेस भरता तें पळेत मोन्यांनीच ताच्या तोंडावेल्यान ताचे विचार वळखुपाचे प्रयत्न करी.

वसुंधराचो कित्यारच विश्वास बस नासलो. घडटा तें खरें काय फट हेंच ताका कळनासलें. जिणेंत हो दीस येत म्हण ताणें केन्नाच येवजिलें ना. इतल्या दिसांचो संबंद, मोग, करण अशातरेन धुडकायतलो हें ताणें सपनांत्त लेगीत येवजिलेंना. तें भितर मोडून गेल्लें. एक बोनर जाल्लेवरी करणान ताका कोनशाक वडयल्लें. ताच्या मनाची, आत्मसन्मानाची ताणें मात्तूय पर्वा केलीना. किदेंच कांय एक घड नासतना ताचें कोल्ल चाळवल्लें आनी तो ताका किंकोंत करतालो. सगळें विचित्रूच जाल्लें. जें घडटालें - घडिल्लें ताचें कारण वसुंधराक जाणून घेवंचें आसलें पूण तो तर उलोवंकूच तयार नासलो. दोगांय मदीं असो विच्छद पडपासारकें कितें घडलें म्हण विचारूंक तें आशेतालें पूण संद मेळनासली आनी त्याचपरीन करण जाप दीत काय ना हेवूंय शेर्त नासलें. अधाशाभशेन ताणें आपणेंच ओडून वडयल्लें सिगरेटिचें पोंत ओंठार धल्लें. आंगाचो थरथर मातसो कमी जाल्लेवरी ताका दिसलो. ताच्या काळजांतलें दूख त्या धुरावाटें भायर काडपाचो प्रयत्न करूंक लागलें. दोतोरान दोन दिसां भितर भुरग्यां बाबतींत थारावंक सांगिल्लें आनी केस हाताभायर वचचेली शक्यताय उलोवन दाखयिल्ली. मुखार तो जबाबदारी घेवंक तयार नासलो. करणाक गुरवारपणाविशीं सांगप काय ना? कांय सुमानांचो ल्हान बाबू ताका थांबोवन दवरूं शकत काय?

करणाकडेन दोळे लावन वसुंधरा विचारांत शेणिल्लें. करणूय आपणाल्या कामांत मग्न आसलो. वसुंधराल्या अस्तित्वाची ताका पर्वाच नासली. तें थंय आसलें नासलें ताका कांय एक फरक पडनासलो. फाटल्या म्हयन्यापासून तो

असो कठोर जायत गेल्लो - कित्याक तें ताजें ताकाच खबर. घडये ताका आतां वसुंधरालो वाज आयिल्लो आसूंये वा तो सोताचेरूच कित्याक तरी बेजारला आसत. विचारांत आसतनाच ताच्या पोटांत एकदम दुखूंक लागलें. सोसपाक जायना तसली कळ माल्ली. ताच्या तोंडांतलें सिगरेटिचें थोटूक जमनीर पडलें आनी तोंडांतल्यान बारिकशी किळच मारीत तें जमनीर उताणें पडलें. “मॉ म्हजें बेबी - करण” अशें बडबडत ताणें मान आडवी घाली. किळच आयकूंक येनाफुडें करणालें लक्ष ताचेर गेलें. हातांतलें पुस्तक थंयच उडोवन ताणें वसुंधराकडे धांव माल्ली. तो सामको आंकाजार जालो. “हांव आसां. भीव नाका धीर धर” अशें बडबडत ताणें ताचेर उदक शिपडलें. ताची मान आपणाले मांडयेर घेतली आनी तो रडूंक लागलो. ताका घट्ट धरून वसुंधरा एकसारकें तळमळटालें. ताच्या बोटांचीं नाकटां करणाल्या मासांत तोंपतालीं. करणाक कितें करचें म्हण सुचना जालें. “हाय देवा, वसु, वसु तूं अशें कशें - तुज्या बगर हांव जगू शकचोना वसु” ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकांची धार निथळूंक लागली आनी तितल्यान कोणेंतरी दोतोराक हाडलो. ताणें वसुंधराक नीट तपासलें, वखदां बरोवन दिलीं आनी न्हिदेचें इंजेसांव दिलें. “भियोवचेलें कारण ना” वसुंधराल्या कानार दोतोराले शब्द पडले.

भेदरून गेल्ल्या करणाक दोतोराल्या उतरांनी मातशें तरी सातिसवेसांव मेळ्ळें. ताणें दोतोरालो हात घट्ट दामून आपणाल्यो भावना व्यक्त केल्यो. तकलेवेल्यान मणभर वजें देविल्ल्यावरीं ताका जालें. न्हिदेच्या पांवड्यार आशिल्ल्या वसुंधराक कांय प्रस्न आजून भिशटायताले. करणालो मोग आपणाचेर काय भुरग्याचेर? काय फकत कर्तव्य म्हण ताचे दोळे भरिल्ले? तो मोगान धांवील्लो काय असोच ड्युटी म्हण ताणें हें सगळें केल्लें? ताका सोडून तो आवय-बापायसरी वचत काय?

दोतोराक दारामेरेन सोडून करण ताचे म्हऱ्यांत आयिल्लो. ताच्यो पोटांतल्यो कळो आतां बऱ्योच कमी जाल्ल्यो. दोळ्यार न्हिदेचें झापड येतालें. करणाल्या दोळ्यांत आजुनूय दुकां आसलीं. खिणभर तांच्यो नदरो मेळ्ळ्यो आनी वसुंधराक सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो मेळ्ळ्यो. निर्धास्त मनान ताणें आपणाले दोळे धांपले. इंजेसांवांचो परिणाम हळुहळू ताच्या मनार जावंक लागिल्लो.

❑❑❑

# निर्भेळ सत्य

शिबालीं बोटां वळेरीन दवरिल्ल्या पुस्तकांच्या लायनीवेल्यान ल्हवू ल्हवू मुकार सरकतालीं. जिणेंतलो मोलादीक ठेवो नियाळतना तिचें बोट "सोव्हनीर" ह्या डायरीचेर आडखळ्ळें. तिची दृश्टी तिक्षण जाली, नदरेंत पिडा उदेली आनी तिका नाका आसतनाय ती डायरी तिच्या हातांत आयली. ताच्या स्पर्शानूच काळजा ठोके बंद पडटा काय अशें तिका दिसूंक लागलें. 'ही डायरी हांगा आयलीच कशी?' तिच्या दोळ्यांत प्रस्नचिन्न उमटलें. १५ ते १८ वर्सां पयलींची ती गजाल आतां काळा आड गेल्ली आनी आयज इतल्या वर्सां उप्रांत जुस्त ती डायरी तिच्या हाताक लागप हो योगायोग मानूंक ती तयार नासली. तिचें आंग थरथरलें. "वाचूं काय नाका?" अशे मनस्थितींत आसतनाच तिणें ती डायरी परतून एकदां वाचपाची थारायली. 'घडून गेल्ल्यो कांय गजाली जर परत माडूंक आयिल्ल्यो तर.....' आवयच्या काळजांत आस निर्माण जाली. सगळ्यो घडणुको परतून एकदां आरखुपारखुच्यो म्हण तिणें थारायलें. विचार करीत करीत ती आपणाल्या वलतेरांत वचून बसली.

धनयाची सुलूस लागतांच मोतीन कान फुलयले आनी शेपडी हालोवन आपणाल्यो भावना उक्तायल्यो. धनयाची आज्ञा पाळप, अन्नाक जागप, आनी खंयच्याय परिस्थितींत धनयाक पाळो दिवप हेंच ताचें धार्मिक अनुश्टान जावन आसलें. ताची ती शेपटी हालोवचेली विधी कितें कमी त्रासाची न्हय. कांय

वेळ शेपटी हालोवन जातकीच स्वस्थ जावन तो आपणाल्या जाग्यार वचून दोळे धापून स्वस्थ पोहुडलो.

हात कमरेर धरूनच शिबान वलतेराची बसकण सारकी केली. कण्यांत एक ल्हानशी कळ आयलीच. हालींच तिका कण्याचो त्रास बरोच जातालो. कदेलिचो आदार घेवन तिणें एकदाची बसकण माल्ली. त्रासीक भाव तिच्या तोंडार उमटले. वीस वर्सां फाटली ती डायरी आजुनूय नवी ताल्ल आसली. ती दाट डायरी तिणें मांडयेर दवरली पूण एकदम वाचूंक तिचें मन धजलेंना. काळीज कलकलपाक लागलें. बोटांक बारीकसो थरथर सुटलो. वलतेराच्या खुटयाचो आदार घेवन ती उठली आनी रांदचेकुडींत गेली. कडक कॉफी पिवन जातकीच पुस्तक वाचपाचें तिणें थारायलें.

“मोती हांगा यो.” हात-पांय पातळावन न्हिदिल्लो मोती उलो आयकनाफुडें कान फुलोवन पांयार उबो जालो. धनयान घाल्लें वाटीभर दूद लपलप करीत चाटलें, ताचें दूद सोप मेरेन अपुरबायेन शिबा ताका पळेत रावली. मायेन ताचे फाटीर हात भोंवडायलो. मोतीय लाडांत आयलो. कान, शेपडी, पेगंट हालयत तोय तिच्या फाटाफाट तालांत आयलो आनी तिच्या पांयाकडेन ताणें बसकण माल्ली.

शिबान डायरेचें कव्हर परतिलें. पयल्याच पानार खर आत्मविश्वासान ठळक अक्षरांत बरयल्ल्या वाक्यार तिची नदर पडली. ‘राशी म्हजें जिवीत’ - ‘रूद्रेश’ ताच्या सकयल बारीक अक्षरांनी बरयल्लें ‘रूद्र म्हजो मोग’ - ‘राशी’ सकयल तारीक आसली १४.२.१९६६. ह्या दिसा रूद्रेश आनी राशी लग्न जाल्लीं. डायरेच्या पानां कणकणी फाटल्यो यादी, प्रसंग, घडणुको शिबाल्या दोळ्यां मुकार जशाक तश्यो येवंक लागल्यो. त्या वेळचो रूद्रालो आवेश, जबर जिद्द, निर्धार, प्रखर आत्मविश्वास, मळबाक गिवसण घालपी विचार, व्हड व्हड ध्येयां ताच्या बरपांतल्यान दिसून येयी तर राशीलो मंद, मधूर, मोगाचो सडो, आपणाल्या ल्हानश्या संवसाराविशीं आपुलकी, माया, मोग, ध्येया फाटल्यान तान-भूक विसरून झपाटिल्ल्या घोवाक मायेच्या पालवांत दवरपाची कळकळ दिस. दोगांयल्यो दोन तरा. ध्येय दोळ्यांमुकार दवरून ताचे फाटल्यान सतत दीस-रात खपणाऱ्या रूद्रान पयसो, धन, मान-सन्मान

हेंच आपणालें जिवीत केल्लें तर राशीक ताच्या संवसारांत्त कसल्योच दुसऱ्यो किचकटिच्यो आडमेळी नाका आसल्यो. आपणालो बारीकसो संवसार - दोन वेळचें खावन जेवन सुखी आनी जाता तितलो घोवालो सहवास - पूण रूद्र तिच्या वाट्याक कमीच येयी. ताका आवर घालप तिच्या आटापा भायली गजाल जाल्ली. तान भूक, घरदार विसरून ध्येय सादून घेवचेलो रूद्र जीव वतोवन प्रयत्न करी तर ताचो व्यापारी सभाव बदलून ताका घराकडे वळोवप, जातात तितले एकमेकाच्या सांगातान रावप, खूप मोग करप, एकमेकाक समजून घेवप, मोगाच्यो गजाली करप हें राशीलें ध्येय आसलें. तिची सगळी कटकट फुस्स जायी पूण तें जरी कितेंय आसलें तरी तांकां एकमेकाची गरज आसली. दोगांयलीं मतां जरी वेगळीं आसलीं तरी एकमेका बगर संवसार मुखार चलूच शकचोना हें तांकां खबर आसलें. देखून ध्येयां जरी आड आयलीं तरी जिवितांतलो सूर-ताल राखपाक तांकां परिस्थितीकडेन मान लकोवचीच पड. पूण फुडें जस जशे दीस वचूंक लागले तशे तांच्या संबंदान दुरावो येवंक लागलो. बारीक बारीक गजालीवेल्यान झगडीं पेटूंक लागलीं. पूण तरी लेगीत संवसाराचें रोद घुंवत आसलें.

डायरीच्या पाना कणकणी शिबाले मतींत तरेकतरेचे विचार येताले. 'पयली रात', 'पयलो विमान प्रवास', 'पयलो चलो', 'संवसारांतले कांय सुखाचे खीण', 'हॉटेलांतलें डिनर', 'दर्यादिगेवेली पासय', 'चल्याचें पयलें पावल', ह्या सारखिले घरगुती विशय राशी हाताळी. तिच्या भावनेंत रूद्रालो खूप उल्लेख आस. तांचे भितल्ले सूख-दुखाचे धागे तें सदांच बरोवन दवरी आनी पोंदा हळदुव्यो लायनी मारी. 'वेवसायांत फायदो', 'धंद्यात बरकत', 'नवी संवय', 'नवो धंदो', 'धंद्यातल्यो नव्यो वळखी', 'बारकावे', 'वयर चडपाक आदार दिवपी पावंडे' असले फकत धंद्याचे विशय रूद्रान व्हडल्या लॅत्रांनी बरयिल्ले आनी पोंदाक तांबड्यो लायनी मारिल्ल्यो. त्यो तांबड्यो-हळदुव्यो लायनी शिबाल्या नदरेमुकार फेर धरून नाचूंक लागल्यो. तिका घुंवळ आयिल्लेवरी जालें. मुकार तांच्या जिणेची बसका पेड्ड्यार जायत गेली. इल्लें इल्लें सगळें काबार जायत रावलें. दोळ्यांच्यो कडो पुसून शिबान आंवडो गिळ्ळो. तिका एकदम एकसुरेंपण खावंक उठलें आनी घरांत किण्ण

जाल्लेवरी दिसूंक लागलें. जुस्त फोन वाजलो. त्या किण्ण वातावरणांत त्या आवाजासरशी तिणें आंग काडलें.

काळीज भरून आयिल्लें. फाटल्या यादींचो दोळ्यांत म्हापूर साठिल्लो. तिणें थोडो वेळ विसोव घेवचें थारायलें. डायरी मेजार दवरली आनी पड्डो कडेक सारून गॅलरीचें दार उगडलें. बेजारून ती कदेलीर बसली. गेलरींतल्यान मुखावेलो दर्या आनी ताचे आयली वेळ दिस. वेळेवेले लोक थंयच्यान ल्हान ल्हान ठिपकेशे दिसताले. खुपशे लोक अशे एकठांय जातकी तरतरेच्यो वेगवेगळ्यो आकृत्यो तयार जायी आनी ते हालनाफुडें रोखड्योच मोडुनूय वच. सुर्यास्त आनी सैमाची तरेकतरेचीं रूपां तिका सदांच भूल घाली. वरांच्या वरां बसून ती विधात्याली कलाकुसर निरखीत बस. घरच्या यादीन परतुपी शेवर्णी, दर्याचीं ल्हारां पयस आसून लेगीत तिका थंय मेरेन आयकू येतालीं. एकाच जाग्यार रावन लेगीत तिणें सैमाकडेन ताळ-मेळ बांदिल्लो. बळयांच दावली लावन मोतीन आपणांकूय मांडयेर बसय म्हूण सुचयलें. ताची मोनी सुचोवणी तिणें जुस्त वळखली आनी ताका उखलून मांडयेर घेतलो. फाटीकण्यांतल्यान कळ आयलीच पूण तरीय तिणें मोतीक सासपीत धोलोवंक कोमेस केलें. तांच्या मदल्या मोगाक हद्द नासली. साद्या मनशाच्या समजणी भायल्यो त्यो गजाली आसल्यो. रगताच्या नात्यापरस चड घट्ट. हळुहळू सूर्य मावळटालो. तांबड्याधुन्न उज्याच्या गुळ्या भोंवतणी आतां हळदुवी मंद प्रभा फांकील्ली. भोंवतणचो पुराय जागो भांगर कसो लखलखतालो. थोड्याच वेळांत ती संपूर्ण प्रतिभा, तें सृश्टी सौंदर्य दर्याच्या विशाल पोटांत गडप जालें. त्या तांबड्या, हळदुव्या लायनी सारखें.

डायरी वाचून शिबालो मेंदू शिणून गेलो. मनाक जडसाण आयली. तिणें टिवी लायलो. बातम्यांचो वेळ जायत आयिल्लो. कोणा एका मल्टी नॅशनल कंपनीच्या पात्रावाची मुलाखत चालू आसली. चाळिशींतल्या त्या धडाडीच्या हुशार मनशा भोंवतणी कॅमेरा भोंवतालो. पयसुल्ल्यान घुंवपी कॅमेरा दॅरेंपेंत क्लोजपांत आयलो आनी त्या मनशाचें स्पश्ट दर्शन शिबाक घडलें. तिचीं बुबळां थीर जालीं. तोंड उक्तेंच उल्लें, काळजाचे ठोके वाडले. हय - ती व्यक्ती तिचोचो पूत, नामनेचो उद्योगपती रूद्रेशूच आसलो. ताची कुशाग्र

बुध्द, जबरदस्त हुशारी ताच्या उतरा कणकणी दिसून येताली. मेजून- मापून उलयल्लो शब्द, वाक्य, ताचो अणभव आनी अफाट बुध्दीमत्ता परगटायी. बावन्नकशी भांगरा इतलें अस्सल, शेर्त आनी स्पश्ट. आयच्या योगायोगान शिबा सामकी अजापून गेली. आयजूच डायरी मेळप - टिवीर जुस्त पुताची मुलाकत - ती भांबावली. बारीक नदरेन ती रूद्रेश नियाळूंक लागली. ताचो सदळ हांसो, उमदें व्यक्तीमत्व हातूंत चडसो कांयच बदल जावंक नासलो. स्वबळार, धडाडीन किर्तीचो मुकूट चडोवन तो तेंगेशेर पाविल्लो. आपणालें ध्येय ताणें सादिल्लें. एक येशस्वी उद्योगपती म्हण ताची कारकिर्द घराघरांत पाविल्ली. मान, प्रतिश्टा, विद्वत्ता, वैभव, धन, ताच्या पांयांकडेन लोळटालें पूण ताचे नदरेंत त्या धील हांशांत खंय तरी पिडा, खंत लिपिल्ल्याचो भास शिबाक जातालो. मनांत दडिल्लें दुख्ख ताची नदर लिपोवंक शकनाशिल्ली. तोंडवळ्याचेर मोनो तणाव दिसून येतालो आनी भरून येव शकनाशिल्ली अशी काळजांतली खोल पोकळी फकत थाव घेवन पळेतल्याच्या नदरेकूच जाणवताली. रूद्रेशाली नदर कॅमेराकडे वळ्ळ्याबरोबर ताची आनी शिबाली नदर एक जाली. तिच्या काळजांत लक्क जालें. पूत दिसनाफुडें ताच्या यादीन तिका रडूंक आयलें. ताणें जरी कितलेंय लिपयलें तरी ताच्या काळजा भितल्लें दुखणें तिका स्पश्ट दिसून आयलें. तो जगाक फटोवंक शकतालो, राशीक लिपोवंक शकतालो पूण आवयक फटोवंक कसोच शकलोना. ताच्या नदरेवेल्यानूच ती कितें समजूंक जाय तें समजली. पुताक सासपुपाक ती फुडें सरली पूण - वेळ जायत आयल्लो. मुलाकत सोंपिल्ली. तिणें टिवी बंद केलो आनी कदेलीक फाट तेकोवन दोळे धांपले. रूद्रेशालें रूपडें तिच्या मनार उबें रावलें. त्या नदरेंतली कणव, व्यथा, पिडा भायर दिसनासली पूण तिच्या तरी हातांत कांयच नासलें. बरोच वेळ सुन्न जावन ती बसून रावली. उठपाचें तिका मनूच जायना जालें.

बऱ्याच वेळांत कदेलीक धरून ती उठली. फाटीच्या दुखण्यान परत तोंड वयर काडलें. तिणें आपणांक वाडून घेतलें. सहज तिची नदर डायरेर गेली. पंख्या खाला 'सोवनीर' वाऱ्यान फडफडटालें. तिचें लक्ष एका पानार गुंथलें. काळ्या लायनीवेली लॅव्रा सहज वाचूंक येतालीं. त्या दिसांनी रूद्रेशाचेर

कोण म्हारू बशिल्लो कोण जाणां, चल्याक बोर्डिगांत घालप म्हण तो तेमाक पेटिल्लो. राशीन काकुतेक येवन हातापांया पडून ताका खूप समजायलो. रडलें, झगडलें पूण रूद्र भावनेच्या दुसऱ्या तोंकाक पाविल्लो. सगळ्यांपरस व्हड जावप, रितीन रावपाक शिकप हाका तो भावनेपेक्षा चड किंमत दितालो. चलो जल्मल्या उप्रांत तांच्या मदलो दुरावो आनीकूय वाडलो. यश, किर्तीच्या फाटल्यान धांवत आसतना तो बायल, चलो म्हण कोणाक वळख नासलो. तांच्या खातीर ताका वेळूच नाशिल्लो. तिच्या वाट्याक सोडूच चल्याक लेगीत बापूय केन्नाय मेळ. भुरग्याचो मोग, ताची तोकणाय, घराची ओढ, म्हणजे कितें हें ताका खबरच नासलें. फकत उंची कपडे, उंची शिक्षण, उंची जेवण दिलें की बस ताचे लेखी ताचें कर्तव्य सोंपतालें. ताच्या व्हड व्हड इत्सेमुखार ताच्या इल्ल्याश्या घरकुलाची बुनयाद निखळूंक पाविल्ली.

ताटां धुवन जातकी शिबा परत व्हारांदार आयली. भायल्या थंडसाणेन तिच्या मनावेलें चेपण बरेंच कमी जालें. भितर फोन वाजलो. कान उबे करून मोती तिच्या म्हऱ्यांत गेलो. फोनाची बॅल वाजतकी तो सदांच आबूज जायी. चुकीचो नंबर लागिल्लो. रॉंग नंबर म्हण सांगून तिणें फोन दवरलो. डायरी उकतीच पडिल्ली. तांतले शब्द तिच्या नदरेमुकार नाचूंक लागले. चल्या बद्दलची ती अत्यंत वायट खबर आसली. हॉस्पिटलांत सावन फोन आयिल्लो. तिच्या नातवाक सिरीयस अवस्थेंत हॉस्पिटलांत ॲडमीट केल्लो. बापायली गाडी पळेतकी फाटलो फुडलो विचार करिनासतना उलो मारीत तो मोटारी फाटल्यान धांवत सुटलो आनी ट्रकाक आपटलो. ताचे तकलेक जबर मार लागिल्लो. राशीली ममता, आंगवण्यो, दुकांनी दोळे भरून केल्ली प्रार्थना फुकट गेल्ली. रूद्रेशानूय आपल्यापरीन सगळे प्रयत्न केल्ले पूण काळामुकार कोणाचेंच चललें ना. चलो तांकां सोडून गेलो. बापायले जिद्दीक लागून भांगरासारको चलो गेलो अशी राशीली समजूत जाली. तिचो एकलोच काळजा कुडको काळान ओडून व्हेलो. तिचो संवसार सैरभैर जालो. राशी त्या धक्यांतल्यान सावरूंक शकलें ना. तें जायतो तेंप डिप्रेशनांत्त गेलें. रूद्राली किर्ती, धन, धडाडी तिच्या काळजांतलो घाय भरूंक शकली ना. तांचेमदीं आनीकूय फूट वाडली. ती रूद्राक माफ करूंक कशीच तयार नासली.

चल्याच्या अपघाताक ती ताकाच जबाबदार मानताली. तांबड्चो हळदुव्यो लायनीय आतां सोंपिल्ल्यो. उरिल्ल्यो फकत भकास रित्यो फोली.

डायरेचें निमणें पान तांबड्या तिंतान, थिर हातांनी बरयल्लें. त्या दिसाक तांचो डायवोर्स जाल्लो. राशीन रूद्राक माफ केलोचना. चल्याचो भिशण अंत तिच्या स्मृतींत कायम उरिल्लो. तिचें इल्लेंशें घर, सपनां मोडून पडिल्लीं. मनांक तडो गेल्लो. घोवाली जिद्द निग्रह आजुनूय तसोच आसलो. हाचे फुडेंय घडये तशेंच घडूंक शकतालें. इतिहास परत घडूंक तिका नाका आसलो आनी म्हणुनूच आपणाल्या दुसऱ्या भुरग्याल्या भलायके खातीर तिणें घटस्फोटाचो निर्णय घेतिल्लो. रूद्रान तिका केन्नाच मोग दिलोना. तो तिका हळुहळू मारून उडयी.

रात बरीच जाल्ली. शिबान डायरी कडेक दवरली आनी लायट काडून ती हांतुणार लवंडली. तिचो पूत आपणाल्या नियुक्त स्थानार पाविल्लो. त्याबदली ताका जबर भोगचें पडिल्लें हेंय तितलेंच खरें. घराभायर ताचें नांव दर एकल्याच्या तोंडांत जाल्लें. तो भौमानेस्त जाल्लो खरो पूण घरगुती जिणेंत तो नापास जाल्लो. एक घोव वा बापूय म्हण तो अपेशी ठरिल्लो. ताणें केल्ल्या खर तपाची फळां तो एकलोच भोगूंक शकनासलो. बायले-भुरग्या बगर ताचे जिणेक अर्थूच नासलो. राशील्या खऱ्याखुऱ्या मोगा बदली ताणें तिका कितें दिलें? आनी राशीन तरी आपणालो जीव वतोवन कितें मेळयलें? तिचो मोग, तिचो संवसार तिच्या चल्याक वाचोवंक शकलो? चूक कोणाची - कोण खंय कमी पडलो? शिबा न्हिदिल्लेकडेन विचार करी. काकुटेक आयिल्लो रूद्रालो चेरो तिच्या दोळ्यां मुखावेल्यान हालनासलो. ताचो पच्छाताप, ताच्या तोंडार दिसून येयी. आवयलें काळीज कळवळ्ळ्या बगर कशें रावतलें? तांच्या संवसाराचो चुराडो तिच्या जिणेक भितल्ल्याभितर पोखरून काडी.

ते दिसा सावन ती स्वस्थ अशी केन्नाच न्हिदली ना. पुताचें दूख, रक्तान माखिल्लें नातवाचें शरीर, त्या इल्ल्या जिवान केल्ली हातापांयांची तडफड तिका भितर - भायर हालोवन सोडी. तिची न्हीद साप गेल्ली आनी म्हणुनूच ती न्हिदेच्यो गुळयो घेयी. आतांय ती भियेवन उठून बसली. तिणें दिवो लायलो पूण आयज तिका गुळयो घेवपाच्यो नासल्यो. तिणें घडयाळ पळेलें. सकाळचें

चार वाजूंक आयिल्लें. "आतां मेरेन ताचें विमान पावूंक जाय" ती उद्गारली. बारा वर्सांनी पयले फावट आयज तिगेर राशी येतालें. तें कशें आसत, साऊदिन, दिसूंक - राशीक मेळूंक ती खुपूच उमळशीक जाल्ली. राशीलें पत्र वाचून तिका खूप खोस जाल्ली आनी राशीन रूद्राक आनी तिका एक खाशेली भेट हाडटा म्हण बरयल्लें. पूण कसली भेट, कितें कात तें कांयच बरोवंक नासलें. घटस्फोटा उप्रांत ती आपणाल्या कुळारा अमेरिकेक गेल्ली आनी कांय तेंपान तिचें लग्नूय जालें. केन्नायशी तिची चीट येयी आनी खुशाली कळ. चिटयेवेल्यान तरी तें सुखी आसा म्हण दिसतालें. आपल्या परीन तिणेंय आपणांक जाय तें आयुश्यांत प्राप्त करून घेतिल्लें. तात्पर्य ती थंय वचून सुखी जाल्ली. तिची खुशालकाय वाचतकी शिबाक उमेद जायी.

भायल्या दाराची बेल वाजली. भुकत शेपडी हालयत मोती दाराकडे धांवलो. शिबापरमाणें तोय येवप्यांचें स्वागत करूंक तयार राविल्लो. हवेंत उफेल्ल्या भशेन शिबा दाराकडे पावली. केन्ना काय राशीक पळेता अशेंय तिका जाल्लें. दारांत्त एक १६-१७ वर्सांचें हांसरें चली उबें आसलें. बारीक नियाळून पळेल्या उप्रांत ताचो चेरो शिबाक वळखिचो वळखिचो दिसलो - धील, सदळ हांसो, दोळ्यांत प्रखर आत्मविश्वास - अचकीत तिच्या दोळ्यामुकार पुताची मूर्त उबी रावली. रूद्रालो तोंडवळो आनी चलयेच्या तोंडवळ्यांतलें साम्य ती सगळें विसरून पळेत उल्ली. आत्म्यांक आत्म्याच्या खुणो पटल्यो.

"मम्मी मागीर येतली" चलयेन म्हळें आनी तें हळूच भितर सल्लें. "आजी आतां हांव हांगांच रावतलें. हांव..." नातीन आनीक कितें उलोवचें पयलींच शिबान ताका घट्ट वेंग माल्ली. शब्दांची गरज सोंपिल्ली, दुकां आपलें काम करी, भावना आपलें. स्पर्श मोन्यांनी उलयी, रगताक रगत वळखल्लें. जिणेंतलो निमाणो प्रस्न सुटिल्लो. मनावेलें व्हडलें चेपण देंवलें. आवय, पुताच्या जिणेंतलो सगळ्यान मोलादीक दुर्मिळ ठेवो आयज तांकां फावो जाल्लो. राशीली भेट शिबाक खूप मानवली. दोळे भरभरून व्हांवतालीं. १८ वर्सां लिपोवन दवरिल्ल्यो भावना आयज बांद फोडून एकठांय जाल्ल्यो. डबडबिल्ल्या दोळ्यांनी शिबाक दारांत एक जोडपें उबें दिसलें. "राशी" म्हण उलो मारीत ती ताचेवटयां वळ्ळी.

❑❑❑

# अथांग मोग

दनपार हळुहळू कलताली. सुर्याची खर उष्णता थंड हवेच्या ल्हारांक घेवन फुडें येवपी सोबीत सांजेची सुलूस दी. नुएला गॅलरींत उबें रावन खबरेपत्रांचीं पानां घेवन हाश-हूश करीत वारो घेतालें. हळूच एक थंड वाऱ्याचें ल्हार तापिल्ल्या धरतरेक शितळकाय दीत गेलें. नुएलाचो वारें घालपी हात थांबलो. आयज वाऱ्यान नुएलाक चाळोवंचें थारायल्लें. परतून एक वाऱ्याच्या ल्हारान ताच्या तोंडाक हळूच स्पर्श करून मायेन ताका तोखेत, सासपीत ताच्या मेकळ्या केंसांक ओडीत, विणयांवांगडा खेळत ताका चाळयत पासार जालें. उप्रांत वाऱ्याचीं ल्हारार ल्हारां ताका बेजार करूंक लागलीं. ताका लाडे लाडे सतावंक लागलीं. नुएलानूय आपणांक सतावपाक आयज सैमाक भरपूर वाव दिवंचो अशें थारायलें.

गांवच्या दर्या पासून चडान चड उल्याच्या अंतरार नुएलाचें पेटूल कशें घर आसलें. ल्हानपणांतसान ताका दर्या खूप आवड. दर्या आनी ताचें अतूट नातें जमिल्लें. वर्सा कणकणी तें नातें घट जायत राविल्लें. दर्या ताका साद घाली ताच्या नावाचो एकसारको जप करी. तो जप आयकत आयकत तें तरूण जाल्लें. दर्यान घातिल्लो साद काळजाक जागोवपी जाज्वल्य मंत्र आयकूंक तें सदींच तत्पर राव. ताचे बगर दुसरें कसलेंच आकर्शण ताका मोहीत करूंक शकनाशिल्लें. तो प्राचीन जल्म-जल्मांतरांतलो उलो, गुंजणारो

आवाज, दीस-रात ताचें नांव घेयी... नुएला... ती मंत्ररूपी साद, ताच्या नांवान केल्ली कुजबूज ताच्या काळजांत खळबळ करी. गाभ्यांतल्यान उलो मारीत मारीत दर्याचें प्रत्येक ल्हार, खडपाक आपटून फुटिल्लें ल्हार, तडेक मेळपी ल्हार फक्त ताचेंच नांव जपी. त्या आवाजाक आडमेळी घालप ताच्या हातांत नासलें. तें विचित्र बंधन, काळजाचो थाव घेवपी उलो ताचें अंतरमन जागृत करचो प्रयत्न करी आनी तरीय तातुंतलें गुपीत मात ताका अजून उक्तें जावंक नासलें.

ह्या विशयार तें आयजमेरेन कोणाकडेंच उलोवंक धजलेंना. अतूट बंधन, स्नेह, जल्म-जल्मांतरांतलो संबंध, पाश, सादारण मनशाक ताची सांगड घालप शक्य ना हाची ताका पुराय खात्री आसली. ताचो मोगी, ताच्या फुडाराचो धनी-निकोलस, तो लेगीत ताका समजूंक शकलो ना. एक फावट ताणें ताका मातशें कितें सांगिल्लें आनी ताणें घुस्पागोंदळ आनीकूय वाडोवन दवरिल्लो. सगळें आयकून घेतल्या उप्रांत ताका धक्को बशिल्लो. ताच्या कुडींत भिरांत भल्ली आनी काकुळतेक येवन ताणें नुएलाक हो व्हड शेरमांव सांगिल्लो. "नुएला हें सगळें तुज्या आंगांत आशिल्ल्या वायट आनी गुढ शक्तेचो प्रताप. हांव सांगतां तीच तुका एकसारकी उलो मारीत आसता. तो काळो दर्या तुजे भितर वावुरपी ती वायट शक्त - दुसरो तिसरो कोण एक न्हय तो देंवचारूच आसपाक जाय." ताणें हातांनी खुरसाची खूण केली. ताच्या दोळ्यांत भंय भरिल्लो. चिंतेस्त जावन ताणें नुएलाक त्या घातकी सर्वनाश करपी आकर्शणाक विसरूंक सांगिल्लें. "नुएला, म्हाका तूं खूप जाय आनी तुका कितेंय जायत जाल्यार हांव जिवीत उरचोना" अशें म्हणीत ताणें नुएलाक वेंगेंत घेतिल्लें. निकोलसाच्या गोपांत खिणभर सुखाविल्लें नुएला उलो आयकूंक येनाफुडें सादूर जालें. "नुएला...." दर्याचो साद, अद्‌भूत, मोगाळ- "नुएला" परत तोच आवाज पूण पयलीं परसूय गोड, हळवो, दयाळू स्वर. निकोलसाच्या खांद्यावेल्यान तें हांसलें. वठांतल्या वठांत हुंकार दिवन त्या अदृश्य शक्तेक ताणें हळूच प्रतिसाद दिलो. दोळे बंद करून त्या मनभुलयण्या सैमाच्या उल्याक ताणें काळजाक गांठायलो आनी एक वेगळ्याच जगाभायल्या उमेदीत तें उफेवंक लागलें.

ते दिसा सावन ताणें तो विशय निकोलस वा हेरांकडेन केन्नाच काडूंक ना. तांतलो नैसर्गिक भाव, मोग, गाढ इश्टागत, अतूट बंधन, मोगाची खोलाय ताचे बगर कोणाकूच कळप शक्य नासलें. दर्याचो व्हड विस्तार आनी मनांत उसळपी विचाररूपी ल्हाराचो मेळ जाल्लो. ती एकात्मता - मळब, दर्या आनी काळजाचो मेळ जायनाफुडें मनांत उमेदीचीं ल्हारार ल्हारां उसळूंक लाग आनी तें सैमाकडेन एकरूप जायी.

दर्या-ल्हारांचो आवाज, ताल, स्वरांतलो उतार-चडाव पळेतकी अशें दिसपाक लागतालें की ह्या सगळ्या गजालींचो कोण तरी दिसूंक न शकणारो मास्तर संचालन करता आसूंक जाय. त्या विराट दर्याचें मनरिजवण करपी दर्शन, थाव मेळूंक अशक्य अशा त्या दर्याचें नितळ, निर्मळ निळें रूप आनी रंगाच्यो बदलत्यो सया तें तोंड आं करून वरांच्या वरां वाजेनासतना पळेत राव. नुएला, नुएला, मंत्र घोकीत ताच्या पावलांचो उमो घेत मोव, मवाळ निळ्या फेसांतल्यान वाट काडीत तीं ल्हारां ताका आनीकूय खोल उदकांत यो म्हण आपयतालीं. सदींच ताच्या स्वागताक सिध्द आशिल्ल्या त्या थंड वेंगेंत तें खोशयेन वच. ताका त्या शितळ वेंगेंत झोकून दिवपाक खूप आवड आनी प्रत्येक फावट मुखार काडिल्लें पावल तें मन मारून फाटीं घेयी. मनमेकळें हांसून हात-पांय मारीत त्या दर्याच्या वेंगेंत तें खोशयेन वच पूण वेळ येतकी फाटींय सरतालें. तो आवाज तेन्ना निरशेतालो. त्या स्वरांतलें दूख्ख आनी सोसूंक जायना तसली पिडा ताका सहज वळखूंक येयी. दर्याचो हट्टीपणा पळोवन एकेक फावट ताका आपूण सागरकन्या वा मत्स्यकन्या आशिल्ल्यावरी दिस. मोगी जिवाची ताटातूट जाल्ल्या उप्रांत त्या विरहांत मोगी जसो आपणाल्या मोगाक साद घालता तसलेच भावनेन, कुडीक हालोवन सोडपी वियोगांत दर्या आर्त स्वरांत ताका साद घाली. एक सारको परत परत आपयी. अशेंच दर्या देगेर भोंवतना ताका एकदां शंख सांपडिल्लो. सहज म्हण ताणें तो कानाकडे व्हेलो आनी अजापान तें थक्क जालें. “नुएला...” फिक्या आवाजांतलो वळखिचो साद - तो विरहाचो स्वर आयकनाफुडें ताच्या मणक्यांतल्यान शिरशिरो आयलो. तो शंख ताणें घरा व्हेलो आनी आपणाल्या मोलादीक आनी जिवाक आवडपी वस्तुंनी ताका दवरिल्लो.

आयज सकाळ पासून ताका बरेंशें दिस नासलें.कसली तरी शक्त मनांक ओडटा असो सेगीत भास जायी. सहज ताचीं पावलां दर्या दिकेंत वळ्ळीं. थंड आनी शांत, विचारांत मंग्न आशिल्लो दर्या हात पातळावन नुएलाच्या स्वागताक सज्ज जालो. थंड वाऱ्याच्या ल्हारान ताच्या आंगार कांटो फुल्लो. आंगावेलो विस्तीद ताच्या नाजूक कातीक दसून रावलो. रेवेंचो बारीक कण ताच्या दोळ्यांत रिगलो. तो वारो ताका दर्या देगेर वचपाक आडमेळीं हाडूंक लागिल्लो. 'नुएला' आवाजांतली पिडा, कणव ताका जाणवली. तें दिमयेर बसलें. ताका थांबिल्लें पळोवन वाऱ्याक नवो उत्साह आयलो. जिकिल्ल्यांच्या नादांत तो हुयेल्यो घालूंक लागलो. नुएला... काळजाक कुरेदपी आवाजाची साद परत आयकूंक आयली. पयलीं परस चड दूख्ख, तडफड त्या आवाजांत दिसून येताली. केंसाचें तांबडें रिबीन नुएलान सोडोवन उडयलें. तें खिणभर वाऱ्यार फडफडलें आनी पयस रेवेर पडलें. मजेंत, हांसत, खिदळत, कोलांट्यो मारून स्वैर लोळूंक लागलें. स्वातंत्र्याच्या उमेदीन रंगून गेलें. तें पळेतकी नुएला हांसलें. ताचे बांदिल्ले केंसूय आतां स्वतंत्र जाल्ले. "नुएला" - ल्हव, हळवो आवाज, काळजार फूंक मारिल्ल्यावरी तीं स्वर ल्हारां ताच्या मेंदवांत रिगलीं.

दिमयेर बशिल्लें नुएला उठलें. ताची थांबिल्ली वाटचाल दर्या दिशेन परत सुरू जाली. ह्या वेळाक ताचें प्रत्येक पावल निग्रही, खंबीर, विचारपुर्वक आनी सवकास पड. ताच्या तोंडार एका तरेचें तेज फांकिल्लें आनी तातूंतल्यान खर आत्मविश्वास दिसून येतालो. ताचेखातीर रेवेन आपणाल्या आंगाचो मोव गालिचो केल्लो. ताच्या सुकुमार नाजूक पावलांक कश्ट पडचे न्हय म्हण ती ताका कातकुल्यो करी - निदान नुएलाक तरी तशें दिसलें. मिनीटभर रावन ताणें एक लांब हुस्कार घेतलो आनी त्या आवाजाकडेन, त्या अद्भूत शक्तेकडेन तें एकरूप जालें. सांज जाल्ली. मळबांत काळ्या ढगांनी गर्दी केल्ली. खंयच्याय खिणाक मुसळांधारेचो पावस पडूंक शकतालो पूण नुएलाक कसलीच जाणविकाय नासली. हांगा थंय पळेत, कान दीत थंय लार्गी कोण ना म्हण ताणें खात्री केली. भयाचें थंड ल्हार फाटीकण्यांतल्यान पासार जालें. एकसुरें एकलेंच बशिल्लें दर्यातलें शेवणें विचित्र आवाजांत आड्डलें.

नुएलाची नदर ताचेर थिरावली. त्या सवण्यान ताका कसली तरी कुरू केल्ली. ताटातूट जावन शेणिल्ले दोन जीव आयज अचकीत मेळचे - कांयशी अशाच तरेची भावना ताच्या मनांत उबी राव. तो पक्षी पाखां फडफडायत पयस पयस क्षितिजाच्या तांबड्या हळदुव्या पड्ड्याचेर टींब कसो दिसूंक लागलो आनी म्हणटासर सैमाकडेन एकरूप जालो. नुएला तो गेल्लो त्या वाटेकडेन पळेत रावलें. ताचो कसलो तरी निर्धार जातालो आसूंये.

लांबच्या लांब पसरिल्ल्या रेशमी मोव रेवेच्या गालीच्यावेल्यान चलतां चलतां ताच्या पावलांची आनी ल्हारांची गती एक जाली. कडेक येवपी दर एक ल्हार त्या धव्याफुल्ल निर्मळ रेवेंचो गोड उमो घेतालें आनी आपणाल्या मोगिकेक जमता तितली वेंगेंत कवटाळपाचो प्रयत्न करी पूण खंयची तरी एक दुश्ट शक्त तांकां आडावनूय धरी. ती विरहाची पिडा विशाल पोटांत लिपोवन दर्या परत परत प्रियेक कवटाळपाखातीर उतावीळ जायी पूण काजराचो लिबास घालून तयार बशिल्ली ती धवीफुल्ल रेंव ख़ूंट कशी एकाच जाग्यार राविल्ली. ती प्रिया आपणाल्या प्रियकराकडेन इतली निश्ठूर कशी? दोळे आसुनूय ती कुड्डी कित्याक? मजनूची करूण स्थिती पळोवन तिच्या काळजाक उमाळो कसो फुटना? "नुएला" रडको आवाज, काळीज कुरतडपी वेदना आनी लाचारी त्या स्वरांत वळखूं येताली. लाचार प्रेक्षकाच्या भुमिकेशिवाय ती तरी बापडी कितें करूं शकताली? काळजाची फडफड, सभ्यताय, कुलीनपणा आनी शालीनतेचे अलंकार घालून ती कितलींच वर्सां थंयच उबी आसली - बेबस - लाचार. त्या तसल्या विचारांनी नुएलाच्या वठांर बारीक हांसो उदेलो.

फुडल्या सुमानांत नुएलाचें काजार ठरिल्लें. तयारीय नेटान सुरू जाल्ली. व्हंकलेचो विस्तीद, नुएलान घालून लेगीत पळेल्लो आनी ताका तो खूब आवडल्लो. ल्हारां -ल्हारांची धवी फुल्ल देग, मेजूंक येना इतल्यो मिरयो, ताची सोबितकाय आनीकूय वाडयताली. खडपार ल्हार फुटल्या उप्रांत त्या ल्हारांचो धवोफुल्ल फेस चोरून त्या विस्तिदाक लायला अशें पळोवप्याक दिसतालें. धव्याफुल्ल लांब विस्तीदान ताच्या बारीक नाजूक कमरेक विळखो घाल्लो जशी दर्यावेली रेंव - अचकीत ताच्या दोळ्यांमुखार चित्र झळकलें.

इगर्जेच्या सभामंडपांतल्यान आल्तारीकडे तें चलत वच. निकोलस रूबाबदार दिसतालो. आयज ताचो चेरो थोडो राकट आनी निश्ठूर दिसतालो पूण नुएलाक ताच्या काळजाचीं निरागसपणां खबर आसलीं. ताणीं एकामेकाक मुदयो घाल्यो आनी सभ्यतायेन निकोलसान ताचो बुरखो काडलो. खिणभर तांच्यो नदरो गुंथल्यो. इतल्या वर्सांचो विचार, भंय, दुबाव काबार जाले. वातावरणांत शांती पसरली. जग थांबिल्लेवरी दिसूंक लागलें. थंय फक्त प्रेमभाव, प्रेमळपणा, प्रेमाश्रू - प्रेमी आनी प्रेयसी - तांच्या आत्म्या - आत्म्याचें उलोवणेंच आयकूं येवंक लागलें. तांकां उतरांची गरज नासली. “आतां तुवें व्हकलेची कीस घेवं येता” सर्गान चत्राय केली. गोड हांसत, लजत, मुरडत नुएलान नदर सकयल करीत निकोलसाक कीस घेवचेली मोनी अनुमती दिली. ताच्या अंतर्मनान निकोलस लागीं पावला म्हण ताका सांगलें. तितल्यान ताका दर्याचो भास जालो “नुएला” त्या आवाजाची कुजबूज ताच्या कानांत जाली. ताणें आपणाले धापिल्ले दोळे उगडले. विरहान धांवत येवपी ल्हारांचे ताका खर स्मरण जालें. तांची जाल्ली कोंडी - फाटीं सरप - काळजाचें रडप - नशिबाच्या क्रूर खेळाचे पडसाद ताच्या मनार पडत रावले. कांय वेळान तें सादूर जालें. आतां मेरेन आमोरी जाल्ली. चोयीवाटांनी भिरांत घालपी शांती पसरिल्ली. नुएला एकलेंच चलतालें. ताच्या काळजाक पाझर फुटिल्लो. आत्म्याची धडधड, पावलांचो आवाज आनी शांत दर्याची कुजबूज एका तालांत पडूंक लागतांच ताच्या मनाक बरें दिसलें. थाव घेवंक जायना अशा त्या भांगराकोराची साडी न्हेशिल्ल्या मळबाकडेन पळेता आसतना आपूण चलता चलता केन्ना बसलें. हें ताका कळ्ळेंच ना. दोनूय हातांनी ताणें आपणाकूच वेगेंत धल्लें. निकोलसाची ताका खूब याद आयली. तो हांगा जाय आशिल्लो अशें ताका दिसलें. एकठांय बसून सुर्यास्त पळोवपाक खूप मजा येवपाची. कसल्यातरी अदृश्य शक्तेन भारून तें थंयच बसून रावलें. कांय वेळांत तो भांगरा गुळो लजत लजत दर्यातल्या ल्हान द्विपा फाटल्यान लिपलो. नुएला नदर हालयनासतना ताका पळेत रावलें. तो तेजस्वी गुळो ल्हवू ल्हवू फाटीं सरत झाडांनी रेंगाळत चोरयां पळेत नुएलान हटकुचे पयलींच अदृश्य जालो. आतां नुएला एकटेंच दर्या सांगातान काळखांत उरिल्लें. शीं

पडूंक सुरवात जाल्ली. “नुएला, नुएला, नुएला...” शांत वातावरणांत शब्द प्रतिध्वनीत जाले. नुएलाच्या मनाची अस्वस्थता वाडली. बशिल्ल्या जाग्यार उबें रावत ल्हवू ल्हवू तें उदकांत वचपाक लागलें. दर्याचीं ल्हारां ताच्या पायाचो स्पर्श जायनाफुडें उल्हासीत जालीं आनी ताचे उपकार मागूंक लागलीं. त्या स्पर्शांत नुएलाचें पुराय आंग थरथरलें. अयसपयस नदरेक कोण दिसनासलो. ल्हान ल्हान नळ्याच्या घरांतल्यान दिव्यांचो उजवाड दिस. आपूण मनशांच्या जगापासून पयस पावलां अशें ताका दिसूंक लागलें. तें जग आपणालें न्हय अशा तरेची विचित्र भावना ताच्या मनांत जावंक लागली. आंगांत घाललौ विस्तीद काडून ताणें कपडयाचें बंधन झुगारून दिलें. “नुएला” - तो कण्हलो. अचकीत ताका परिस्थितीचें भान आयलें. हातांची धाल करून ताणें आपणालें शरीर धांपचो प्रयत्न केलो. ताचें समादान जालें ना. तकली बागोवन आपणाल्या लांब केंसांनी ताणें आपलें आंग धापलें.

वातावरण बदलूंक लागिल्लें. वाऱ्याच्या वेगासयत तो आवाजूय वाडटालो. काळ्या ढगांनी मळबाक धांपिल्लें आनी नुएलाक उलो मारपी आवाज करारी आनीक खूप उंचाबळ जाल्लो. नुएलाच्या मनाचो गोंदळ उडिल्लो. घडये ताची स्थिती त्या आवाजाक कळ्ळी आसूंये, ताणें विनवण्यो करपाक सुरवात केली. एक एक धेंप मारीत तें दर्यांत फुडें फुडें वचपाक लागलें. व्हड धादोसकायेन मनस्पुर्वेक स्वागत करीत दर्यान आपणाल्या उबदार वेगेंत ताका विसोव दिलो. खूश जावन खळखळीत हांसून ताणें उथळ उदकांत सूर माल्लो.

“हांव तुज्या काळजामेरेन येतलें” “हय नुएला हय नुएला” - थंड वातावरणांत प्रतिध्वनी गुंजलो. मळबांत झगलावलें. वारो उदंड जालो. “नुएला” -निरशेल्लो आवाज- त्या आवाजांत निकड जाणवताली - तो आवाज खूप अशक्त आनी पयसुल्ल्यान आयकू येतालो. तरी तें वळ्ळें - काळोख आनीकूय दाट जाल्लो. त्या आवाजाचीं ध्वनील्हारां ताच्या काळजांत भिनलीं. तो अस्पश्ट अशक्त पयसुलो आवाज खात्रीन निकोलसूच आसपाक जाय अशें ताका दिसलें.

जिवाच्या आकांतान हात हालोवन निकोलस नुएलाक परतुपाक सांग.

तरेतरेन ताची समजूत घाली, पांयां पड - अचानक दुसरो आवाज ताच्या कानार पडलो. तो आवाज अधीर जाल्लो. वाऱ्यान आतां तांडव सुरू केल्लें. तशाय परिस्थितींत निकोलस उलो मारीत ताच्या वटयां येवपाक लागिल्लो. ताच्या प्रेमळ उल्यांत चिंता आनी भिरांत भरिल्ली. तशीच अवस्था त्या दुसऱ्याय आवाजाची जाल्ली. आतांमेरेन ताच्या आवय-बापायसयत अदृर्या वयर गांव दर्यादेगेर लोटिल्लो आनी हात हालोवन ताका परतून यो म्हण विनयतालो.

लख्ख करून झगलावलें. आतां ल्हारां निठूर जाल्लीं. "नुएला..." आंगार शिरशिरो हाडपी भंयकर आवाज आयकून ताका भंयान रडूंक आयलें. त्या अदृश्य पाशांत तें फुगार जावंक लागलें. त्या कवेंतल्यान सुटपाखाती ताणें आकांतान धडपड सुरू केली तशी ती वेंग आनीकूय घट जाली. "सोड म्हाका" तें किळचलें. " ना ना ना" तो आवाज निनादलो. मळबांत वीज झगलावताली. दर्याच्या ल्हारांनी उग्र रूप घेतिल्लें. निकोलस ह्या सगळ्याकडे धिटायेन झुझत ताच्या वटया येतालो पूण सैमाच्या प्रचंड शक्ते मुखार ताचो प्रयत्न थिटो पड. ती अमानवी शक्त ताका फाटीं धुकलून उडयी. "नुएला" निकोलसाचो आवाज घुस्मट्टालो. तो नुएलाच्या नदरेआड जालो. दांत वंठ चाबीत पोटतिडकेन तें वळ्ळें.

"नुएला..." तो आवाज गडगडाट करीत रागान पिसो जाल्लेवरी ताचेर जरब बसोवंक लागलो. खुदळ्ळेल्या ल्हारांचो धवो फेस ताच्या आंगाक आपटून कडेक सरता म्हणसर नवें ल्हार ताचेर तुटून पडपाक लागलें. ताची घुस्मटमार करून ताका बुडोवचेलो प्रयत्न करपाक लागलें. ताच्या आंगावेल्या कपड्यांच्यो वाजऱ्यो जाल्ल्यो. "नुएला" त्या स्वरांत आतां मायेचो अंश लेगीत नासलो. कडक आवाजांत तो धमकावंक लागलो. न सुटपासारख्या घट्ट कराल जबड्यांत तें सांपडिल्लें, सुटूंक धडपडटालें. दुकांची सतत धार दोळ्यांतल्यान देंवताली. भंय, मोग आनी दुखाचे इल्ले इल्ले थेंब त्या प्रचंड खुदळ्ळेल्या दर्यांत नाच्च जाताले. ती शक्त ताका आनीकूय खोल खोल व्हरताली. दर्यातल्या वसाड जुव्याचें चित्र ताच्या मनार उबें रावलें. "नुएला..." काळखांत उलो आयकूंक आयलो. व्हडल्यान गडगडलें. चक्क करून

झगलावनाफुडें ताका तो वसाड जुंवो दिसलो. थंय पावपाक आतां फक्त कांय अंतर उरिल्ले.

"नुएला नुएला" तो आवाज आतां उंचायेर पाविल्लो. केन्ना मोग, केन्ना धाक, केन्ना दूख - ती सृश्टी ताचेकडेन उंदरा-मांजराचो खेळ खेळटाली. कान फुट्टा काय असो गडगड जालो. लख्ख करून विज चकचकली. पावसाचे थेंब ताच्या अश्रुधारांनी मिसळून दर्यांत समाविश्ट जाताले. जीव तुटसर हात मारून ताणें खडपाक घट्ट धल्लें. ताचो मुक्तीदार व्हडा धाडसान सगळ्या अरिश्टांकडेन झुंजत येतालो पूण आजून तो खूप पयस आसलो. तोमेरेन तग धरप सोपें नासलें.ताका खूप पुरो जाल्लें. खडपावेले हात सुळसुळटाले. तरी खडपाक धरून वयर चडचेलो तें प्रयत्न करतालें. एक फावट खडपाचेर वयर पावतकी तें त्या ल्हान द्विपार सुरक्षीत जावपाचें.

ताच्या मनांतली इत्सा त्या शक्तेक कळ्ळ्या बगर रावली ना. "नुएला..." त्या आवाजांत दया नांवाक लेगीत नासली. उक्त्या फाटीर आसूड ओडचे तशे ते शब्द ताच्या कानसुलार आदळ्ळे. ल्हारांच्या प्रचंड तडाख्यान ताका त्या खडपार शेवटिलें. ताची सूद वचपाकडे पावली. तकली गिरगिरपाक लागली. दोळ्यांसामकार काळोख दाटूंक लागलो. तशांतूय ताच्या कानार उलो पडलो - "नु--ए--ला" ताच्या कुडीन तो आवाज एकदम वळखलो. ताचें मन त्या आवाजाकडेन धांवलें. अचानक कणखर हाताच्या विळख्यांत ताका धल्लें. त्या कवेंत आसतना ताच्या कानार शब्द पडले - नुएला हांव : खात्रीन तो प्रितम जावंक जाय - झुजून झुजून थकिल्ल्या नुएलान आपली मान ताच्या खांदार दवरली आनी रोकडीच ताची सूद गेली. शुन्यांतल्यान घेतिल्ली ती महाभंयकर उडी ताका परत शुन्याकडेनूच घेवन गेल्ली.

❑❑❑

# मर्णाची घळ

"ना...हें खरें न्हय" अतिशय भंयान कळवळून ताच्या वठांतल्यान उद्‌गार भायर पडले. "रिपोर्ट चुकला आसतलो" हातांतलो कागद पळेनाफुडें ताच्या जिवाचो थरकाप उडटालो, आंगार कांटो फुलिल्लो, नदर निस्तेज जाल्ली. "हाय देवा : खरेंच हें सत आसत काय?" तो रिपोर्ट परत ताच्या दोळ्यांसामकारआयलो. ताका धडक भल्ली. तोंडावेलो रंग साप उडलो. ताची भिरांकूळ नदर परत परत कागदाच्या कपट्यार फिरताली. मुखावेलें सत ताका खरें म्हण मानपाचें नासलें. आपणालेंच डमी नांव, पत्तो वाचीत आसतना ताच्या मनान ताका स्पश्ट गवाय दिली. आतां आशेक खंयच जागो नासलो. ताका कितें करूं कितें नाका जालें. मन भिरांतेन थिजिल्लें. बऱ्याच वेळान इल्लें इल्लें करून ताचें मन आपसूक थाऱ्यार आयलें. ती अशूभ अमंगळ वार्ता अघोरी मंत्राभशेन आख्ख्या मनीस जातीर कोसळिल्ली. आयज तें भक्ष जाल्लें, फाल्यां दुसरो, परवां तिसरो...

मरणाचो भयानक टायम बॉम टीक टीक करीत हळुहळू सगळ्या संवसाराची राख करपाक मुखार सरिल्लो. फक्त जाचो ताचो वेळ येवंचो आसलो. वेगळ्या - वेगळ्या टॅस्टावेल्यान फिरत फिरत ताची नदर परत इलिझा टॅस्टार थिरावली. भयाचो लोळ आख्ख्या आंगाची संवेदना हालोवन गेलो. दोळे दुकांनी भरले. थरथरत कदेलिचो दांडो धरून तो धक्को पचोवचेलो तें खर प्रयत्न करतालें. ताचें बेदरकार विश्व सटांयच करून काळखांत बुडिल्लें.

अरिश्टाची दुश्ट नदर ताचे जिणेर पडिल्ली. काळाच्या अक्राळ-विक्राळ जबड्यांत ताची तडफड तडफड जाताली. तातूंनय तें आशेचो बिंदू सोदतालें. कुशीकच्या लोकांक कांयच पडून गेल्लें नासलें. सगळें सुसेगाद चलतालें. ताचेर कोसळिल्ल्या अरिश्टाचें कोणाकूच सुवेर-सूतक नासलें.

वखदांचो खर वास हॉस्पिटलभर पातळिल्लो. धवेच डगले घालून कानांत स्टॅथोस्कोप घेवन दोतोर वगीच हांगा थंय करताले. कांय दोतोर मायक्रोस्कोप पळयी तर कांय टॅस्ट ट्यूब घेवन बशिल्ले. भायल्या कांवटरावेलो मनीस आपणाल्या कामांत दंग आसलो. ताच्या भितल्ल्या घालाघालीची, जिवितावेल्या संकटाचें कोणाक पडून वचूंक नासलें. निशीक ते सगळेजण दुसऱ्या ग्रहावेल्यान आयिल्ल्या भशेन दिसले. भावना, संवेदना, आत्मो, मन, काळीज नाशिल्ले नरराक्षस. पूण तशें पळोवंक गेल्यार ते तरी बापडें कितें करूं शकताले? कोणाच्याच हातांत कांयच नाशिल्लें.

निशीलीं गात्रां थंड पडिल्लीं. विचार करून करून तें सामकें गळसणून गेल्लें. ताचे भितल्लें बळूच कोणेंतरी चोखून घेतिल्ल्या भशेन तें कदेलींत पडिल्लें. मनाची उभारीच गेल्ली. मरणांच्या प्रतिक्षा यादींत ताचें नांव जमा जाल्लें. मरणाची वाट पळोवण्या खेरीज ताच्या हातांत कांयच नासलें. कदेलिची गादी जायतेकडेन उसवल्ली. स्पंजाचे कुडके तोडून वडयल्ले. उतावीळ जावन रिपोर्टाक रावतल्या नेर्वोज पेशंटालें तें काम आसूंये. आपूण एच.आय. व्ही. पोझीटिव्ह म्हण आजून ताचो विश्वास बस नासलो. सपनेल्ल्या भशेन ताची गत जाल्ली. सगळ्यो येजामी तें वयल्या नंबरांत पास जातालें. देवान आयज तरी अपयश ताच्या पदरांत घालचें आसलें. ही एक तरी परिक्षा ताका नापास करचें आसलें अशें ताका रावन रावन दिसतालें. १९ वर्सांचे कवळे पिरायेर ताचो फुडार बुडून गेल्लो. हातांतलीं कागदां नीट घडी करून ताणें पर्सींत दवरलीं. सदचे संवयी परमाणें ताचीं बोटां लिपस्टिकेची कांडी घेवन भायर आयलीं. परत ताच्या काळजांत कच्च जालें. ताच्या नेर्वांचीं परत एकदां बरीच उलथापालथ जाली. नीट विचार करून ताणें तांबडो कोर निवडलो. हातांतल्या मोलादीक पर्शीचो दुसरो खण उगडून ताणें आपणालो ल्हान मिनी-मेकअप कीट भायर काडलो. पयलींच्या लिपस्टिकेर तांबडो

कोर चडयलो आनी रडून सुजिल्ल्या दोळ्यांक हातानी चोळीत सारकें करपाक लागलें.

निशीक आयज एकदम १०० वर्सांनी म्हातारें जाल्ल्यावरीं दिसलें. निस्तेज, घुविल्ल्याभशेन,धवसार, अशक्त, जिर्णेतल्यान पिळून काडिल्ल्यावरी ताची गत जाल्ली. दोनूय पांयाचेर इल्लो इल्लो पेज घालून तें उबें रावलें. फाटल्या फुडल्यान पळेत त्या एकटुक्या सज्जांतल्यान तें चलूंक लागलें. त्या शांत विराण जाग्यार ताच्या चपलेच्या खोटेचो आवाज आयज ताका मृत्यूगीत गायल्ल्याभशेन दिसपाक लागलो. हेरशी त्या स्टिली टोजांचो आवाज ताच्या चलपांत नखरो निर्माण करी. ताच्या चालींत सौदामिनीचो चकचक हाडी. त्या तालासयत ताचें आंग तालबध्द जातालें. पळोवणारो तोखेल्या बगर रांवच शकनासलो. बेगिबेगीन पावलां उखलीत तें मंद उजवाडाच्या कोरीडोरांतल्यान भायर आयलें. इतलो वेळ मतींत येवंक नाशिल्ली एक गजाल ताच्या आतां लक्षांत आयली. तें भायर सरत पासून एक बायल सादारण ३० वर्सां पिराय आशिल्ली, ताच्या फाटाफाट चलताली. तिणें खादिचें खोमीस घालें, स्टार्च केल्ली करकरीत कॉटन साडी, केंसांचो आंबाडो आनी दोळ्यार वोक्ल. खांदावेलो बोटवो, फायली आनीक कागदांनी गच्च भरिल्लो. एका नदरेनूच ती कोण तरी समाजसेविका आसतली हें पारखूंक येतालें. निशीन तिका पळेनाफुडें आपणाली चलपाची गती वाडयली. ताका एकांताची नितांत गरज आसली. सोताचे प्रस्न सोताच हाताळचे आसले आनी शेणिल्ल्या मनाक थातारूंक वेळ जाय आसलो. तसो मरणाचो भंय असो ताका केन्नाच दिसलोना पूण प्रत्यक्ष मरण मुकार उबें रावतकी गजाल वेगळी जाल्ली. ताचे कुडीन भकास, खोल भरूंक न शकणारी घळ निर्माण जाल्ली. ताचें मन खूप दुखी, अशक्त आनी उध्वस्त जाल्लें. आपल्या रक्ताच्या मनशांची, तांच्या आदाराची ह्या खिणाक ताका खूप गरज आसली. त्याच परीन तें पुराय जाणून आसलें की आपल्या मनशांचो जागो ही समाजसेविका घेवंक शकनासली. असल्या बेगडी मोयपास नाशिल्ल्या लोकां सामकार आपणाल्या रेशपेताचो बाजार न मांडपा इतलें तरी तें निश्चित शाणें आसलें. ताचे फाटलें आयुश्य म्हण तरी कितें पाप - घाण - दूख आनी लजेन बरबटिल्ली जीण.

मरण, मृत्यू, मरण मृत्यू ... निशीलें स्टिली टोज आयज ताच्या मनाक एक सारकी जाणविकाय दियी. तो पडसाद सत्याचें भिशण स्वरूप ताच्या काळजाक खपखप हाडी. केन्नातरी वाचिल्लें वाक्य ताका येवजलें. 'मनशाचो काळखा बोगद्यांतल्यान अखंड उजवाडाकडेन मुक्त प्रवास म्हणजे मरण - म्हणजेच जिणेंतल्यान जिवाचो मोक्ष.' पूण ह्या संवसाराच्या मोह घालपी जाळ्यांत शिरकल्लो जीव कूड सोडचेल्या विचारांत तडफडटालो. त्या अनवळखी काळ्याकूट्ट घळेंत एकसुरो जिवाचो प्रवास - ना शरीर ना सांगात फकत सोंपून न सोंपणारो काळोख. विचारांची वावटळ तकली हालोवन कडेक उडोवंक ताणें खूप प्रयत्न केलो पूण ते विचार फुलिल्ल्या इंगळ्यागत ताच्या आत्म्याक भिश्टावन सोडटाले.

लांब-रूंद कोरीडोर एकदांचो सोंपलो. भायल्या दिकेचो आदाव घेत तें सुस्कारलें. सूर्य अस्ताक वेतालो. तांबडोचार उज्यागुळो मोव जायत जायत घरां, बिल्डींगां फाटल्यान लिपलिपत लुप्त जालो. "टॅक्सी" आपणाल्याच आवाजार ताका विश्वास बसलोना. प्रचंड मानसीक तणावांत लेगीत ताचो आवाज शादूर आसलो. काळजांत धगधगीत ज्वालामुखी पेटिल्लो आसतनाय ताची वाणी काम व्यवस्थित करताली. "समरसेट पॉयन्ट" सटाक करून ताणें ड्रायव्हराक ओर्द सोडली. खट्ट करून ड्रायव्हरान गाडयेचो मिटर खाला केलो आनी हॉस्पिटलाच्या आवारांतल्यान गाडी सुंसाट भायर सल्ली.

निशीचो मेंदू विचार करून करून जाम जाल्लो. पर्स उगडून आनी एक फावट रिपोर्ट पळोवची उबळ ताणें आवुरली. गाडयेचो हारसो सकयल देवोवन तें जनेलांतल्यान भायर पळोवंक लागलें. सांजवेळचें थंड वारें ताच्या मेकळ्या केंसांत जीव वतोवपाचो प्रयत्न करी. शितळ ल्हारांनी त्या अपुरबायेच्या जिवाक थातारपाक सोदी, ताच्या कुडींतल्या कोंडिल्ल्या विचारांक भायर काडूंक पळयी. मदींच केंसांतल्यान अळंग हात फिरयत ताणें आपणाले काळेच लांबसडक दाट्ट केंस फाटल्यान वडयले. तशें करतना ताका आयज आवयची खूप याद आयली. ताची आवय बापडी तें ल्हान आसतना खोबरेल तेलान ताचे केंस विंचरी आनी तांच्यो लांबच्या लांब विणयो घालून जातकी ताच्या कपलाचो उमो घेवन ताका शाळेक धाडी.

अचकीत आपूण आजून शाळेंतूच आसा अशेंच ताका दिसूंक लागलें. खेळप, नाचप, उडयो मारप सगळें ताज्जें आशिल्ल्यावरीं दिसपाक लागलें. मुळांतसावन ताका शाळा खूप आवड. हुशार चली म्हण तें आख्ख्या इस्कोलांत फामाद आसलें. पुस्तकांचो ताका भौच छंद. ज्ञान मळावेली खूप खूप आवड. तशेंच धन कमोवपाची जिद्द ताच्या भितर खूप खर आसली. मध्यमवर्गीय साच्यांतल्यान जर भायर सरचें आसा तर भरपूर पयसो जोडपाक जाय हें ल्हान आसतनाच ताच्या मनार सामकें रूजिल्लें. सूख समादान, ऐशाआरामांत लोळप ही ताची इत्सा जावन आसली. मध्यम वर्गाचीं भिकारचिन्नां पळेत पळेत तें व्हड जायी तसतशें त्या जगाबद्दलची ताची घृणा वाडत रावलीं. ठरावीक रूढी, परंपरा, रिती, देव-धर्म, फाजील फिलॉसॉफी, सत उलोवचें पडटा म्हण मारिल्ल्यो ल्हान-व्हड फटी, मान-अपमान, त्याग, हांशाफाटलीं दुखां, असल्या सगळ्या गजालींचो ताका वीट आयिल्लो. दिसरात कश्ट उपसून फक्त चार पयशे किरवटेक बांदपी बापूय, दोन वेळच्या जेवणा खाणाची चणचण, उधारी - हालीं हालीं तर ताच्या बापायक जुगाराचोय नाद लागिल्लो. लोकांल्यो हळशिकावण्यो, कामूक नदरो ल्हानपण तें लग्न जायमेरेन ताणें सोशिल्ल्यो. ताचें लग्न जबरदस्तेन ताच्याकून दोबराद पिरायेच्या मनशावांगडा केल्लें पूण तरी आसून ताच्या गरिबीचो प्रस्न सुटलोना तो सुटलोनाच. एका परस एक अरिश्टां फाटाफाट तांचेर आयलीं. खूप प्रस्न निर्माण जाले. हुंडो, आवयलें दुयेंस, म्हारगी वखदां, दोतोर-हॉस्पिटलाचीं भरमसाट बिलां, भावालें शिक्षण, घराचो लोन कितें आनी कात पूण ताणें हिकमतीन त्या सगळ्यांक तोंड दिलें. दिसरात अभ्यास करून पुराय कसब वापरून वयल्या नंबरांत पास जावन ताणें मॅडिकल दाखलो मेळयलो. ताचो रिजल्ट पोझीटिव्ह येवप हें ठरून गेल्लें देकून आयज पयले फावट म्हण तरी तो नेगेटिव्ह येवंक जाय आसलो अशें ताका दिसतालें.

दोतोरकेच्या पयल्या वर्साक निशी शिकतालें. न्युरोसर्जन जावचे मनसुबे आयज रिपोर्ट वाचिनाफुडें उडून गेले. तें हांसलें. त्या उपहासात्मक हांसपांत ताच्या कुडींतली खंत उक्ती केल्ली. सगळ्यो इत्सा, आकांक्षा एका खिणान धुळीक मेळिल्ल्यो. यशावटे वाट चलतां चलतां अचकीत ताची आयुश्यरेशाच

विरगळून गेल्ली. यश हात फांकारून मुखार उबें आसलें पूण जिणूच उणी पडिल्ली. हाचें फुडलें प्रत्येक मिनिट, वर, दीस, लाखभराचो मानून तशेंच देवा लागीं काकूत मागत मागत ताका दीस काडचे आसले.

एकाच पोदिसावांत बसून ताचें आंग आडखळिल्ल्या भशेन जाल्लें. पांयार पाय वडोवन ताणें कूस बदल्ली. ताणें घातिल्ली म्हारगी स्ट्रेच जिन्स आपसूक ताका जाय त्या पोजीन आयली. स्ट्रेच जिन्स त्याखातीरच तर ताका आवड. कटकट ना, एकदम आपली सुटसुटीत. संवयी प्रमाण ताच्या बोटांनी ती ठरावीक हालचाल केली. कॅरम खेळटना जशीं बोटां हालतात तशींच बोटां मांडयेर दवरून हालोवचेलीं ताका संवय जाल्ली. जग म्हणजे कितें हें कळचे आदींच तें व्हड जाल्लें. दुदाचे दांत पडचे पयलींच ताणें ग्लॅमराचो मुखवटो चडयल्लो. त्या जगांत पाखो कशें भिरभिरतना सलवारीवेल्यान जिन्स केन्ना आयली, आय ब्रोसल पोल्यावेली लाली, नेलपोलीश, आनी मेकअप करपाक केन्ना शिकलें हें खरें म्हणजे ताका कळुंकूच ना. फाजिल जिणेंतले फाजील लाड सातिश्वेत करच्या हावेसान ताका सोताक लेगीत कांय कळचे पयलींच ताणें खुपश्यो गजाली उखल्ल्यो. ताचें भुरगेंपण, कवळी निरागसता, जगाविशींचें अज्ञान, भिजुडपणां, लज, बुजरें भुरगेंपण त्या ग्लॅमराच्या बुरख्याखाला धांपिल्लें. ऐशाराम, विलायती ड्रेस, आनीमेळटा तितलो पयसो सांठोवचेल्याआशेन ताच्या नकळत ताच्याआयुश्याची वाट लागिल्ली. जें ताच्या केन्नाच वाट्याक येवंक ना तें सूख, सुखान भरिल्लें अशें सुरक्षीत जिवीत भोगचेली लालसा आनी तें मेळोवचेल्या नादांत वेळेपयलींच त्या कळयेचें फूल जाल्लें. ऐशारामी जिविताच्या धुंदेन तें लॉजिगाचीं सोपणां केन्ना चडलें, मनाक कैफ हाडपी संगिताच्या तालार रातभर कशें नाचूंक शिकलें, त्या ग्लॅमरस जगांतले वेव्हारीक बारकावे केन्ना लक्षांत घेतले हें खरें तर ताचें ताकाच कळ्ळें ना. आपूण चुकता हाची जाण येवचे आदींच तें खूप पयस पाविल्लें.

त्या मॉडर्न चल्यांक मजा जाय आसली आनीक थंय आशिल्ल्या चलयांक तांच्याकूय मातशी चड- तोंचो खर्च, म्हारगे ड्रेस, उंची ड्रिंक्स, रॅबन्स, बूट, जोतीं, पर्शी, वातानुकुलीत मोटांरितली मजा, पिकनिको, हॉटेलां,

क्लब, ग्लॅमर विश्वांतल्यो नव्यो नव्यो फॅशनी सगळे सगळे बशिल्लेकडेन फावो जातालें, म्हणटकी ना म्हणचेलो प्रस्नूच उदभवनासलो. फक्त त्या बदल्यात तांचेकडेन मातसो मोगाखेळ केलो म्हणजे जालें. मॉडर्न हाय-फाय म्हणपी ह्या लोकांक दोळ्यांक भूल घालपी फेशनी, मोटवे, आंग उक्ते उडोवपी कपडे, हातांत सिगार, कॉप धल्लें म्हणटकी आपणाली मॉडर्न विचारसरणीं अशें दिसता, जाण्ट्या नेण्ट्यांनी घालून दिल्ल्या संस्काराची पर्वा करिनासतना बेशिस्त वागून बुरशी विचारसरणी आशिल्ली भायल्यांची संस्कृती हे लोक रूचीन आपणायताले आनी वयर आपूण कितलो मॉडर्न म्हण मिरोवन दाखयताले. कोणाकूच कसलीच पर्वा नासली. कोणचू तांकां विचारपी नासलो 'ह्या' बदलाक 'तें' वा 'त्या' बदली 'हें' असो हांगचो सरळ एकसुत्री वेव्हार. ना कोणाचें बंधन ना कसलीच जबाबदारी, ना लज ना भीड. दर एकलो आपआपल्या कर्माचो धनी. रात रात जागरण मारून दिवे जळोवन शिकपी निशी आतां भलत्याच कारणांखातीर जागरणां मारूंक लागिल्लें.

विचाराची साखळ तोडीत निशीन रस्त्यार नदर भोंवडायली. एके सायडीक चाळी, झोपडपट्टी तर दुसऱ्या अर्दाक उंच उंच बिल्डींगो, बंगले - एकीकडें लांबच्या लांब बसीक लायनी, धकिल्ले माकिल्ले लाचार तोंडवळे तर दुसरेकडेन ऑपेल, सिआरा, होन्डा सारखिल्यो श्रीमंत लक्ष्मीधराल्यो नव्यो-ताल्ल गाडयो. शार लिप दवरा म्हण सांगपी बोर्डां पोंदाच भरून रकता तसली कोयराची कुंडी. ह्या जगांत कोणाक कोणाचें पडून वचूंक नासलें. मनशाच्या ह्या जगांत मनीसपण नगाक लेगीत दिसून येना आसलें. हालीं मनशाक मनीस म्हण वळखप सुध्दा कठीण जावन पडलां.

मळबांत नकेत्रां लिकलिकूंक लागिल्लीं. हळुहळू रस्तो किण्ण जातालो. पसरे, दुकानां बंद जातालीं. चोर पावलांनी रात आपणाली काळी चादर पातळायताली. निशाचर ताजें तवाने जावन रातीचें स्वागत करपाक प्रोंत राविल्लें. अशा वेळार खुपश्या मनशांचें खरें रूप उगड जाता. खुपदां प्रतिष्ठेच्या मुखवट्या खाल वावुरपी मनीस रात जातांच तांतल्यान भायर सरता आनी आपणालें खरें स्वरूप उक्तें करता. शरिराची भूक - चटक तितल्यापुर्ती भागोवपा खातीर हे मुखवटे घालपी लोक रातचे काळखाचे बुरखे ओडून

सुसेगाद आपणालीं काळीं कर्मां करतात. रस्त्यावेले पोस्टर्स, बॅनर्स, हॉर्डींग्ज चडशे बायलांचे उगडे नागडे फोटो पितारून तरणाट्यांक आनी जाण्ट्यां-नेण्ट्यां लोकांक उत्तेजीत आनी उंचाबळ करून सोडटात. मागीर हांतलेच खुपशे लोक वांकड्या वाटेन वचूंक शिकतातआनी एडसाच्या भस्मासुराक बळी वतात.

सोडियम दिव्याच्या खांब्याक वळसो घालून गाडी लवर्स पोयन्टाकडे वळ्ळी. 'दिल तो पागल है' टॅक्सी ड्रायव्हर आपणाल्या भडंग, भसाड्या आवाजांत रेडव्या सांगातान हामेतालो. ताची अधाशी चोरटी नदर निशीन जुस्त धल्ली. "सगळे मेले एक जात....." वठावेलीं उतरां ताणें बळयांच गिळ्ळीं. खरो रोमान्स, खरो सात्विक मोग ताच्या नशिबांत आयलोचना. जिवाक जीव दिवपी घोव, एकल्हान चली आसचें म्हण ताका खूप दिस. चल्यापरस चलयेचोच ताका चड घोस्त. तें मागीर ताची तोखणाय करपाचें, केंस वळोवपाचें, विणयो घालपाचें आनी दोळ्यांत तेल घालून ताका वयर काडटलें आसलें. आपल्या पावलांचेर ताचीं पावलां पडूंक न दिता तें ताका महत्वाकांक्षी आनी हुशार करपाचें पूण नशिबाच्या मनांत वेगळेंच आसलें तें ताच्या दुर्देवान अशा जाग्यार पाविल्लें की थंयच्यान परतुपाक अशक्य आसलें. ताचीं सपनां थतरवितर जाल्लीं. जिणेचो विध्वंस जाल्लो. ताणें चुकिचो रस्तो धरिल्लो आनी ताची ख्यास्त ताका फावो जाल्ली. ताचें मन ताका प्रस्न विचारी - "निशी , तूं चुकलें खंय? त्या मरणा घळयेंत पडलें कशें?"

आतां ताणें भार देवार घाल्लो. ताका मेळिल्ली ख्यास्त देवा खेरीज कोणूच वळोवंक शकनासलो. फक्त देवान दया दाखयल्यार ताका आनी एक संद मेळूंक शकताली. "देव दया करीत काय? आनी एकूच संद दीत काय? फक्त एकदां एकुचदां?" ताचो आत्मो कळवळून देवालागीं दया मागतालो. आयुश्य, रेवेंच्या कणा परमाणें मुठींतल्यान सुटून गेल्लें. ताच्या जिणेंतल्यो पावलाच्यो खुणो, दुख्खाचे आनी घाणीचे छाप दाखयी. त्यो सगळ्यो खुणो पुसून वचूंक शक्य नासल्यो  आनी तरीय जर देवाच्या मनांत आयलें तरूच ताका आशा आसली.

वाटकुळें वोल्त घेवन गाडी थांबली. तें सनसेट पोयन्टार पाविल्लें.

दारावेलो गुरखो ताका गुरगुरून पळयी. शंबर रूपयांची नोट ताणें ड्रायव्हराल्या हाताक तेंकयली आनीं वयले पयशे दवरूंक सांगले. ४५६ नंबराच्या रूमांत ताका वचचें आसलें. थंयच्या मनशाविशीं चिंतीत तें बिल्डींगेच्या मुखावेल्या भागाकडे वळ्ळें. ती व्यक्ती चड करून टक्कल पडिल्ली, म्हातारपणांकडे झुकिल्ली, कमीच कमी एक दोन भुरग्यांचो बापूय आशिल्ली आसपाक जाय अशें ताका दिसतालें. बायल किटी पार्टेंत व्यस्त, घोवाकडेन दुर्लक्ष अशींच कांयशी रडकू काणी आयकुचेली ताणें तयारी दवरली. आपणाल्या मळीण कर्तुबांचें समर्थन करपी तांची युक्ती आतां निशीक सदचीच जावन पडिल्ली.

बॅल दाबून ताणें लिफ्ट आफयली. त्या अयसपयस लिफ्टींत भितर सरल्या उप्रांत ताणें बाराव्या मजल्याचें बटण दामलें. पर्स उगडली आनी रिपोर्टाचे बारीक कुडके केले. तशें करतना ताका आपूण आपणालेंच आयुश्य पिजिल्ल्यावरी दिसूंक लागलें पूण आतां आनीक तें फाटीं सरूंक शक नासलें. उदक तकलेवेल्यान पासार जाल्लें. गच्च करून लिफ्ट थांबली. हातांतले कागदाचे कुडके भायर वडयतना मुखावेल्या पाटयेचेर ताचें लक्ष गेलें. व्हड लेत्रांनी पाटयेर पितारलेलें, 'एडसाक वखद ना पूण तो टाळप शक्य आसा. सुरक्षीत शरीर संबंध दवरात आनी कॉन्डोम वापरात' ती सादूर करपी इशारत वाचून तें हांसलें. ताचो संवकळीचो हात ताच्या तोंडार भोंवलो, मेकअप सारखो करीत ताणें दारार माल्लें.

"भितर यो - दार उक्तेंच आसा" एक तरतरीत आवाजान ताचें स्वागत केलें. तो आवाज खंय तरी आयकल्ल्या भशेन ताका दिसलो. हळूच नदर वयर करून ताणें त्या मनशाक नियाळ्ळो आनी खिणभर थक्क जावन तें जमनीक खिळून उल्लें. तो मनीस खुद्द ताच्याच कॉलेजांतलो भौमानेस्त प्रोसोर - व्हिजीटींग सर्जन आसलो. मरणाच्या महाभंयकर घळेंत साद्या शरीर सुखाच्या हावेसान हे प्रतिभावान लोक कित्याक आपणालो मोलादीक जीव दिवंक भायर सरिल्ले काय? प्रस्नांचो गुंजणारो आवाज ताच्या मेंदवांत प्रतिध्वनींत जायत रावलो. त्या हलकल्लोळांत ताच्या फाटसून खट्ट करून दार बंद जालें.

❑❑❑

# आंकवार

अठरा वर्सांची पिराय म्हणटकी मजा, उमेदीचो फुरफुरो, सपनांचो सुळसुळाट, आव्हान कितें आनी कात. पवित्राय ह्या गजालींक अपवाद नासलें. ता'गेल्या सोबीत तरणाटेपणांत तें खुशालकायेन हांसत-खेळत जियेतालें. केंसांचो नवो बॉयकट, कानाची सोबितकाय वाडोवपी तरेकवार कानांतलीं फॅशनिच्या नांवा खाल तीन तीन कडेन ताच्या कानाक सोब हाडी. धनुश्याकृती भिवयांखाल बारीक लिकलिकीत दोळे, नाकांत फॅशनेबल चांदीचो आंकडो आनी तांतलें झळझळीत थीक ताच्या डाळींब कशा ओठांचो उमो घेयी. कोणाय मॉडेलाक नसाय जावपा सारखिली सुटसुटीत मान. म्हजे दोळे पवित्राक पळोवंक जडून गेल्ले. ताच्या सव्या इंद्रियांन ताका शादूर केलें. हांव तोपून पळयता म्हण ताका जाणविकाय जाली आसूंये. तें अचकीत वळ्ळें आनी ताणें म्हाका ज्युस्त धल्लें. ताचे डाळींबी मधाळ वंठ मातशे हालले ... चित्त ओडून घेवपी हालचाल जाली, जीव उवाळपा इतलो दिलखेचक हांसो ताच्या तोंडार उदेलो आनी हांव चली जावनूय म्हजी मान आपसूक हालली. परतूय तें हातांतली कादंबरी वाचूंक गढून गेलें. घडये हॅरोल्ड वा सिडनीची कादंबरी आसूंक जाय. पवित्राक कादंबऱ्यांचो खूप नाद. हांगा थंय अश्यो खुपकडेन ताच्यो जायत्यो वळखी आसल्यो. कार्डां, टेलिफोन कॉल्स, पत्रां आनी साग्वादीची घे म्हण रास तागेर पडटाली.

अशा त्या सुंदरीक कॉलजांतलेच न्हय तर कॉलेजा भायलेय जायते जण,

जाण्टे-ल्हान - व्हड पोरांटे, आंकवार तरणाटे वळखताले. ते ताका रेश्पेतूय दिताले, कांय जाण ताची चोरयां पुजाय करी. तर सांगपाचें म्हळ्यार चडशे सगळेच पवित्राचेर लट्टू आसले. गुंगुल्ले जावन ताचे भोंवतणी भोंवतणी पासयो मारताले. सांगपाचें न्हय पूण तरीय आयकात म्हाका पवित्राचो मत्सर दिसतालो. त्या ताच्या हारशा बुटांत पांय दवरूंक मेळ्ळ्यार कितेंय भोगचेली म्हजी तयारी आसली, तातूंतल्या घासा आनी चिमट्या सयत.

पवित्रान दिवाणाचेर गुठली केल्ली आनी दोनी पांयामदीं उशें धरिल्लें. पुस्तकांतल्यान नदर भायर काडिनासतना ताणें म्हाका फर्मायलें : "तें संगीत बदल..." बसून ओर्द सोडूंक हांव तुजें किर्याद काय कितें? भायरें जा." हांवें मनांत म्हळें आनी आयकून आयकूंक नाशिल्ल्या भशेन करीत वग्गी बसून रावलें. "प्लीज" ह्या वेळाक ताच्या स्वरांत मागणी आसली. तरीपूण हांवें म्हजे खांदे झटकिले. "हांव कामांत आसां" बस तितली पुरती जाप. हांवें इस्पीक्यो हातांत घेतल्यो. ताच्यान आनीक सोसूंक जालेंना. "पाड पडूं तुजें खपनखायच्या" अशें म्हणटा म्हणटाच ताणें उशें उखल्लें आनी म्हजेर शेंवटिलें. दिवाणा वेल्यान उठून तें स्टिरीओकडे गेलें. ताचो पांयघोळ विस्तीद ताच्या सुंदर पांयांक लोचटसो दशिल्लो. तांबडेंधुन्न बॅनिटन ताच्या सपाट छातयेक चिकटल्लें. ती गजाल म्हण दोळ्याआड करूं येताली. पवित्रालें तोंड, हांसो, चाल, बारीक लांब सॅक्सी पांय, मव्हाळ कोकिळेचो आवाज, शेंकड्यांनी काळजां एका नदरेनूच खलास करी. ए. आर. रहमानालें 'वंदे मातरम' खट्ट करून बंद जालें आनी मॅडोनालें 'डोन्ट क्राय फॉर मी अरजेन्टीना' रडत भेंकत हॉलांत घुमूंक लागलें. दिवाणार सुस्थाविल्ल्या पवित्रालें तोंड परसाकडे जाल्ल्यावरीं जालें. ताका हेंवूंय पद मात्तूय आवडूंक नासलें. तिडकीन ताणें फाट केली, आनीक परत उठूंक ताच्यान नज आसलें. पुस्तक उगडलें आनी उशाक घट्ट वेंग मारून वाचचेलो ताणें प्रयत्न केलो पूण जमलेंना, ताची तंद्री कशीच लागली ना. बेजारून ताणें म्हजेर आनीकूय फोर्सान उशें भिरकिटायलें हांवेंय ज्युस्त तीर चुकयलो आनी तें उशें टेलिफोनार खटांयच करून आपटलें. तें तांबडें यंत्र आंग काडून जागें जालें आनी कर्कश आवाजांत २-३ वेळां आड्डलें आनी वग्गी जालें. म्हणटासर परत किळचलें - ताका घडयेआपल्याकडेन बेगीन लक्ष दिल्लें जाय आसलें आसूंये.

“हॅलो” हांव ल्हव आवाजांत कुजबुजलें. जमता तितलो वठांतल्यान श्रृंगारीक आवाज काडलो. “पवित्रा प्लीज” चल्याचो आवाज आयकूंक येना फुडें म्हज्यो भुंवयो रूंदावल्यो. दोळे आपसूक बारीक जाले, काळजांतलें ठाक ठीक ठूक ठाक फोर्सान जावंक लागलें. बशिल्लेकडसुनूच कोण? काय म्हण पवित्रान विचाल्लें. हांवें कोण उलयता म्हण चवकशी केली. ढिम्म....आवाज ना. मातसो आवाज चडोवन हांवें परत तोच प्रस्न केलो.. “पवित्रा प्लीज”. तोच आवाज पूण आतां तातूंत इल्लो तोरो दिसून येतालो. कोणतरी चलो पवित्राक हुसकेतालो. म्हजीं नेर्वां चाळवलीं. “उलयतां” जमता तितल्या पवित्राल्या आवाजांत हांवें जाप दिली. “तूं तूं.... थोडोवेळ असोच गेलो. तूं तूं करीत उलोवणारी व्यक्ती न्हिदली काय कितें अशें दिसता म्हणसर फोन परत जिवो जालो. “तुवें म्हाका पिसो केला” आखडून हेल काडिल्लो आवाज कानार पडलो. तो जरी नीज गोंयकार आसलो तरी ताच्या उलोवण्यावेल्यान तो भायरसून आयला म्हण कळटालें. “कोण उलयता?” खर आवाजांत हांवें विचारलें. “कामदेव” तटांयच करून जाप मेळ्ळी. म्हजी तकली भिरकली. हय हांव वगीच्च फुकट्याक कोणालें आयकून घेवपी न्हय... हांवेंय बोची उगडली. नांव तोंड नाशिल्ल्या - लज सोडिल्ल्या मनशा, “तुवें तुजीं सगळीं गात्रां गुठलावन सोडल्यां काय कितें?” हांवें सडेतोड प्रस्न केलो. “थंड जा गो बेबी...थंड जा.” हांसत हांसत ताणें मागनासतना फुकट सल्लो दिलो आनी खट्ट करून लायन तुटली. उलोवणें फिनीश.

“कोण आशिल्लो? म्हज्या वळखिचो? कितें जालें?” पुस्तकांत गाढिल्लें पवित्रा आतां अतीच चौकस जाल्लें. पुस्तक कडेक उडोवन “सांग म्हाका कोण आशिल्लो तें” म्हण म्हज्या खनपटीक लागलें. तितल्यान फोन परत कोकलूंक लागलो. ट्रींग ट्रींग ट्रींग थांबलो आनी ट्रींग ट्रींग ट्रींग परत - हो यस. ओ. यस. संदेस बी काय कितें? पवित्रा आतां दुबावी जाल्लें. “विचार ताका” ‘ताका’ हो शब्द आयकानाफुडें पवित्राल्या शिरेंतल्यान रगतान उडी माल्ली, ताचे कान तायट जाले. “व्हाव! कोण गो तो? सांग बेगीन सांग म्हाका” उशाक वेंगेंत आनीकूय घट्ट दामून धरीत पवित्रा एकदम लाडांत आयलें. “आनी हय गो .. तो लांब आसा...काळो सावळो, रूबाबदार दिसता की ना? सदळ, खळखळून हांसपी, दोळे लिकलिकावपी तोंडभर उलोवपी, मस्तो... हांव कितें विचारतां तें तुका

कळटा कि ना?" पवित्रा गरजेभायर अतीच उचांबळ जाल्लें. "ना म्हाका ना कळूंक" हांवें झेलाद जाप दिली. टिवीर टायटेनीक सिनेमा चालू आसलो. बोट बुडटा तो सीन चलतालो. हिरोइनीन बऱ्याच खटपटीन हिरोक वाचयल्लो आनी तीं दोगांय एकमेकाल्या वेंगेंत च्यूंयक च्यूंयक करतालीं. कार्डां पिसपी म्हजे हात आपसूक थांबले. नदर पड्ड्यार दसली. "पांचव्या खेपे तूं तें फाल्तू, रडकू फिल्म पळेता." त्रासीक स्वरांत पवित्रा उबगलें. "म्हाका तूं तुज्या हिरो बद्दल सांग. आतां जाणें तुका फोन केल्लो तो." "वगी राव" हांवें म्हळें. म्हाका सिनेमा पळोवंचो आसलो. "एक तर तूं म्हाका खरें सांग ना तर हांव तो दळिद्री सिनेमा आतांच बंद करतां" रिमोट नाचयत पवित्रान म्हाका धमकायलें. हांवें तरीकूय ताका कुंडेकुस्कूट केलें आनी इस्पीक्यो पिसूंक लागलें. तातूंतलें सगळे एके कडेक दवरून हांवें ताका म्हजेवांगडा खेळूंक आपयलें.

पवित्राली नदर म्हजेर खिळिल्ली. अचकीत ताणें भलतोच प्रस्न घालो. "एक सांग, तूं खरेंच आंकवार गो?" हांवें अजापून ताका पळयलें. "सांग न्ही गो, तूं खरेंच आंकवार?" ताच्या दोळ्यांतल्यान उत्सुकता ओतताली, नाकाचो कोंबो तामसार जाल्लो आनी नाकावेल्या काडयेचें थीक चकचक करून चकचकतालें. "तें म्हत्वाचें न्हय." हांवें मुद्दाम सस्पेन्स वाडोवन जड शी जाप दिली. "ना कशें हेंच चड म्हत्वाचें." ताणें निश्चेय परगटायलो. "कित्याक?" आतां हांवूंय तेंमाक पेटलें. आतां ताका अजाप दिसलें. "तूं पिशें जालां... अगो तूं आतां १८ वर्सांचें जालां आनी तरीय अजून फक्त टिवीवेल्यो किसीच? तुवें केन्ना कोणाचो हात धल्ला? कोणा वांगडा तूं सिनेमाक गेलां? गळ्यांत हात घालून कोणा वांगडा तूं उमेदीन भोंवलां? तुजें काळीज केन्ना धडधडधड जालां? मोगांत बुडून तुजी तकली केन्ना चक्रावल्या? वयर वयर मळबांत केन्ना तरी तुवें घुवणाळ्यो माल्ल्या? आनी ... आनी..." "थांब थांब आतां पुरो... त्यो घाणयाऱ्यो कादंबऱ्यो वाचून मगो तूं तोंतलां. आतां तरी बंद कर त्यो आनी उप्रांतूच तुज्या त्या भेळशेल्ल्या तकलेंत हांव ताजी अक्कल भरूंक शकतलें." हांवें म्हळें. "कम ऑन" म्हणत ताणें म्हजो शर्ट धरून ओडलो. हांवें हिसडो मारून म्हजी सुटका केली.

"जनावरा भशेन वागूं नाका" हांवें बुध्द दिली. ट्रिंग ट्रिंग ट्रिंग तांबडें यंत्र भुकूंक लागलें. दोगांय जाणां टेलिफोनाकडे धांवलीं. हांवें रिसीव्हराक पयलीं झोपय

घाली. “कोण?” हांवें मातशे गुमेंत विचाल्लें. “बाय हांव मम्मी उलयतां.” “कितें?” हांवें कुरकुरत नाउमेद जायत विचारलें. “हय हय बरें हांव येतां -हय आं ना बेगीन येता” रिसीव्हर दवरून हांव वळ्ळें. पवित्राले दोळे बारीक जाल्ले. जंगली माजरा भशेन तें जमनीर अयस पयस पातळल्लें. जवानीच्या पांगरूणाखाल तें आळसावन सुसरी भशीन सुस्तेल्लें आनी वेळ घालोवपाक ताका कोण तरी सोसो जाय आसलो. “ना म्हज्या प्रस्नाची जाप दिल्या बगर हांव तुका वचूंक दिवंचें ना” निगरगट्ट कशें तें मुखार उबें आसलें. म्हज्याय मतींत सहज तोच प्रस्न आयलो - पळोवणाऱ्याक घुवणावन उडोवपी पवित्रा, हजारांच्या हृदयमंदिरांत पुजून घेवपी पवित्रा, मजनुच्या काळजार राज करपी पवित्रा सोता आंकवार काय न्हय हाचो उलगडो म्हाका पयलीं करचो आसलो. भोंवतणचे कितलेशेच फुकट लवडी ताचेवांगडा लग्न जावंक टपून बशिल्ले, हजारांनी आमिशां दाखयताले आनी तरीकूय पवित्रान आपणालें कौमार्य शाबूत दवरलां म्हणजे ती गजाल चितूंक लावपी आसली न्हय? घुस्पागोंदळ सुटपाक सोंपें नासलें. “पळय ही कार्ताची बोट तुजेसरे येतली : जर तुज्या हातांत एको पडलो तर हांव आंकवार, ना तर तू... आनी जरी तर तो बदाम एको आसलो तर तें निश्चीत... नातर तूं...” वाक्य सोंपचें आदींच उशें भिरभिरत आयलें. दार उगडून हांवें पावल भायर काडलां मात फोन घणघणलो. ह्या वेळाक पवित्रान फोन घेतलो आनी हांव घरा वचूंक चलत रावलें.

सकाळच्या पारार नळ्यांतल्या खांचीतल्यान कवळ्या वताचो काळोख कापीत येवपी झोता भशेन पवित्रालो उलो म्हज्या कानांत रिगलो. “कोण?” हांवें थंयच्यानूच विचाल्लें. हात हालयत तें कितें तरी सांगपाक करतालें. फाटीं वचून तो फोन घेवंचो अशें म्हाका दिसलें. घडये- तो हेल काडू, आखडू नातर मम्मी आसत पूण हांवें पावल फाटीं घेतलें ना. त्याच गतींत हांवें पायण क्रोस केली. पवित्रा आजुनूय उलो दीत आसलें. ताचो आवाज रस्त्यावेल्या हेरादारीच्या आवाजांत आयकूंक येना जालो तरी रस्तो क्रोस करतकी म्हाका तें परत म्हज्या नांवान आड्डल्या भशेन दिसलें. विस्कटिल्ले केंस हातांनीच सारके करीत हांव चलतालें. म्हजी नदर तिसऱ्या माळ्यावेले बाल्कनीर पडली. बाल्कनीच्या कठड्यार तो ओणवो आसलो. ताणें मोटवें कालसांव घाल्लें. सावळ्या रंगाचो, सडपातळ, लांब तरणाटो, कांयसो पळोवंक वाजाड्डो दिस. नियाळ करपी म्हजी नदर ताचे

नदरेक आपटून एकदम लजेवन सकयल झुकली. ताचीय नदर म्हजेर खिळिल्ली. हांवें ज्युस्त आजूच फॅशन म्हूण पोन्नो विटको शर्ट घाल्लो आनी धोपरार मुद्दाम पिजिल्ली उमळून उमळून धवी पडिल्ली जिन्स पॅन्ट घाल्ली. 'पाड घाल आयजूच हें भाणशिरें घालचेली पाडी बुध्द येवजली.' हांवें म्हजी चाल बदल्ली. हाव-भाव बदल्ले. तो कॅनडाक सान आयिल्लो. दर दोन वर्सांनी तो हांगा आपणाल्या घरा येतालो. लांब, सडपातळ, सांवळो, सुंदर ... धीर एकवटून हांवें ल्हवूच चोरयां नदर घुंवडायलीच. पूण हाय रे कर्मा...आतां तो थंय नासलो. म्हजें मन विरस जालें. ताचें आनी पवित्रालें बल्कांव समोरसमोर येतालें. गॅरेंटेड होय बी त्या पवित्राल्या मजनू भितल्लो आसूंक जाय. तशें आसल्यार मात म्हजो चान्स हुकिल्लो हें हांवें जाणलें.

लिफ्ट बंद आसली. पांय उखलीत तीन माळे चडूंक जाय आसले. सहज टायमपास म्हण हांवें विचार मनांत हाडलो - जर हांव सौ. कुमार जालें जाल्यार? तो लांब सडपातळ, सांवळो, वाजाड्डो दिसपी कुमार म्हजो घोव जालो जाल्यार? तिसरो माळो केन्ना आयलो तें कळ्ळेंच ना. आनीक तीन माळे चडून वचचेली म्हजी अजून तयारी आसली. आमच्या फ्लॅटा मुखारूच तांचो फ्लॅट आसलो. धांपेत, खरशेत, बोटांनी घाम निपटीत हांवें डोअरबॅल दामली. मुखावेल्या कुमाराल्या फ्लॅटांतल्यान दाराच्या आयहोलांतल्यान कोणतरी पळयल्या भशेन म्हाका दिसलें. दार उगडटकी हांव बेगीन भितर सल्लें. "खंय गो तूं येदेवेळ?" मम्मीली प्रस्नावळ सोंपचे पयलीं हांव धाड करून वल्तेरांत कोसळ्ळें. "उदक" हांव आड्डलें. घामाच्यो उश्ण पावळ्यो आंगभरून व्हांवताल्यो. अंदू गीम चडूच तापिल्लो. "उदक" हांवें परत सूर लायलो आनी शर्टाचें तोंक हालोवन वारो घेवंक कॉमेस केलें.

ट्रिंग ट्रिंग ट्रिंग फोन वाजलो. हें तेंच चुळचुळें पवित्राच आसूंक जाय. झक मारूं ताका थंयच. म्हण हांव वग्गी बसून रावलें. मम्मीन फोन घेतलो. आनीक रॉंग नंबर म्हूण दवरलो. कांय वेळांत फोन परत घणघणलो. "पाड पडूं त्या पवित्रालें, पिशें...पिशें लागलां ताका. रागारागान हांवें रिसीव्हर कानाकडे व्हेलो आनी तडतडीत सांगलें, "आयक... तुवें जो प्रस्न घाला ताची जाप हय. कळ्ळें? भेंकऱ्या परत आयक तुज्या प्रस्नाची जाप व्हडलें ह...य, आनी सायबीणी आतां आनीक वगीच म्हजो जीव खावं नाका." तितल्यान त्या वटेतल्यान शब्द कानार पडले,

“तर प्रस्न असो आसा की तूं म्हजें जायशी?” तोच हेल काडिल्लो आखडू आवाज. त्या अनपेक्षीत धक्क्यान हांव कण कण लजेवन गेलें. आनी थंयच्या थंयच थिजलें. थोडो भंयूय दिसलो पूण मन मात खूप सुखावलें. मनांतल्या मोगाक कोंबरी आयली. त्या उमेदींत हांव आख्खी बाटली भरूय उदक पिलें.

थंड शितळसाण ताळ्यांतल्यान पोटांत आनी काळजांतल्यान मेंदवांत रिगली. सामकें बरें दिसलें. मम्मी कितें तरी बडबडटाली. म्हजें मात्तूय लक्ष नासलें. त्या मुखावेल्या फ्लॅटांत मनाचो पाखो भिरभिरतालो. तातूंनूच कोणतरी एकसारको फोन करी. मनाक तोतेवन सोडपी खेळ ताणें कित्याक मांडिल्लो देवाक खबर. म्हज्या काळजाची धडधड बदलून गेल्ली. ताळ, मेळ ज्युस्त बशिल्लो आनी काळीज धडधड जावच्या पावटीचें शिडशिडीत, सावळो, वाजाड्डो, ट्रिंग, लांब, शिडशिडीत, ट्रिंग, सावळो, वाजाड्डो - ट्रिंग ट्रिंग ट्रिंग करतालें. ती धुंदी म्हज्या कणकणान रूजताली आनी मनाक आनी गात्रांक कातकुल्यो करताली.

मम्मीन तिसरे फावट उलो दिलो आनी हातीक धरून हालयलें. मुखावेल्या फ्लॅटांत गेल्लें मन तटाक करून शादूर जालें. “चल बाय आतां पयलीं जेवन घे. मागीर आवोन्ताद एक बरी न्हीद काड. ताजें तरतरीत जा आनी सांजवेळा बरें न्हेसून तयार राव. आयज नवऱ्याले लोक तुका पळोवंक येतले”. तकलेर एकदम बॉब फुटिल्लेवरी जालें. काळीज तडफडलें. मम्मी उलयत आसली - ती फामील बरी, चलोय वायट न्हय. तुका सुखांत दवरतलो. आतां पयलीं साखरपुडो करचो आनी मागीर सवकास तूं तुजें शिकप सोंपयतकी घर बसय.”

कांय वेळ पयलींचीं म्हजीं सपनां उबून गेलीं. मोगाक फुटिल्लो नवोच आंकूर झडपाक पावलो. लांब, शिडशिडीत, सावळो, वाजाड्डो -एक मृगजळ जावन पडलें. भस्स करून दोळे दुकांनी भल्ले. मम्मीन म्हऱ्यांत घेवन म्हाका घट्ट धल्लें “चल पिशें खंयचें - येदें व्हडलें चली रडटात म्हण खंय?” अशें म्हणून तिणें फाटीर मायेन हात ओडलो. “पूण मम्मी...” हांव उलोवचे पयलींच टेलिफोन वाजलो. ट्रिंग ट्रिंग ट्रिंग - जड अंतस्करणान हांवें हॅलो म्हळें, “तूं हय काय न्हय?” पवित्रालो प्रस्न. “कितें?” हांवें विचारलें. “आंकवार गो?” तें खळखळून हांसलें. हांवें तिडकीन रिसीव्हर आपटिलो. थामिल्ले मम्मीन मुकार उलोवंक कोमेस केलें. “तुका भियेवचेलें कारण ना. तूं तांकां बरें वळखता. आगो तीं गो आमच्या मुखावेल्या फ्लॅटांतलीं -

शेजारचीं -कुमार. कुमारालो चलो वळखना तूं? ताचे आवयक तूं खंय खूप आवडलां आनी तुका सून करून घेवची तांकां खूप इत्सा आसा. पळे ना म्हण नाका. तूं खरेंच सुखाक पावतलें. म्हजे जाण्टेलेचें आयक."

आतां मात हांव एकदम खलास जालें. मम्मीलीं फुडलीं उतरां म्हज्या तकलेवेल्यान गेलीं. म्हज्या कानार म्हजो विश्वास बस नासलो. म्हाका दिवाळी, क्रिसमस, चवथ एकाच दिसा आयिल्ल्यावरी दिसलें. हजार घांटो निनादल्याचो भास जावंक लागलो. कोणेंतरी एकाच वांगडा कोट्टयांनी फोगोट्यो पेटयल्या अशें दिसूंक लागलें. दोळ्यांत आनंदाश्रुनी दाटी केली. गळो दाटून आयलो आनी तितल्यान फोन किणकिणलो. ट्रिंग ट्रिंग ट्रिंग. रिसीव्हर उखलून हांवें फट्ट करून म्हळें, "तुज्या प्रस्नाची जाप "ना" आयकलें तुवें? उत्तर ना आतां तरी म्हजी फाट सोड." हुंदके, खोशी आनी उमेदीच्या भरांत हांव बेधडक सांगून मेकळें जालें. "तूं तुजें मत बरेंच बेगीन बदलता न्हय?" हो हो तर आवाज तो .. हो पवित्रालो आवाज न्हय, हो तो हेल काडू आखडूं म्हजें आंग शिरशिरलें. तोंडांतलीं उतरां जाम जालीं. "हय....ना.. तें... करीत हांवें बेगीन फोन मम्मीकडे दिलो आनी कुडींत धांव माल्ली. हजार पदां करोडो चालींनी म्हज्या काळजांत, कानांत आनी मनांत वाजूंक लागलीं. पूण सपन मात एकसुरें एकूच आनी तांतलो राजकुमार जावन आसलो म्हजो कुमार.

❑❑❑

# बसव्वा

**त्या**वेळार म्हजी पिराय आसून आसून १० वर्सांची. पुस्तकांची ही रास भोवतणी घेवन हात-पांय ताणून गणित सोडोवचेलो म्हजो प्रयत्न कांय वेळांत फुस्स् जायी आनी मती भेरार जातकी हांव म्हजेंच शेणकूल धरून वडी. उत्तराचो आनी गणिताचो मेळ कसोच बस् नासलो.

ह्या अशा वेळार बसव्वा दारांत अवतरली. बसव्वा - आमगेली नवी वावराडी. भरदार, लांब, खडपा भशेन किट्ट काळो रंग जशी अमास. कपलावेलो तांबडोगूंज वाटकुळोच्च ठणठणीत चंद्र नदर ओडून व्हर. तिगेले दोळे काजुल्ल्या भशेन लुकलुक् तर रूंद नाकावेलो भांगरा थेंबो म्हाका भौच आवडिल्लो.

हांव तोंडाचें व्हडलें आं करून तिका पळेत उल्लें. तिची नदर म्हजेर पडली तशी ती तोंड रूंदावन बत्तीसूय दांत दाखोवन हांसली. तिच्या तोंडांतले एका वळितले धवेफुल्ल पाषाण कशे दांत मेजीत हावेंय म्हजी बोची उगडली. तरी लेगीत तिचेवरसून म्हजी नदर मात लेगीत हाल्ली ना. तिणें केसांचो वाटकुळो आंबाडो बांधिल्लो. कान खूप कडेन तोपिल्ले. तिची तरेकतरेची बारीक व्हड कानांतलीं पळोवन हांव दिपकावन गेल्लें. म्हाका तिजे कान आनीक कानांतलीं दोनूय आवडिल्लीं. आनी सगळ्या परसूय म्हाका आवडिल्लो तिच्या हातावेलो टॅटू. तिचे काळे कातीर लेगीत तो स्पश्ट दिस्. तिका निहाळीत हांवें तिचो थंयच दारांतूच बारसो केलो आनी 'ब्लॅक ब्युटी'

म्हण नांव दवरलें.

तेदवेळा बसव्वा १८ वर्सांची आसूंक जाय. आमगेर कामांक आशिल्ल्या कामगाराकडेन तिचें नवें-नवें लग्न जाल्लें. तिचो मूळ गांव कर्नाटक. घोवा वांगडा ती गोंयांत आयिल्ली. म्हजी मम्मा तिका व्हडा-व्हडान कितें तरी सांगताली. म्हजें लक्ष पुस्तकांतल्यान सर्रर करून थंय धांवलें. मम्मा एकसुरांत तिका घरचीं कामा समजायी आनी बसव्वा मोन्यानीच तीं समजून घेवचो प्रयत्न करी. मम्मा आनी बसव्वालें उलोवणें म्हणजे घरच्यांक आयती मजा. मम्माची मोडकी तोडकी हिन्दी आनी बसव्वाली फटाफट कानडी. कांय वेळा उप्रांत दोगांयली मती बॅजारून वच्. भाशा थंडावतकीच हात हालोवन, ॲक्टींग करून दोगांयले वेव्हार चल. तें मूक नाटक पळोवन घरांतल्या मनशांचो आनी खासा म्हजो वेळ मजेंत वतालो आनी तुमकां सांगतां तेदवेळा टिवीचें आमी नांव लेगीत आयकूंक नासलें आनी आमकां हो घरचो टिवी फावो जाल्लो.

मम्माचो आनी बसव्वाचो बोलपट आनी मुकपट पळोवचेलें म्हाका व्यसन लागलें. मेजार पुस्तकां पातळावन होमवर्काच्या निमतान हांव सगळें पळयी. पंदरा-वीस दीस हें अशेंच चललें. उप्रांत मम्मालें पासिंयेंस साप काबार जालें. तिचो प्रेशर फरफरून भायर सरतालो. धेडगुजरी भास आनी हावभाव कडेक वडोवन ती मागीर पूर कोकणींत तिका तापोवन सोडी. त्या परीन बसव्वाय आपणाल्या अस्सल कानडींत परपरताली. त्या दोगांयलो उद्वेग, पच्छत्ताप तांच्या तोंडार स्पश्ट दीस. ह्या काळ्या ब्युटी बद्दलचें आकर्शण मात दिसान दीस वाढत वच्. तिचेकडेन इश्टागत करपाचो म्हजो प्रयत्न चालूच आशिल्लो. म्हाका ती खंयच्या तरी दुसऱ्या जगांतली भास. तिचीं तरेकतरेचीं कानांतलीं, नाकांतली नथ, हाता-पायांतलीं रिंगां, कांकणा तिच्या त्या अदभूत भाशे प्रमाण थंड मंजूळ निनाद करी. आनी तो हातावेलो विलक्षण टॅटू - तो तर म्हाका खूप आवडटालो. ताका हात लावपाक म्हजें भुरगें मन भायर-भितर जायी.

कदेलीर बसून पांय हालयत टक लावन पळोवणे तिका मात्तूय आवड् नासलें. ती तिडकीन पावल सावरी आनी आपणाले भाशेंत प्रस्न करी. मागीर

तिचो प्रस्न जशाक तसो हांव तिका परत आयकयी. तितल्यान तिचो राग खंयच्च्यान खंय नाच्च जायी. धवे फुल्ल दांत दाखयत ती खदखदून हांस. हळू हळू तिच्या सांगातान हांव कांय कानडी शब्द शिकलें. तिच्या वांगडा तांबडे कानडींत उलोवंक खूप मजा येई. म्हज्या एकपाठी पणाचें तिका कौतूक दीस्. आमच्या भितर नकळत एक अतूट धागो विणत वच्, काळजां गुंथीत वच्.

दीस भराभर वताले. एक दीस बसव्वा आयलीच ना. हावें तिची खूप वाट पळयली. दुसऱ्या दिसा ती आयली. तिची साउद म्हाकां बरी दिसली ना. तिची वृत्ती शितळ, लजेस्त आनी कितें तरी घडिल्ल्यावरी जाल्ली. पूण म्हाका किद्याचोच तिणें थांग-पत्तो लागूंक दिलोना. मम्मा आनी ती रानचेकुडींच्या चार वण्टी भितर हळूच फुसफुस् आनी कान लांब करूनूय म्हाकां कांयच आयकूंक येना आशिल्लें. कितें तरी जालें हें शेर्त. बसव्वाच्या आंगांत ल्हवू ल्हवू बदलाव येतालो. तिचें तोंड फुलिल्लें, पांय भरून आयिल्ले आनी पोटाचो घेर सवकास वयर सरकतालो. हरतरानी प्रस्न करून हांव तिका भंडावन सोडी. एक दीस मागीर मम्मान सांगलें की बसव्वाक बाबू जातलो. हांवें अजापान तिका पळयली. ती जबर लजली पूण तरी म्हगेल्या प्रस्नाची गाडी थांबली ना. तरेतरेचे विचार प्रस्न रूपान उबे राव आनी बसव्वा दिसली रे दिसली पयलीं तिका बारीक नियाळप आनी उप्रांत प्रस्नांचो शिवोर करप. मम्माक म्हज्या प्रस्नांची उबगण आयिल्ली. तिची जाप दिवचेली शक्त सोंपिल्ली आनी म्हणून सुटयो पडटकी रोखडीच म्हजी पोटली तिणें काकागेर धाडून दिली आनी मम्मा सयत बसव्वानय सू ऽऽ करीत हुस्कार घेतलो.

सुटयो सोंपतकी हांव घरा आयलें. बसव्वा दाराकडच्या कोनशाक च्या घोटीत बशिल्ली. एक नवें चेडूं घरांत सारण मारतालें. हांवें तांबड्या-हळदुव्या कानडींत बसव्वाक देरेफेंत हटकीली. तिची नदर म्हजेर पडली मात तिका कोण खुशी जाली. कडकडकड करीत तिणें जी कानडी सुरू केली-बापरे बाप. जशें सुरू जाल्लें तशेंच तोंडाचें टुणटुणें अचकीत थांबलें. हळूच तिणें पालव वयर केलो आनी म्हजी नदर घट्ट जाली. पांय जमनीर मुंगरपाक लागले. इदुलो गुडगुडीत बाबू दुग्द पानांत मग्न आसलो. पदर नीट करीत बसव्वान तो

इल्लोसो जीव म्हजे मुखार धल्लो.

अजाप, उमेद, मात्सोसो भंय आनी उत्सुकता म्हज्या दोळयांत एकवटिल्ली. बाबूक चट्ट्याचापट्ट्याचें तोपरें घाल्लें. कमरेक धवीच्च लंगोट बांदिल्ली आनी तो पुराय जीव ल्हान खोमशेन गुठलायल्लो. दोळे घट्ट धांपील्ले. हाताच्यो मुठी वळिल्ल्यो आनी पांय दोडून वंठ घच्च आवळून धरिल्लो तो जीव पळेतुकूच सुरावतेक म्हाकां भंयूच दिसलो. आस्ते-आस्ते सुरेश व्हड जायी. ताची टकामका पळोवप आनी हेर चाळ्यानी घरच्या सगळ्यांक लळो लागिल्लो. जण एकल्याल्या तोंडांत सुरेशालें नांव घोळटालें. ताची तोखणाय आनी अपुरबाय करतना दीस कसो सोप हें कळनासलें. तो जो सकाळीं आमगेर येयी तो बद्ध्द रातचो घरा वच. ते दिसूय हळुहळू सरले. करतां करतां वर्स-देड वर्स जालें. सुरेश आता बरोच व्हड जाल्लो पूण आजून ताका नीट उबो रावंक जमनाशिल्लें. बसव्वावेलो म्हजो फोकस आतां सुरेशार थिराविल्लो. करतां करतां ती काळरात आयली.

णव-साडेणव वरांचो सुमार आसुये. घराचें दार कोणेंतरी आकांतान वाजयलें. दारांत बसव्वा उबी आसली. तिचे दोळे रडून रडून सुजिल्ले. केंस विस्कटिल्ले. हड्डें धपटीत ती रडून आकांत करपाक लागली. म्हाका खूप भंय दिसलो आनी हांवूंय रडपाक लागलें. बसव्वान म्हाका घट्ट धरलें आनी ती हुंडक्या हुंडक्यानी रडपाक लागली. घरांतली मंडळी हातांतलें काम सोडून दोतोराक घेंवन बसव्वाल्या घरा धांवली. दुसरे दीस कळ्ळें ते काळरातीन सुरेशाक गिळिल्लो. बसव्वाच्या काळजा कुडक्याक सोरोप चाबिल्लो. हॉस्पितालांत पावचे पयलींच तो हें जग सोडून गेलो. न्हावंक गेल्ली बसव्वा परत येवन पळेता तर काळान वचपो काडिल्लो. तिच्या पूराय जिणेर वज्रघात जाल्लो. हे घडणुके उप्रांत बसव्वा सामकी खचली. तिणें आमगेर येवपाचें बंदूच केलें. मम्मा फावता तशी तिगेर फावट मारताली. तिचें दूख्ख केन्नांच कमीं जालें ना. हालीं तिच्या घोवानूय खूप पियोप धरिल्लें.

कांय सुमान जातकी बसव्वा आमगेर आयली. ताचे दुसरे दिसा म्हजो निमणो पेपर आसलो. त्या दिसा बसव्वा मम्माकडेन खूब उलयली. उलोवपांत भाशेच्यो, उतरांच्यो आडमेळी नासल्यो. ती जावन आसली काळजाची भास.

दु:खान भावनेक पाझर फोडिल्लो. हांवें बसव्वाक पळेली. तिचे केंस अस्तव्यस्त जाल्ले. आभुशणाचेर काळसाण पडिल्ली, दोळे खोल गेल्ले. ती खूप अशक्त आनी म्हातारी दीस. म्हजेय दोळे दुखानी भल्ले.

बसव्वान गांवांक वचचेलो निर्णय घेतिल्लो. घडये ती थंयच रावपाची. मम्माक मेळपाक म्हण ती मुद्दाम आयिल्ली. आपणाली पोटली उखलीत ती म्हजेसरी आयली. कपलाचो उमो घेतलो, फाटीर, माथ्यार हात भोवणायलो आनी गांवांची वाट धरपाक ती वळ्ळी. तिच्या हातावेलो टॅटू म्हाका जुस्त दिसलो. तेय परिस्थितीत म्हाका प्रस्न पडलोच. तिका तो दुखता आसत काय? प्रस्नाची जाप मेळची नासली पूण ताचें उत्तर आतां कळ्ळें. तिच्या काळजांतल्या दु:खा खेरीज संवसारांतलें दुसरें कसलेंच दु:ख तिका आफडूंक शकनासलें. पयस पयस वता ती बसव्वाक हांव दोळे भरून पळेत उरिल्लें.

❑❑❑

# मृगजळ

शम्मी इस्कादीच्या पयल्या सोपणावेल्यान मुखावेल्या वर्गार घोणी भशेन नदर लावन बशिल्लो. घडयाळीचेर व्हिस्त वचनाफुडें ताच्या काळजांत आनिकूय उळउळूंक लागलें. आतां आनींक थोंडोच वेळ हुमकळपाचें आनी मागीर एकदाचें देवी दर्शन. उतावीळ बोटांनी जाणींव दिनास्तना हातांतल्या पुस्तकाचें तबलें केलें. म्हण्टासर तो उठून उबो रावलो. आनी-आनीक थांबप ताच्या हातांत नासलें. एका धेपेंत तीन-तीन सोपणावेल्यान धेंगां मारीत ताणें क्लासाच्या दारा मेरेन मुसंडी माल्ली. भितर पळोवचेली कूय ताणें व्हडा कश्टान दामली. पळोवंक गेल्यार तातूंत फायदोय नासलो. तिसऱ्या बाकांवेले मनीस दारांतल्यान दिसूंक शकनाशिल्ले. निदान तितली तरी बुध्द देवान ताका दिल्ली.

वेळ सोंपून सोप नासलो. शम्मिलें उतावळें मन खिणाखिणांक उचांबळून येतालें. पांजऱ्यांतलो वाग कसो तो वयर-सकयल पासयो मारूंक लागलो. हड्डें पिंजचें आनी ताचे सामकार मोग उकतावचो असो आततायी विचार ताच्या मनांत आयलो. शामलीची सोबीत गोरी मूर्त ताच्या मतींत येना फुडें ताणें आनीक वेळ लायनास्तना ताच्या नाजूक बारीक कमरेर हात दवरलो आनी पोल्याक -पोलो लावन उश्ण स्वासान न्हायत नाचत आस्तनाच भोंगो वाजलो. मोगान विरार जाल्लो मेंदू सट्ट करून सादूर जालो. ताची हावरी नदर दारांतल्यान येवप्याचीं तोंडां निरखूंक लागलो.

कांय जाणानीं 'हॅलो शमी' म्हण हटकिलो तर कांय जाणान टॉन्ट माल्ले. कांय भुरगे 'आमकां सगळें खबर आसा रे ...' अशें प्रत्यक्ष परगटायनास्तना मुमूरख्यानीं हांसले. हय, ताची सेक्रेद आतां भुरग्यांमदीं फामाद जाल्ली. भुरग्यानींच ताका 'देवदास' हो किताब फावो केल्लो, तर कांय जण ताका 'म्होवा मूस, गुंगुल्लोय' म्हण वळख. शम्मीलें ध्यानूय विचीत्र जाल्लें. बॉडावेलो केसांचो पिसारो बेणूंक आयिल्ल्या शेतावरी दीस. तोंडार काळ्या केसांच्या खुंटाचो चरवो शिपडिल्लो. बुस्कोटाचे बुतांव हड्ड्याची काळी नक्षी मात्तूय लिपय नासले. ताजी ही अशी दशाच ताका हेरां पासून वेगळो करी.

एकदाचें शामली दारांत आयलें. वांगडा ताची इश्टीण सोना ताका म्हस कशी घश्टत घश्टत येतालें. सोना म्हण्टकूच शम्मीली मदली शीर उबी राव. ताका कारणूय तशेंच आशिल्लें. सोनाली फोंत म्हणजे तोफ एक फावट उगडली कीं ती आगगाडी प्रचंड वेगान रूळ सोडून भलते कडेन धांव. एकएकदां ताचें नरडें दामून ताका वोगी करचेली मनांतली इत्सा तो कश्टान आवरून धरी. तीं दोगांय आतां लागीं पाविल्लीं ..... सगळे विचार कडेक उडोवन तो लोंचट हांसलो आनी 'हॅलो सोना, हॅलो शामली' म्हणीत तांका अभिवादन केलें आनी अपेक्षेन शामलीकडें पळेलें.

अस्पश्ट, कंजुसकायेन हांसून शामलीन कूस माल्ली आनी सोनांक मात आयती संद फावली. जन्म-जन्मांच्यो शेणिल्ल्यो दोन मोगी जिणी अचकीत मेळच्यो अशें भासयत ताणें टर्‌टर् करुन गिरकी घेतली. आपल्याव्हटें येवपी तो प्रचंड वझरो पळोवन शम्मी खपखपलो. तोंडांतली गाळ वठांर चिड्डीत असतना ताका वगीच्च दिसलें : सोनाक जर लांब लचक शेपडी आसता तर ज्या गिरकेंत तें ताचे वटयां घुविल्लें त्या हिशेबांत ती शेपडी सुरू ते निमणें पोंत मेरेन ताच्या पुराय आंगाक गिर्‌र्‌र् करून वेटाळपाची हातूंत इल्लोय दुबाव नासलो. पूण देवान ताका शेपडी दिवंक नासली. शम्मीक खूप वायट दिसलें. शम्मी शामलीचेर मरता म्हण सोनाक बरें खबर आशिल्लें आनी तें ताचो जायतसो फायदोय काडी. पुस्तकाचें शम्मीकडें व्हड रिलेसांव नासलेंच म्हणा पूण हेर जायत्यो दुसऱ्यो गजाली, जश्यो घरा वचपाक लिफ्ट कॅन्टीनांत समोसा,

मिर्ची, लिमका आनीक कांय बारीक सारीक कामां तें ताचेकडल्यान दिरेतान करून घेयी. शम्मीक सगळें कळटालें पूण मोन्यानीच तो सगळें सोशी-फकत शामली खातीर.

सोनाच्या हॅ ऽ ऽ ऽ व्हडल्या धबधब्या आड शम्मीन शामलीक पळेलेंच. मानेक एक मस्त झटको दिवन ताणें केसांचीं बिश्टां जुस्त जाग्यार बसयलीं आनी मोरा भशेन पावलां मारीत तें मुखार सरलें. ती ताची अदा पळेत शम्मी सामको पातळ-पातळ जालो. इतल्यान खस्स करून खोमसाक हिसको बसलो. वादळ म्हऱ्यान पाविल्लें. 'जुस्त स् वरांचेर-कितें स् वरांचेर आं?' 'हय, हय' नंदी बैलागत शम्मीली मान हाल्ली. तरीपूण आशेल्ल्यावरी दोळ्याच्या कडेंतल्यान शामली लेडीज रूमान वता तें ताणें पळोवन घेतलेंच.

शामली दिसूंक सोबीत. सामकें डिट्टो लावण्यवती, ताचे सगळे हावभाव ताच्या सुंदर रूपाक आनीकूय सुंदरताय हाडी. उठप, बसप, चलप, हांसप सगळें व्वा! म्हणपा सारखिलें, स्टायलीश. ताचें मन जिकचें कशें ही एकूच चिंता शम्मीक रात-दीस पिडटाली. असोच मुसकां मारीत बशिल्लो आसतना ताणें आपणांक सपनां पळोवचेली संवय लावन घेतिल्ली. ताका आपूण 'डरांतलो' शाहरुख खान सो दीस आनी मागीर तो घे ऽऽ म्हण सपनां फुलयी. पूण शारूखा भशेन रगतान मोग सिध्द करपाक ताचें मन तयार जाय नासलें. थंय पावतकी तो सपनांतल्यान भायर सरतालो. फाटीर पडिल्ल्या धुमक्यासरशीं तो तंद्रेंतल्यान जागो जालो. 'हाय देवदास-हावज युवर चिक?' इश्टान पच्च करून डायलोग शेवटिलो. तितल्यान दुसऱ्याक चडून आयलें. 'वॉट अ पिस या ऽऽऽ' ताणें 'र' म्हणचे आदींच शम्मीन ताचे सणकुटेर फुलयलें. दुसरी मूठ ताच्या नाकाचें लोणचें घालीत गेली केन्ना हें खुध्द शम्मीक लेगीत मागीर कळळें. दोगूय घाण्याचे बैलशे एकामेकाक मारूंक लागले आनी उप्रांत प्रिन्सिपलाकडल्यान भायरी खातकी थंड जाले.

लव्हेरीयांत शेवटल्लो शम्मी लाकडी वणटीर एकीकडे काळजा भितर 'शम्मी + शामली' म्हण कोरतालो तर दुसरेकडे ताचो मेंदू विचार करतालो. शामलीलें ओंदू तिसरें वर्स - ताची येजाम जातकी घडये ताचें लग्न जावची शक्यता नाकारूं येना आसली. ताचो जीव हाल्लो, मन सदगदीत जालें. ताका

मरण येवजलें. जीव दिवचेलो विचार ताच्या मतींत उळउळपाक लागलो - गळ्याक फांस, वीख, बुडून - शॅ ना तें तितलें सोपें न्हय. तुर्ताक तरी तो विचार कुशीक उडयल्लो बरो अशें ताका दिसलें. मोगाच्या कांय बऱ्या वाटेंत असल्या भिरांत घालपी विचारांक पोसपाक ताचेशीं वेळ नासलो, आनी धाडसूय नासलें. हय फुकट लिपय कित्याक? ग्रेज्युएट जावंक ताका आनीक दोन वर्सां आसलीं.

- तो मेरेन तें वाट पळेत काय? घडये तें मुखार शिकचेली शक्यताय नाकारूंक येना आसली, आनी तशें जाल्यार ताका फायदो आसलो. आपणालें शिकप सोपोवंन सिरवीस करचेली संद ताका आपसूक फावो जाताली. मदींच ताका दिसलें: 'हांव जसो ताचेर मोग करतां तसोच तें म्हजेर करता आसत काय? काय ताच्या लेखी हांव एक पोरांटो?' हजारांनी प्रस्न ताका भिशटावंक लागिल्ले.

हय, ना, हय, ना करतां करतां कॉलेजीचो निमणो दीस तेंकलो. शम्मीली परिस्थिती 'जैसे थे' आसली न्हय उलट पेरीग जाल्ली. ओंदू फॅरवेल पार्टी जुनीअर ह्या नात्यान तांचेर पडिल्ली. शम्मीन निर्वाणेचें विचारपाचें थारायलें. फाल्यां फॅरवेल पार्टी तेन्ना फायचो दीस परत मेळचोना, फाल्यां हाचो कितें तो सोक्ष मोक्ष लावपूच. मन आस्तावतांच, इत्सा फुलारल्यो. ताणें चिंतून दवरलें : फाल्यां संद सादून ताचे वांगडा नाचपूच. डान्सांत तो एक नंबरी ढ आसलो पूण तरी धाडस करचें ताणें थारायलें. शामीले सोबीत हात खांदार घेवन ताचे सुंदर कळी कशे कमरेर हात दवरल्या उप्रांत नदरेक नदर मेळोवन ल्हवू ल्हवू मागीर मोग उक्तावंक जातालो. सगळें सामकें जातकी निमणी एक किस .. वा! आपणाल्या आयडियेन तो एकदम सर्गदन जालो. धमण्यांत रगत उसळ्ळें, गात्रां उचांबळ जालीं. इश्टा कडच्यान थ्री-पीस वा ब्लेझर उश्णो घेवचें ताणें शेर्त केलें. हातांतलें शिकपाचें पुस्तक ताणें खाटीर उडयलें आनी फुडले तयारेक पेटलो. बापायल्या आलमारींतलीं कांय वेचीव लोशन, चेर, ताणें पळोवन दवल्ले.

दुसरो दीस उजवाडलो. न्हावन-बिवन लिंप जाल्ल्या शम्मीन केन्ना न्हय तें आज खाड काडलें. फ्रॅन्डाकडसून हाडिल्ले म्हारगे कपडे नीट चडयले.

पयलींच पळोवन दवरिल्लीं बापायलीं लोशनां, चेर, परफ्यूम आंगभर चोपडिले. पायांक धुल्ले सोक्स, बूट घाले आनीक वातावरणांत परमळ सोडीत तो दिरेंत कॉलेजींत गेलो. हॉलांत नामनेचीं पदां वाजतालीं. ताणें जमता तितलो वारो नाकांत ओडलो, ताजें वारें फुसफुसांत रिगना फुडें ताका फ्रेश दिसूंक लागलें. ताच्या काळजाचीं ध्वनील्हारां ताका उचांबळ करतालीं. नव्या आशेंत रोमांचीत जावन तो दारामेरेन आयलो आनी सदचे भशेन शामलीची वाट पळोवंक लागलो.

चार जालीं, साडेचार जालीं, शामलीचो पत्तो ना. शम्मी बाबडो भाड्याच्या सुटांत सुकलो. निमणीं पांच जायत आयलीं आनी एकदाचें शामली ताका दिसलें. ताच्या धमण्यांतल्या रगतान झेलत माल्ली. साडी न्हेशिल्ल्या शामलीक दोळे भरून पळोवचे पयलीं कोकणदुदी सोना खोर्न कशें मुखार आयलें, ताच्या सोंडाचो सडिल्लो रेडवो स्विच घुवणावन बंद करूंक आयिल्लो तर कितलें बरें जातलें आसलें न्हय? शम्मीक मनसपुर्वेक दिसलें. शम्मीलें निरखणें चालू आसलें फक्त सोनालो हडमर परतो परतो मदीं येतालो. शामली पीच कोराची साडी न्हेशिल्लें. ताच्या साडयेच्यो मिरयो नदरेंत भरताल्यो. घसघशीत केंस ताणें फ्रेंच स्टायलीन बांधिल्लें. ताची लांब आनी सुंदर मान कळी कशी दीस. गळ्याची खोलाय नापूंक नदर थिटी पड. शम्मील्या सपनांतल्या यादींक तेंको मेळ्ळो. उभ्या-उभ्यांच तो सपनेलो : शामलीक वेंगेंत घेवन ताचे नाजूक कमरेक विळखो घालून आपणालो निर्मळ मोग उक्तावच्या सपनांत तो भारावन गेलो. तो मेरेन शामली केन्नाच भितर पाविल्लें. कपलावेलो घाम पुशीत शम्मीय ताच्या फाटसून भितर रिगलो. शामलीचो सोबीत तोंडवळो, म्होवाळ स्मित, हाशाची निखळ खळखळ कानार पडटकी ताका विणा झंकारिल्ल्या भशेन दीस. तें आयज अप्सरा जावन धर्तरेर देविल्लें.

मनांक भुलोवणी घालपी जादू कडेक सारून ताच्या नदरेक नदर मेळोवचेली संद तो सोदतालो. कांय वेळा उप्रांत ताका कळून आयलें की शामलीक ताचें पडिल्लेंच ना. ताच्या अस्तित्वाची ताका मात लेगीत पर्वा ना. ताची कूड एकदम काळखांत बुडली. वर्सभर जाका मनांत पुजलां ताची एका खिणांत आस सोडूंक ताचें मन सहजा सहजी तयार जाय ना जालें. तो सामको खर्पसूख

जालो. सगळें बळ एकवटून तो चिंतपाक लागलो. अचकीत ताका एक आयडिया सुचली. ताका सिनेमांतलो धरमेंद्र येवजलो. 'तेरा पिछा ना छोडूंगा सोनीये, भेज दो चाहे जेल में' ह्या मंत्राचो जप करीत तो हीरोईनी फाटल्यान लागतालो आनी निमणें तिका फारायतालो. शम्मीनूय तशेंच करपाचें येवजीलें. ताणें केंसार हात भोवणायलो आनी उब्या उब्या शायरी केली.

'तेरे प्यार मे क्या क्या न किया --<br>
सणकुटेर दिया, सणकुटेर खाया --<br>
प्यार पाने के लिए अब मै कुछ भी करूं --<br>
फिर चाहे बनना पडे हमें जितेंद्र या धरमेंद्र<br>
तेरा पिछा ना छोडूंगा सोनिये - भेज दो चाहे जेल में ।।'

पार्टी सुरू जाली. खावपान गुल्ल जाल्लें सोना दुसर खावंक टेबलाकडें गेलें आनी शम्मीक भांगरा संद मेळ्ळी. ताणें वेळ लायनास्तना एक लिमकाची बाटली उखल्ली आनी शामली व्हटयां पावल उबाल्लें. ना म्हणपाक आयज तो सामको नेर्वोज जाल्लो.

'कॅन आय टच यू देअर' नामनेच्या पदाची वळ कानाकडे कातकुल्यो करी. बऱ्याच प्रयत्नांत ताणें पावलां पदाच्या तालार सॅट केलीं. 'कॅन आय टच युवर हार्ट, दी व्हे यु आर टचिंग मायन - कॅन आय टच यू देअर --' तो पदाचो ताल, तांतलीं उतरां ताच्यो भावना उक्तायतालो. आतां फक्त चार पावलां. ताज्या काळजाची धडधड आतां धाड धाड धाड जाताली. आपणांकूय काळीज आसा आनी तें इतल्या फोरसांत आवाज करूंक शकता हें आख्ख्ये जिणेंत ताका पयले फावट कळिल्लें.

दार उगडलें. प्रोसोर अरूण भितर आयलो. ताचें भारदस्त व्यक्तीमत्व, भरदार खांदे, केसांचो कृ कट आनी फ्रेंच बियर्ड, तागेलें व्यक्तीमत्व आनीकूय फुलयी. दोळ्यार ओक्ल, ताची भांगरा फ्रेम, सिल्क कुर्ता घातिल्लो तरणाटो आंकवार प्रोसोर आयज राजकुमारसो दिसतालो. स्टायलीन पावलां उखलीत तो शामलीसरीं गेलो आनी ताचे कमरेर हात धरून पदाच्या तालार नाचूंक लागलो. शामलीची नदर तृप्त जाल्ली. प्रोसोराचो सांगात ताका मानवल्लो हें निश्चित. वाली भशेन ताका तें दशिल्लें.

शम्मीची पायां खालची भूंय हाल्ली. सगळीं सपनां सैरभैर जालीं. तो भितल्ल्यान हाल्लो. खिणभर ताची नदर शामलीच्या नदरेक भिडली आनी ताका सत उमजलें. दोळ्यांत दुखां दाटलीं. पांय थरथरूंक लागले. हातांतली बाटली पडटा पडटा वाचली. तितल्यान सोना ताचे म्हऱ्यांत आयलें. जशें काय तो ताकाच बाटली घेवन उबो आसा अश्या थाटांत 'थॅन्क यू' म्हणत ताणें ती घेतली पूण ताका शम्मीली अवस्था जाणवल्या बगर रावली ना. ताणें ताचो हात धरून ताका आपल्या कुशीक बसयलो. आधाराक आशेल्ल्या शम्मीनूय ताचो हात घट्ट धल्लो. दोळ्यांतल्या दुखांनी बांद तोडलो आनी वाट मेकळी केली. ताच्या खांद्यार हात दवरून सोना ताका सांत्वना आनी सहानभूती दीत रावलें. शब्द सोंपिल्ले, संगित सोंपिल्लें, रात सोंपिल्ली पूण एक नवी आशा, नवो मोग, नवो पालव मनांत पेरून...

❑❑❑

# वचन

१९४८ सालांतली गजाल. बाबा निकतेच घरांत सरिल्ले. तांचो चेरो ओडिल्लो. पुरो जालां हें तोंडार स्पश्ट दीस. शुभ्र पुडवें आनी सदऱ्यान बाबालें खानदानीपण दिसून येतालें. हालीं तांचें धवेफुल्ल पुडवें हळदुवें जाल्ल्यान पोन्ने दीस.म्हाका याद आसा, फाटले दिवाळेक बाबा हें धवेंफुल्ल पुडवें न्हेशिल्ले. एक वर्स जावन गेल्लें हे खबरीक. बाबा तेदवेळार घटमूट दिसताले. तांच्या उगड्याबंब मोट्ट्या पोटार जानव्याचो शुभ्र जोड सोबून दीस. स्तोत्र गुणगुणत ताणीं म्हजे तकलेर मोगान हात भोवणायलो आनी ते तुरतुरीत देवा कुडींत गेले. बाबाचो म्हजेर खूप मोग, हेरां परस केंसभर चडूच ते म्हजेर माया करी. पयलीं बाबा खूप तरतरीत आनी उमेदी दीस पूण हालीं हालीं बाबा अशक्त आनी खूब पुरो जाल्ल्यावरीं दिसताले. घडये कामाचो ताण वयाचो परीणाम.

आयज म्हाका बाजारांत टिट्यार वचचेली कूय आयली. थारलें, बाबाकडे तेम धरून बसप. भितर सरतनाच हांवें टिट्यार व्हर म्हण पेपारें सुरू केलें. पळोवंक गेल्यार तशी म्हजी कांयच चूक बीक नाशिल्ली. खूप दीस पयलीं बाबान म्हाका टिट्यार व्हरचेलें वचन दिल्लें आनी आज-फाल्यां करीत फाल्याचें परवां, परवाचें येरवां, येरवाचें तेरवां जायत आशिल्लें. आयज हांवें निश्चेय केलो कितें तो सोक्ष-मोक्ष लावपूच. तांच्या तोंडावेलो थकवो पळेतकीच मनांक चोरिल्ल्या भशेन जायी. गुन्यावाची सुक्ष्म जाणीव कण्यांतल्यान सरसरत देव पूण आयज हांव हट्टाक बशिल्लों. म्हाका टिट्यार व्हर म्हणजे व्हरूच म्हण हांव तेंमांक पेटिल्लों. हय,

वचन दिवन फाटीं सरप हो कितें न्याय जालो?

तेदवेळा हांव फक्त स वर्सांचो आसत. आई म्हाकां एकट्याक वचूंक कशीच दिनासली आनी डॅडीक वेळ नासतालो. बाबाय आज फाल्यां करताले. तशी टिट्याची वाट म्हाकां बरी खबर आशिल्ली. आनी स्वताची कुयदाद घेवंक हांव त्या वयार लेगीत सक्षम आसलों. पूण आई मानूंक तयार नाशिल्ली आनी स्वताय म्हाका व्हर नाशिल्ली. कित्याक तर म्हणी ''बऱ्या घरांतलीं बायलां बाजारांत वचनांत.'' बस्स विशय सोंपलो. म्हाका पूण तें कितेंच केल्यार पट नाशिल्लें. टिट्यावेली मजा, थंयचीं दुकानां, लोक, कांय एक केन्नाच पळोवंक मेळचेंना म्हण वायटूय दिसतालें. तिरपी नदर मारीत हांवें भितर पळेलें. आई बाबूक मांडयेर घेवन बशिल्ली. हालीं केन्नाय पळेल्यार आई बाबुकूच घेवन आसताली. म्हज्या वाट्याक कमीच येयी. म्हाका वायट दिसलें, बाबू बद्‌दल इल्लो दुस्वास उत्पन्न जाल्या बगर रावलो ना.

बाबा वांगडा हांवय केन्नाय टिट्यार वच. बाबाले इश्ट, ऑफीसांतले लोक म्हजी तोखणाय करी. फाटीर, तकलेर हात भोवंडायत नांव विचारी, प्रस्न विचारी आनी अपुरबाय करी. म्हाका खूब बरें दीस. शाळेतलीं भुरगीं तांच्या बापायक घेवन दिश्टी पडटकी म्हाका आनीकूय उमेदीचो फुरफुरो येतालो. तांकां हटकूंक एक वेगळीच उमेद येताली. पांय आपटीत हांवें आकांत केलो. ''बाबा म्हाका आज व्हरूच.'' बाबान पळेलें, म्हजें कोल्ल आज बरेंच चाळवलां तेन्ना कांयच निमीत्त चलचें ना. ''हय शाण्या चल या - एक मिनीट.'' ताणी पोती परतून हातांत घेतली आनी खोशयेचे मिस्तूराद भाव तोंडार उमटले. वेळ वगडाय नास्तना हांवें बेग्गीन बाबाचो हात धल्लो. घरा फुडलीं सोपाणां बाबा देवचे पयलींच तांच्या हाताचो झोपाळो करीत हांव देवलों आनी बाबा येसर थंयच रावलों. म्हाका आयज खूप खोस जाल्ली. म्हज्यासैत म्हजें मनूय उडयो मारतालें.

म्हजो आजो भौमानेस्त श्री. विश्वंभर सिनाय केकरेबाब, हे तेदवेळचे एक पकदस्त व्यक्तिमत्व. घरांत आमी तांकां बाबा म्हण उलो मारी. ते हुशार, गंभीर, निग्रही आनी कणखर दीस. तेदवेळार तांची पिराय ६८ आसूंये. बाबालो आंगलोट भक्कम, चेरो गोल, नाक तरतरीत आनी काळेच्च दोळे. लांबायेन ते चड नाशिल्ले पूण ताचें पोट मात भव्य-दिव्य. धवोपिठ्ठ सदरो तांच्या येदे व्हडल्या पोटाक

जुस्त लिपयी म्हण मागीर लोकांक ताची तितली कल्पना येना आशिल्ली. तांच्या तकलेवेले केंस वया मानान बेगीन सटकल्ले पूण आजून कांय निश्टावंत ताच्या मस्तकार वेटाळे घालून आसले. तांचे वयर बाबाली काळी तोपी बरी दीस पूण रूबाब आनी व्यक्तिमत्वांत कांयच फरक दीस नासलो. व्हड जातकी तांचे भशेन जावचेली म्हाका खूप इत्सा आशिल्ली. कोट, तोपी घालप, पोट व्हड करप, पुडवें न्हेसप आनी हातांतलें रोत हालयत ओर्रांद रस्त्यार चलप. लोक 'सिनायबाब' म्हण उलो मारपाचे, कितली मजा न्हय? कल्पनेनूच आंगार पोसोभर मांस आयलें. "बाबा बेगीन या, नातर दुकानां बंद जातलीं" हांवें म्हळें. तांचो चेरो म्हाका कश्टी भासलो. खंत दाखयनास्तना ते हांसले. म्हाकाय मनांत खंयतरी चुकील्लेवरी जातालें. हांव चुकतां आसत काय? हांवें बाबालो हात घट धल्लो आनी नाचत पेंगट हालयत बाबा वांगडा चलत रावलों.

एकदांचो टिटो सामकार आयलो. पाविल्ल्याचें समाधान मनाक मेळटा मेळटांच म्हजी नदर हुनहुनीत भज्यांच्या गाड्यार पडली. गरम भज्यांचो खमंग वास नाकाक भूल घालूंक लागलो. म्हजी जीब हुळहुळ्ळी. "बाबा भजीं" हांवें ल्हव आवाजान बाबाक सुचयलें. "ना बाबा आज नाका आनी केन्नाय हांव तुकां घेवन दितां." बाबान समजायलें. "ना म्हाका आजूच जाय - न्हय आत्ताच जाय." हांवे आकांतान जिध्द परगटायली. "पळे पिशेपणा करनात" बाबालो निर्वाणीचो प्रयत्न. "तूं म्हजें केन्नाच आयकना, म्हजें कोण्ण आयकनात, सगळ्यांक ल्हान बाबू आवडटा, हांव कोणाक नाका, तूंय म्हजें आयकना." अशें म्हणून हांवे दोळ्यांतल्यान मोतयां गळयत रडूंक सुरवात केली.

बाबालें मन दर्वेलें. राग येवचे जाग्यार ताका वायट दिसलें. "बरें बाब जशी तुजी इत्सा" बाबान म्हळें आनी म्हाकां वेंगेंत घट्ट धल्लो. "पळे अशें म्हणप नासता, तूं आमकां खूप जाय, बाबू ल्हान न्हय, ताका उलोवंक, खावंक कांयच येना, म्हण ताजी सगळीं तोखणाय करतात, परत अशें म्हणू नाका आं?" मुळांत हांव जें उलयल्लों ताचें म्हाकांच वायट दिसतालें पूण भज्यानीं मतींत अच्छेव मांडिल्लो. बाबाले हात बोलसां सांसपिताले. ताणी खोमसाची, कोटाची, सगळीं बोल्सां सांसपीत किरवटीची गांठ लेगीत तपासली पूण ताका पयशे मेळ्ळे ना. ते अगतीक जाले. "घरा या चल" जड अंतस्करणान ताणी म्हळें. पळेलें ..? हांव

आड्डलों. ‘‘तूं म्हाका फटयता, तुवें भजीं घेता म्हण सांगिल्लें - हांव घरा ना येंवचो - केन्नाच ना येंवचो’’ म्हज्या बालहट्टान कळस गांठलो. ताचेकडेन पयशे नात म्हण म्हाकां जाण आसली पूण भज्यान इतलो हैदोस घाल्लो की हांव फाटीं सरूंक कसोच तयार नाशिल्लों. अंतस्करण जाणीव दीत राविल्लें : अशें करप न्हय, बाबाक त्रास दिवप न्हय, हांव करतां तें सामकें न्हय पूण मनार आनी जिबेर कोण बशिल्लो देव जाणा. हात पांय फाफडीत वितरागप हांवें चालूच दवरिल्लें. बाबान आनीक एकदां बोल्सां सांसपिलीं आनी म्हजेसरीं आयले. मायेन हात भोवणायत ताणीं म्हाकां समजायलो. ‘‘शाण्या, भजीं घेवपाक पयशे जाय न्हय? चल घरा वचून पयशे घेवन येवया’’ अविश्वासाची नदर रोखीत हांवें बाबाक म्हळें ‘‘आनी तूं येना जाल्यार? पसरो धांपल्यार? म्हाकां खबर आसा तूं म्हाकां फटयतलो’’ बाबान परत म्हाकां समजायलो - वचन दिलें आनी आमीं घरची वाट धल्ली. वाटेर म्हजी फोंत व्हावत आसली. म्हज्या ल्हान उतरानीं हांव बाबाल्या काळजार घाय घाली - घरा पावसर हांव वायट बरें बडबडत आशिल्लों.

पांय ओडीत एकदांचे घरा आयले. भितर सरतकी बाबान आपणालें पोन्नें काशेद उगडलें. भितल्ली मुस्तायकी भायर काडली आनी ते पुस्तकां सांसपूंक लागले. पूण एक तांब्या पयसो लेगीत दिसलो ना. बाबा तरीयपूण सोदताले. निमणें जाय तें पुस्तक ताणीं कडेक दवरलें. ट्रंकाचो आदार घेवन कश्टान उबे रावले. तांच्या तोंडार आतां हांसो उदेल्लो. ‘‘तुकां भजीं जाय न्हय? चल या पोट भर खा भजीं’’ हाताचीं बोटां म्हज्या केसांत फिरयत बाबान सांगलें. ‘‘पूण बाबा पयशे खंय आसा?’’ हांवें विचाल्लें. ‘‘यो बाबा, काळजी करनाका, तुका जाय तें मेळतुकूच जालें - चल’’ बाबान म्हळें. ‘‘बाबा म्हाकां भजीं आनी मिर्सांग्योय जाय’’ म्हजी मागणी वाढली. ‘‘हय, हय चल बेगीन’’ बाबान म्हळें आनी तरतरीत पावलां उखलीत आमी तिठ्याची वाट धरली.

सूर्य अस्ताक पाविल्लो. बाजारांतलीं चडशीं दुकानां बंद जाल्लीं. ताव्हेर्न आनी ताच्या कुशीचो भज्यां गाडो तितलो उगडो आसलो. फुरंगटील्ल्या मनांक एकदम हायस जालें. बाबा भजेकाराकडे कितेंतरी उलोवंक लागलो. म्हण्टासर भजेकारान भजीं, मिर्सांग्यो गुठलायल्ली पुडी बाबाक दिली. बाबानूय पुस्तकांतल्यान कितेंतरी काडून ताका दिलें. भज्यांच्या बोवाळांत ती गजाल म्हज्या तेन्ना लक्षांत

आयली ना. अर्ध्यावयर पुडी हांवें थंयच्या थंयच खटासली. तितल्यान बाबाली म्हाका याद जाली. व्हडा आत्मियतेन बेग्गीन हावें बाबाक म्हळें ''बाबा भजीं घे'' मनाक खाल्लेवरीं जाल्लें. भजीं दिवचेलीं विसरिल्लों तें जालेंच, बाबाक हावें थेंक्यू लेगीत म्हळें ना. लजेबराबर म्हाका वायटूय दिसलें. ''बाबा तुकां आवडटा न्हय भजीं, तुंच खा आं?'' म्हणत परतून एकदां बाबान आपणालो मायेचो हात म्हज्या फाटीर भोंवडायलो.

अकस्मात मनांक कशेंशेंच दिसूंक लागलें. इत्सा तृप्त जातकी घडये म्हजो विवेक जागो जालो आसूंये. मोह निवळ्ळ्या उप्रांत मनूय जाग्यार आयिल्लें. बाबाक हावें त्रास दिलो ही जाणीव मनांक खावपाक लागली. म्हजें मन म्हाकांच दुशणां दिवंक लागलें. भज्यांची रसणाय आतां सोपिल्ली. हातांतलीं भजीं मोखून मारचीं आनी बाबाले पांय धरून घसघशानी रडचो अशें दिसूंक लागलें. बाबाक वायट दिसत म्हण हातांतलीं भजीं हांव कशीं-बशीं तोंडांत कोंबतालों, मोन्यानी उलय नासतना आमी घरची वाट चलत रावले. म्हजें अंतस्करण भितल्ल्या-भितर रडटालें. पच्छतापाच्या दुखान दोळे भरिल्ले. इतल्यान याद जाली : बाबाकडें पयशे नाशिल्ले मागीर बाबान भजीं कशीं घेतलीं? पुस्तकांतल्यान बाबान भजेकाराक कितें दिलें? हावें बाबाक विचाल्लें ''बाबा तुवें पुस्तकांतल्यान भजेकाराक कितें दिलें?'' ''बाबा ताका म्हण्टात पोस्टाचे स्टॅम्प'' बाबान जाप दिली.

❑❑❑

# आव्हान

**का**श्मिराक आपणाले जिणेंत आतां वेगळो बदलाव जाणवतालो, खूप वर्सांनी ताचे मुखार रसणाय आनी स्वातंत्र्य घेवन जीण परतून उबी आसली. मनीस म्हणोवन घेवपाक आतां तें खऱ्या अर्थान लायक जालां अशें म्हणू येतालें. जिवेपणाचीं लक्षणां ताचे वागणूकेंत परगट जायी. एका भशेचें निखळ, मोगाळ, रसरसशीतपणाचें कंवच भोवतणी घेवन तें नव्या स्फुर्तेन परतूय ह्या संवसाराक तोंड दिवंक उबें जाल्लें.

लोकाले धक्के, धुकलप सोशीत गर्देतल्यान भायर सरून तें रेल्वे स्टेशनार आयलें. ट्रेन सुट्टा ती ताणें ज्युस्त पळयली आनी धांवत वचून लेडीज कंपार्टमेंन्ट धल्लो. कांय सेकंद उशीर जाता तर ताका ती ट्रेन मेळची नासली. हाश-हुश करीत तें जनेलाकडे वचून बसलें. एक तरतरीत जाण्टेली सोडल्यार पुराय डबो तसो रितोच आसलो. म्हातारी बारीक थीर नदरेन काश्मिराक जोखताली, मात तिच्या हातांतलें शिवणकाम थामनास्तना चालूच आसलें.

काश्मिरान खादी कुर्तो आनी जिन्स पॅन्ट आंगांत घाल्ली. खांद्यार खादीचो बोटवो लांबतालो. पायांतल्यो कोल्हापुरी व्हाणों चलून चलून पातळ जाल्ल्यो. भांगराची काडी लेगीत ताच्या आंगार नाशिल्ली. ना काकण, ना सरपळी. खांद्यामेरेन लांब आशिल्ल्या केंसांचें ताणें शेंडकूल बांदिल्लें. तरीय कांय हट्टी, तेमोज केंस ताज्या तोंडार येयी. तें तशें सुंदर म्हणपासारखें दिसनासलें हें खरें पूण पळोवप्याच्या नदरेक गुंथोवन दवरचेलें सामर्थ्य ताच्या रूपांत आशिल्लें हेंयूय

तितलेंच सत. घडये ताच्या दोळ्यांतलें तेज वा कपल वा नाकाची बारीक चोंच आसत पूण हेरां परस ताच्यांत कितें तरी खास आसलें. ताच्या साधेपणातूच ताचें खानदानीपण नदरेक पड. ''बाय तूं समाज सेविका न्हय?'' बारकायेन पळोवपी म्हातारेच्यान रावूं नज जाल्लें. 'ना' जनेला भायली नदर भितर घेत काश्मीरान तुटकी जाप दिली. ताच्या तोंडावेले हय-न्हयशें स्मित हेरीत तागेल्या प्रौढ चेऱ्या फाटल्यान जाण्टेलेक ल्हान भुरग्याचो अपुरबायेचो तोंडवळो दिसलो. तिणें आपली पोती ओडली आनी तांतल्यान एक सोबीत गुलाबाचें फूल काडून काश्मिराक दिलें. ''देव बरें करूं'' गुलाब हातांत घेवन काश्मिरान मुमूरखें हांसत म्हळें. तितल्यान म्हातारेचें स्टेशन आयलें आनी ती आपल्यो साठल्यो-पोटल्यो घेवन देवूंक तयार रावली. नाजूक बोटांमदीं गुलाब घुंवणायत, झरून गेल्लीं जोतीं नियाळीत काश्मिरा खोल विचारांत शेणिल्लें. स्कार्फाची गांठ सोडोवन ताणें केंस मेकळे केले. फुडल्या स्टेशनांत ताका देंवचें आसलें. अस्वस्थ जाल्लीं बोटां ताणें केंसांतल्यान भोवणायलीं. आंगाक एक बारीक थरथर सुटिल्लो. नदर कावरी बावरी जाल्ली. अचळय ताणें आपलो हांत बोल्सांत घालो. चिटयेचो स्पर्श जातांच ताचो सुटूंक लागिल्लो धीर परत एकवटलो.

गाडी स्टेशनांत थांबली. बोटवो सांभाळीत तें स्टेशनार देवलें. एक दिर्घ स्वास घेतलो आनी सवकळीचें आशिल्ल्यावरीं तें बस स्टॅण्डावटेन चलूंक लागलें. बस स्टॉप नंबर ६७८. आपल्याच यादिचें ताका अप्रूप दिसलें. लागींच आशिल्ल्या फॅक्टरीचो भोंगो वाजलो. काश्मिराल्या कपलाक आंठयो पडल्यो, तोंडार त्रासीक भाव झळकले. कामगार लोकांनी गर्दी जावचे पयलींच थंयच्यान पासार जावंक जाय आसलें. ताणें पावलांक गती दिली. मुखार एक ल्हान वळण आनी उप्रांत पानांचो गाडो. मनांतल्या मनांत ताणें मेंदवाक दाद दिली. पानवालो पान करपांत गुल्ल आसलो मात ताचें गिरायक वठांर लाळ घोटीत, लालेवन, बुबळां भायर काडून ताका पळोवंक लागलो. काश्मिरा त्या नतद्रश्ट, पेरदित मनशाकडेन चड लक्ष दिनास्तना चलत फुडें गेलें. खेळामैदान आनी पोरण्या गराजीक वळसो घेवन तें मुखार गेलें. हांगा व्हडसो बदल जावंक नासलो. ''फारसी मॅन्शन'' नावाची तीन मजली बिल्डींग मात ताका खंयच दिसलीना. थंय रावपी म्हातारेची ताका याद आयली. भायर व्हारांदार कदेलीर बसून ती धोलत आसताली. बोटव्यांत

हात सारून ताणें गुलाब भायर काडलो. म्हातारेची याद येना फुडें ताका रेल्वेंतली जाण्टेली येवजल्ली. वळख-पाळख नासतना तिणें काश्मिराक गुलाब दिल्लो. ताच्या भावनेच्या स्मृतिंत नकळत एक धागो बांधून ती गेली.

एक ल्हान टुणटुणीत नागडो-बेताळो पोर काश्मिराक पळेत राविल्लो. पावलां वळोवन तें ताचेसरी गेलें. बिस्कीटेचो पुडो आनी गुलाब ताणें त्या नागडूक दिलो. ताची ल्हेंवटी नदर आनीकूय कितें सुटत म्हण काश्मिराक जोखताली. निमणें भितभीत ताणें रूपया मागलोच. काश्मिरान खर नदरेन ताका पळेलो. पोर समजपाचें समजलो आनी ल्हान हातानी सलाम मारीत ताणें फुडल्या पायणींत धांव माल्ली.

काश्मिरान चलपाची गती मंदायली. ल्हव पूण जोमदार पावलां मारीत हेवटें तेवटें पळेत तें चलतालें. हांगच्या जाग्यांत आनी लोकांतूय बी बरोच बदल दिसून आयलो. चलता-चलतांच कच्च करून तें थांबलें. ताची नदर शाळेर थिरावली. गेटीभायल्यान ताका ताचो तेन्नाचो क्लासरूम स्पश्ट दिसलो. फाटल्यो यादी झर र्र करून दोळ्यांमुखार आयल्यो. ल्हानपणांतली शाळेचो गणभेस घाल्ली आपलीच मूर्त ताच्या स्मृतीपलटार साकार जाली. गुलाबिच्च पोले आनी दोन ल्हान विणयो, नितळ धवो शर्ट, पट्यापट्याचो टाय आनी तसलोच मॅचींग विस्तीद, काळे बूट आनी धवे मेय, हुशार, कर्तुबी, कष्टी, बरी विनोदी बुध्दी आशिल्ले फकाणेर म्हण आख्या शाळेंत ताचें नांव आसलें. त्या वयांतली ताची सुद-बुद पळोवन ताचे टिचेर ताची तोखणाय करी. शिकपांत तर तें सदांच फुडें. अश्या गुणी चलयेच्या जिणेक मागीर गिराण कित्या लागलें? ताची जीण फुलारचे पयलींच बावून कित्याक गेल्ली?

आंतकड्यांक वळ पडिल्ल्याचो खर भास ताका जावंक लागलो. अचकीत ताचो हात पर्शींत गेलो. पोटांतल्यो कळो आनीकूय तिव्र जाल्ल्या भशेन दिसूंक लागलें. अस्वस्थ आनी अधीर जावन तें पुडी सोदूंक लागलें. घामाचे दोन थेंब कपलावेल्यान देवले. कासावीस जावन ताचीं बोटां पर्शींतलीं पुडी सोदताली. जीव ताळ्याकडे पाविल्लो. इतल्यान कर्र्र करीत दरवटो उगडलो. भुतकाळांत शेणिल्लें काश्मिरा तटाक करून वर्तमान काळांत आयलें. ताच्या हातापायांक बारीक थरथर सुटिल्लो. ताणें एक लांब हुस्कार घेतलो, लेसान घाम पुशीत तें गेटींतल्यान भायर सरलें. एकदम याद जाल्ल्या भाशेन ताणें कच्च करून दाव्यान

पेळेलें. पयलीं आशिल्ले शॅक आतां थंय नासले. वयर सकयल जायी तो जीव मात्सोसो थाऱ्यार आयलो. धा वर्सां पयलींच्यो यादी आज लेगीत जळजळीत आशिल्ल्यो. हातापायांचो कंप कमी जावंक नासलो. गेटीक धरून तें उबें रावलें. मन मात्शें थिरावतांच ताणें पांय उखल्लो. परतुनूय कसल्यातरी जाणविकायेचें भयानक थंड ल्हार ताच्या कण्यांतल्यान सरसरत पासार जालें.

धा वर्सां उप्रांत ताणें आज ह्या गेटीक हात लायिल्लो. अचकीत ताच्या कानांत आवाज घुमलो. दोळ्यांक भास जावंक लागलो. ''ना मॅडम ना तें हांव न्हय, देवा खातीर तरी म्हाकां सोडात, एक फावट, निमणे फावट तरी सोडात'' उप्रांत काळजांत कोरादपी हुंडक्यानीं मेंदू शिणून गेलो. चलतना अचानक स्तब्ध जाल्ल्या काश्मिराक खूप अजाप दिसलें. इतल्यो स्पष्ट आनी जिव्यो यादी? त्या इफेर्नातली हिनता, हिडीसपणा, कृतघ्नता, निचपणा, त्या व्यसना खातीर केल्ली चोरी, फटींगपणां, मारामारी, वेळ पडल्यार खून लेगीत करचेली तयारी, ताची कूड थरथरली.

शाळे भायलें झाडाचें पोरसूं आतांय तशेंच आसलें. हे वये भितर सगळीजणां एकठांय जातालीं. खेळ, मजा, मस्ती, तरेकतरेचे जोक्स, हांशाचे दोंगर रची. ते दीस कितले उमेदीचे -- पूण काळाच्या पोटांतलें कोणें वळखलां? आवाज करनास्तना काळ आपणालें पाश ताचे वटयां पसरायतालो. फकणां फकणां म्हण कोणेतरीं एक फावटी सिगरेट हाडली, झुरके मारप सुरू जाले, घुंवत घुंवत तें सिगार काश्मिराकडेन आयलें. तें थरथरलें. दोळ्यांत भंय उफेलो - ताच्या आत्म्यान ताका पयल्यानपयलीं सादूर केलें. तें कितें? हें ताका पुराय खबर आसलें. तें फाटीं सरता हें पळोवन ताच्या इश्टांनी, हेर चलयांनी ताका भेजूड, अरवळ, कामळीफुजांव म्हण नांवां दवरलीं. तरीय पूण काश्मिरा सिगार ओडूंक तयार नासलें. शेवटाक कांय अवजाळी, पेरदीत चलयानीं तकली चलयली. ताणीं काश्मिराक चेलेंज केलें. आव्हान! तें मागीर कसलेंय आसूं. शिक्षणांत, खेळांत वा झगडपांत. काश्मिरा केन्नांच फाटीं म्हण सरलें ना. बारा हतयांचें बळ ताच्या आंगांत रिगतालें आनी म्हण्टासर तें पैज जिंकून मेकळें जायी. आतांय अशेंच घडलें. सवयीं प्रमाण तें आव्हान समजून ताणें सिगार वठांर दवरलें आनी झुरक्याचेर झुरके पडूंक लागले. काळ ताचेकडेन पळेत हांसतालो. तें सादूर जावचे पयलींच

व्यसनान ताका आपणाल्या कवेंत घेतिल्लें. ताचीं म्हत्वाचीं वर्सां पेड्ड्यार जाल्लीं, लोकांली घृणेस्त नदर, फामिलीक लांछन, गांवांत हांसो - त्याभायर पिडेन ताका भितर भायर पोखरून उडयल्लें. तोंड दाखोवंक जागो ना जालो. ताची पुराय जीण काळखांत शेणली. दोळे झाकून घेतिल्ली उडी, अविचारी आव्हान ताका खूप म्हारग पडिल्लें. ताची दुर्दशा जाली. त्या इल्ल्याशा जिणेंतली सगळी रसणाय, भुरगेंपण निश्टूर काळान खुडून व्हेलें.

आयजूय ताच्या मुखार एक आव्हानूच आसलें. चॅलेंजीनूच तर ताका हांगा परत हाडिल्लें. सामाजीक बांधीलकेन आनी रिहेबीलीटेशन होमचें सदस्य ह्या नात्यान आपणालें कर्तव्य म्हण पोटतिडकेन तें आयज धा वर्सां उप्रांत परतून हांगां आयिल्लें. शाळेकडच्यानूय ताणें परवानगी मेळयली. दोळे बंद दवरून, मन, बुध्द वापरी नास्तना घेतिल्लें आव्हान मुळांत आव्हान न्हय तो आत्मघात तें ताका कळून आयिल्लें आनी त्या अणभवांतल्यान धडो घेवन ताचेसारखील्ल्या भुरग्यांक, समाजाक सादूर करचेलें व्रत ताणें घेतिल्लें. ती आपणाली नैतीक जापसालदारकी, परम कर्तव्य म्हण तें मानतालें. हजारांनीं - लाखांनीं भुरग्यांक सादूर करचेलें व्रत - त्या नरककुंडांत पडिल्ल्या आनी नरकपुरींतल्या निराधार पिडेस्तांक मुक्त करचेलें आव्हान घेवन तें ह्या सवसारांत परत आयिल्लें आनी ताचो श्रीगणेशा ताणें आपणाले शाळे पासून केल्लो.

शाळेची घंटा जाली. जगाक जिंकचेली जिद्द, निर्धार आनी आत्मविश्वास तसोच आपणालो अणभव कनवटीक लावन कश्मिरा शाळेचीं सोंपणां चडूंक लागलें.

❑❑❑

# सारांवश

मुखावेले उध्वस्त वस्तिंतल्यान चलता आसतना अंत:स्करण भरून येतालें. वाटेंतल्या ल्हान-ल्हान फातरांचेर खोंट मारीत हांव चलतालों. खडी, चिकोल आनी घाण चारूय दिकांनी फांकिल्ली. भोवतणी घाणयारो वास सुटिल्लो. कांय वर्सां पयलीं हांगा एक ल्हानसो गांव आसलो म्हण सांगल्यार कोण सत मानचो नासलो. ह्या सान गांवांत लोकांली खूप वर्दळ आसली. काम-धंदो नेटान चल. दीस-रात गांवांत धांवपळ चालूच आसताली. गांवाची उदरगत बरे रितीन आनी बेगीन जाताली. असो हो लोकवस्तेन गजबजिल्लो गांव ..... पूण आतां ...? हांगची शांतताय, विध्वंस काळीज विदीर्ण करून सोडी. काळान उमटायल्ली विदारक पावलां आयज लेगीत स्पश्ट दिसून येतालीं.

नियतीन हांगा रूद्रावतार घेतिल्लो. शांतताय, सुखवाशी, योगक्षमान, अभिवृध्दीन नटिल्ली लोकवस्ती सैरभैर करून सोडिल्ली. जबरदस्त भुकंप आनी ताचेर भर म्हण प्रचंड गगनाक गिवसण घालपी उज्याच्या लांबच्यालांब अक्राळविक्राळ जिबांनी जमीनदोस्त जाल्ल्या गांवांक बेचीराख करून सोडिल्ली. त्या वसाड गांवांक पळेतना म्हजे दोळे परत-परत भरून येताले. नातें-गोतें, वळखीचे लोक, मित्र-मंडळी, शत्रू सगळे लुप्त जाल्ले. हांगा कोण राव! म्हण सांगल्यार कोणाक सत दिसचें नासलें इतलो हो गांव पाड

जाल्लो. सैमाच्या कोपा मुखार व्हड व्हड फुशारक्यो मारपी मनीस थिटो पडिल्लो. सगळ्या प्राण्यांत श्रेष्ट म्हण मिरोवपी मनीसजात, सैमाचे निर्मितींत धवळाधवळ करपी मनीस हांगा सपशेल भुंयेर आपटल्लो-मातिमोल ठरिल्लो. जे सभागी वांचले ताणी आपणालें बस्तान दुसरेकडें हालयलें, नव्या दमान, नव्या आयुश्याचो मंत्र धोकून ताणी जिणेंचो श्रिगणेश आरंभ केलो. हो गांव मात वसाड जाल्लो. अश्या त्या नशीब फुटक्या गांवांत कोण एक वच नासलो.

सैमाची वांकडी नदर इतली खर आसली की लोकांलीं भक्कम फातरांचीं घरां लेगीत इस्पिकांच्या बंगल्या भशेन उध्वस्त जालीं. शाळा, बाजार, बंगले-रेल्वेच्या किल्ल्या भशेन मोडून पडिल्ले. सगळो खेळ मांडटकीच नियतीन आपणालो भिशण सर्वनाशी खेळ खेळून धुमशेण घाल्लें. सुधाल्या आंगणार म्हजी दृश्टी थिरावली. हांगची तुळस आजून शाबूत आसली. एक वेळार ह्या आंगणांत नीत शेणाचो सडो पड. तुळशी सामकार सोबीत रांगोळी सज आनी तिनसना चुकनास्तना निरांजन पेट. त्या दिव्य वातिच्या उजवाडांत हांगचें पावित्र्य चो वशीं फांकतालें आनी येतल्यावतल्यांक लेगीत प्रसन्न दीस. तुळस ही संकटां, निवारपी, मुखार वाडून दवरिल्ल्या आपत्तीक थांबोवन दवरपी शक्त अशें मानतात. प्रार्थना आनी नीत तेंवपी त्या दिव्य ज्योतीन त्या वास्तूक राखिल्ली पूण तांतली मनशां .....

त्याच वाड्याचें दुसरें दार सुजयालें. गांवच्या पोरांचें हें कुळार, पुराय मोडून पडिल्लें. सगळेजाण एकठांय जावन हांगा खूप मजा करी. तरेकतरेचे व्यायाम, सर्कशी, खेळ खेळटाले. थंयच्या एका घटमूट वाशाक आमी झोपाळो बांदिल्लो. सगळीं भुरगीं ताचेर बसून झेलतालीं. पेज चड पडिल्ल्यान वाशाक वेर गेल्ली आनी तो तुटूंक पाविल्लेवरीं दिसतालो, तरी पूण पर्वा करी नासतना सगळेजाण ताचेर बसून धुडगूस घाली. हाशा, किळच्यानी झोपाळ्याचो कीं कीं आवाज आयकूंक येना आशिल्लो म्हण मागीर भिवन वासो तुट्टा बी काय तें पळोवपा खातीर हांवच वयर चडून वासो घट्ट आसा म्हण खात्री करी. सरते शेवट पासून त्या वाश्यान दगो दिवंक ना. भुरग्यांच्या पेजान तो बागवलो लेगीत ना. सकाळीं फात्यार ह्याच वाश्यार बसून सुजयालो

कोंबो गांवांक साद घाली. आयज धा वर्सां जावनूय तो वासो पुराय कोसळूंक नासलो. वण्टीचो आधार तुटिल्ल्यान मदींच लोमकळत उरिल्लो. सैमाचें रौद्र रूप ताका मोडूंक शकलें ना म्हण मागीर वाळतीनी तें काम आपणाकडेन घेतिल्लें. म्हजें काळीज कळवळ्ळें. धा वर्सां पयलींचें सगळें कावार जाल्लें. आतां उरिल्ल्यो फकत यादी -- अनंत यादी. काटयारीं झाडां-झुडपां, रानवालीनी सगळ्या गांवार कब्जो केल्लो. शाळेचें खेळा मैदान, जंय आमी परेड करताले तो जागो कांट्या-कुट्यानीं, झुडपानी भरिल्लो. ज्या शाळेंत आमकां संस्कृती शिकयली, वाचूंक-बरोवंक शिकयलें, ती शाळा काळा आड गडप जाल्ली. सरसरत कितेंतरी समोरच्या झाडानी रिगलें. मनांत नासतनाय हांव उठून उबो रावलों. सरपटत, निसरत कितें तरी गेल्ल्याची जाण म्हाका जाली. ह्या वसाड जाग्यार जिवीत आसलें तर ...! असल्या जिवीताक मनशांच्या जगांत कांय एक अर्थ नासलो. फातरांच्या राशींतल्यान वाट काडीत हांव मुखार सल्लों. सूर्य माथ्यार चडिल्लो. गरमी सहन जायनासली. तानेन जीव वयर आयिल्लो. म्हज्या मनार गांवचें देऊळ आनी तळी साकारली. घड्याळ चार वाजल्या म्हण दाखयी म्हणजे परतूपाक आजून एक वर आशिल्लें.

जिओलॉजी प्रोजेक्टाचो भाग म्हण हांव म्हज्या इश्टांसयत हांगा आयिल्लों. म्हजे इश्ट फोटो, नोट्स, राशिंतल्यो वस्तू लीप करून त्यो निरखुपांत, उस्तणींत दंग जाल्लें. दर एकलो स्फुर्तेन काम करी. घडये तांकां हरप्पा, मोहेन्जोदारो आयिल्ल्यावरीं दिसलें आसूंये. खांद्यावेलो साकाटो हांवें जमनीर वडयलो आनी हांव मुखार चलत रावलों.

कुडींत एक तरेची हुरहूर आकार घेताली. हांव मुखार धांवत सुटलों. सामकाराक विस्तीर्ण मैदान पळोवन हांव गोंधळून थांबलों. ताचे मुखार आनीक कांयच नदरेक येना आसलें. बुचकळ्यांत पडून हांव तळी सोदूंक लागलों. येदी व्हडली तळी भुंयेंवेल्यान ना जालीच कशी? अचकीत लायट पेटली. मनांतल्या तळयेची याद आनी नदरे मुखावेलें सपाट मैदान हें मनांक न पटूं शकपी सत आसलें. म्हाका खूप वायट दिसलें. दिमयेर बसून कितलोसोच

वेळ हांवेन दुखां गळयलीं. भीत-भीत हांवें देवळाकडें नदर वळयली. फातरानी बांदिल्ल्या घट्ट बांदणीच्या देवळाची दानाधिस्पट जाल्ली. चांदीचो मुलामो दिल्लो देवळाचो कळस वांकडो जावन खाचीतल्यान कसोतरी भायर सरिल्लो. सर्वकर्त्यान, त्या सर्वेशान आपल्या पुजेचो जागो लेगीत कित्याक वाचयलो ना? एकारएक थापट मारून जाग हाडिल्लेवरीं म्हाकां जालें. मुखावेलें सत! सपन न्हय हाची खात्री म्हाकां जाली. पिपळान पुराय देवळाक वेटाळो घाल्लो. मुळा-पाळांनी देवळाचेर बिल्डींग उबी केल्ली.

मन सोंसपा भायर पाविल्लें. हांवें म्हजे दोळेच धांपले. म्हजो भितल्लो अंत:सकरणांतलो आवाज म्हाकां आयकूंक आयलो. लक्ष दिवन सोद-तुका दिव्यत्वाचो पुरावो मेळटलो. देवीची दिव्य मूर्त तिच्या प्रभावळे सयत म्हज्या दोळ्यांत उबी रावली. कपलावेलो तांबडोच्च तिळो, मुखकमळ, कमलनयन - सरळ सुंदर नाक - प्रांजळ धिरादीक स्मित, पांचविचार साडी, तांबडोधुन्न ब्लावज, देवीले भांगराचे अलंकार आनी आनी ... म्हज्या दोळ्यांतल्यान सतत दुखांचो अभिशेक जावंक लागलो. झपाटिल्ल्या भशेन हांव बोटांनीच खडयेची रास आनी तण उसपूंक लागलों. हाताची कात सोलूली. बोटांतल्यान रगत ठिपकूंक लागलें पूण त्याय परस म्हजें काळीज रक्तबंबाळ जाल्लें. विरार जावन हांवें म्हजेच केंस ओडले. पिसाविल्ल्या भशेन म्हजी स्थिती जाली.

सुर्याचो रखरख आतां शांतचित्त जातालो. वातावरण ल्हवू ल्हवू बदलून वतालें. वझऱ्याचो खळखळ आयकूंक ल्हान भुरगीं भरपूर खावन-जेवन जातकी तृप्तीचे धेंकर दिल्ल्यावरीं दिसतालो. पानांचो सरर्र आवाज जालो. मान वळोवन पळेल्यार मोर पिसारो फुलोवन वतालो. उजव्यांतल्यान आनी एक पक्षी गुणगुणत भायर सरलो. हांवेंय उबो रावन तीच दिका धरली. वातावरण थंडसार जाल्लें. सृष्टिंत बदलाव घडून येतालो. जोरांत तापिल्ल्या कपलार आवयल्या मायेस्त हाताची शितळ घडी पडल्या अशी जाणविकाय म्हाका जावंक लागली. वेळूचीं झाडां वाटेर आडवीं तिडवीं पातळावन म्हजी वाट आडावन धरी. सांभाळून वाट सोदून पावल घालचें पड. पूण हांव फुडें वचत रावलों. अचकीत मुखावेल्या दृश्यान हांव भारावन गेलों.

सैमाच्या उदेकांतल्यान एक ल्हान वझरो निर्माण जाल्लो. नागमोडी वझऱ्याचो लयकारी आवाज आनी ताल मनाक आनी नदरेक थंडाय प्रदान करी. वझऱ्याच्या दोनूय कडांक सुंदर सोबीत फुलझाडां आनी तुरे सुर्याचें कवळें वत खायत वझऱ्याची सोबीतकाय तोखेत राविल्लें. सगळें दृश्य मनमोहक दिसतालें. हांगचो निसर्ग आनी जनावरां सर्वकर्त्याच्या कल्पनेची एक अप्रतीम कलाकृती म्हण सिध्द जायी. हांव उबों आसलों ताच्या दुसऱ्या तोंकाक म्हाका शिंवाचो हात दिसलो. उप्रांत आनीक एक. मागीर आनी एकूय दोळ्यांमूखार साकार जालो. तितल्यान वैभवशाली भव्य उदात्त वयर सकयल हालणारो शिवस्वरूपी भांगरा अर्द पुतळो दिसलो. हळूच्च मान लवयत ती भव्य दैदिप्यमान आकृती झऱ्याच्या उदकांत पावन जाली. हेरशी साद्या गजालींक आंग काडपी हांव आयज मात लेगीत भिवंक ना. हो अदभूत अणभव म्हज्या गात्रांत थंडावो दीत गेलो. भोवतणच्या जनावरांचो म्हाका भंय म्हण दिसलोना उलट दोन पायांचीं जनावरांच म्हाका चड भिश्टायी.

कपडे कडेक दवरून हांव वझऱ्याच्या उदकांत देंवलों. सैमाच्या त्या सर्गीय संगिताकडे एकतान जालों. लीप, नितळ निसर्ग निर्मीत उदकांत म्हाका तांबडीच्च बिन्दी, प्रसन्न हांसतें तोंड, झुलणारो झोपाळो आनी निरंतर तेवपी दिव्य ज्योतीचो साक्षात्कार जालो. म्हजी आख्खी जीण विचारांसयत त्या सृश्टीकडेन एकरूप जाली. सैमाच्या अदभूत लिलेविशीं विचार करीत करीत त्या नितळ निळसार उदकांतल्यान हांव फुडें सल्लों.

अख्खो गांव उध्वस्त केल्ल्या प्रकृतीन नवी आस आनी प्रांजळ भावना रोंपून आपणाल्या गाभ्यांतल्यान एक नवीच निष्पाप, चैतन्यमय सृश्टी जन्मांक हाडिल्ली. हेवेदाव्या पासून पयस, संपूर्ण पवीत्र. हांगचे झरे, झाडां, पालव, जनावरां, भूंय सगळीं एकठांय येवन एकजूटीन सैमाकडें एकरूप जावन त्या भवतारकाचें स्तवन करताली. उत्कर्षाच्या नावांखाला विध्वंस करपी मनशाक, सैमान घडये ल्हानशी शिटकावणी दिवन शादूर केला आसूंये. देवाचो, सैमाचो आनी दैवाचो कोप तांचेर कश्यारितीन जावंक शकता हाचें हें एक ल्हानशें उदाहरण आसूं शकतालें. तेच परीन देवान आपल्या दयेचो कौल दिवन नवी

सृष्टीय रचूंक शकता हाचो दाखलो दिलो. जाल्ल्यो चुको सुदारप काय फाजील आत्मविश्वासान हें विश्व म्हणजे हांवच अशें समजून निसर्गांत धवळाधवळ करून संवसार काबार करप हें आतां मनशानीच थारावप. जगाचें कल्याण करपी त्या शक्तेन उत्पात आनी उत्पत्तीय घडोवन हाडिल्ली पूण सृश्टिचो विनाश करून सर्वनाश वाढोवन हाडप काय त्या शक्तेक शरण वचून सैमाकडेन एकरूप जावन नमळायेन रावप हाचो निर्णय देवान आजुनूय मनशांकडेनूच दवरिल्लो.

❑❑❑



स्मिथा भांडारे कामत हांकां मास्टर्स पदवी परिक्षेंत वाणिज्य शाखेंत भांगरा पदक फाव जालां. फाटलीं सात वर्सां स्मिथा पणजे आल्तिनोवेल्या धेंपे वाणिज्य विद्यालयांत प्राध्यापिका म्हण काम पळेतात. ताणीं एम.इ.एस. वाणिज्य आनी विज्ञान म्हाविद्यालय, वास्को, गोवा विश्वविद्यापिठ, गोंय, आय.सि.एफ .ए.आय. विश्वविद्यापिठ, हैदराबाद अशा सारकिल्या नामनेच्या संस्थांतल्यान अंडर ग्रॅज्युएट, ग्रॅज्युएट आनी पोस्ट ग्रॅज्युएट भुरग्यांक तशेंच एम.बि.ए. शिकप्यांकूय मोलादीक मार्गदर्शन केलां.

शिकवणे खेरीज ताणीं पेन्टींग, कला, कार्टून अशा तरेकवार क्षेत्रांत नांव मेळयलां. हालींच तांच्यो इंग्लिशिंतल्यो दोन कविता पोएट्री डॉट कॉमांत फायनलिस्ट थराचेर पावल्यात. फाटल्या १० वर्सां पासून थळाव्या इंग्लेज खबरेपत्रांनी तांच्यो काणयो, कविता, मिडल्स उजवाडाक आयल्यात. ताणी आकाशवाणी वेल्यानूय जायते कार्यक्रम सादर केल्यात. 'पोरसांतलीं फुलांङ्क हो तांचो पयलो वयलो काणयां संग्रह जावन आसा.